# निवलकांडयेचीं बोंडां

(विनोदी निबंध)

## सुमेधा कामत - देसाय



राजलक्ष्मी साहित्य प्रकाशन

# निवलकांडयेचीं बोंडां

(विनोदी निबंध)

सुमेधा कामत-देसाय



राजलक्ष्मी साहित्य प्रकाशन

**Nivalkandeyechi Bondaa**
Sumedha Kamat - Desai

निवलकांडयेचीं बोंडां
सुमेधा कामत - देसाय

प्रकाशन क्र. 3



**प्रकाशिका :**
सुजाता दामोदर भाटकार
राजलक्ष्मी साहित्य प्रकाशन
'दामोदर निवास', वेरें
बार्देस-गोंय 403 114

**अक्षर जुळोवणी :**
ज्योती गांवकर, तिवरे, माशेल

**मुख आनी मलपृष्ठ छायाचित्र (निवलकांडयेचीं बोंडां)**
श्री. सखाराम बोरकार

**सुरवेचें चित्र :**
कलानंद कामत बांबोळकार

**भितरलीं हेर मुख्य चित्रां :**
किशोर गांवकार, नेत्रावळी
क्र. १ - वेदराज सुदीप कामत, क्र. २ - शमीक पै, क्र. ३ - राणी कामत
आनी पृष्ठ - १७, ४४, ५२, ६१, ७६, ९३, १२१, १२४
कु. प्रेम प्रमोद शिरोडकर, नेरूल

**छापपी :**
इंप्रेशन्स, बी-2, अक्षर, ऑर्किड
3360/4, गंधाली गल्ली, बेळगांव 590 002

प्रकाशन दिनांक : वैशाख पौर्णिमा-बुध्द पौर्णिमा
6 मे 2012

मोल : रु. **150/-**

गोंय सरकारच्या कला आनी संस्कृती खात्याच्या
पुस्तक प्रकाशन येवजणेचो पालव ह्या पुस्तकाक मेळला.

# लेखिकेचीं प्रकाशित पुस्तकां

प्रवासवर्णन

1) *विवेकानंदपुरमांत* (कोंकणी)

पुरस्कार

- कला अकादमी, गोवा, 1993
- डॉ. टी. एम. ए. पै फाऊंडेशन, मणिपाल

2) *नैनी डेज* (मराठी)

3) *देवांचे काव्य* (मराठी)

ललित निबंद

1) *रानभूल* (मराठी)

पुरस्कार

- गोमंतक मराठी अकादमी
- महाराष्ट्र राज्य प्रथम प्रकाशन, १९९६
- सांगाती अकादमी, बेळगाव

2) *चित्रांगी* (मराठी)

3) *शेवण्या पिपुशा* (कोंकणी)

विनोद

1) *तेफळां घोंस* (कोंकणी)

2) *निवलकांडयेचीं बोंडां* (कोंकणी)

व्यक्तिचित्रे

*क्रॉस वाहणारी माणसे* (मराठी)

**संशोधनपर निबंध**

वृक्षविषयक

1) *उपवन* (मराठी)

<u>पुरस्कार</u>

- गोमंतक मराठी अकादमी

निसर्ग, लोकजीवन आनी संस्कृती

2) *देवकापसाची वात* (कोंकणी)

(गोवा कला आणि संस्कृती संचालनालयातर्फे प्रकाशित)

3) *पालवा-पान* (कोंकणी)

* * * * *

**मूळ गांव** – पाड्डें, केपें

**शिकप** – मराठी आनी संस्कृत भाशाविशय घेवन मुंबय विद्यापीठाचें पदव्युत्तर शिकप

**भोवंडी** –
* पाया भोंवडेची विशेश आवड
* भारतान खुबशा जाग्यांचेर भोंवडी
* नेपाळ, भूतान, कतार, इंग्लंड, फ्रान्स, हॉलंड (नेदरलॅण्ड), बेल्जियम, जर्मनी, स्वित्झर्लेंड, ऑस्ट्रीया, लिचेन्स्टन, इटली आदी देशांनी भोंवडी.





# संवाद

म्हजें बरप विनोदी जाता, अशें लोक म्हणटात. हांव बरयतां तें वैचारिक, ललित, विनोदी आसता काय कितें, तें लोकांनीं थरोवचें! हांव जीवन पळयतां. तें अणभवून म्हजे मनांत कांय विचारतरंग निर्माण जातात आनी मागीर म्हजोच म्हज्याच मनाकडेन एक अविरत संवाद निर्माण जाता. आनी मागीर होच संवाद साहित्यरूपान वाचप्यांमुखार दवरतना म्हाका उपाट खोस भोगता. म्हजेंच ल़ेखन हांव जेन्ना परत वाचतां तेन्ना, त्या वेळार म्हज्या आत्म्याकडेन जाल्ल्या म्हज्याच संवादाची म्हाका याद जाता, आनी तांतूतल्यान सौंदर्य, शांती आनी पावित्र्य हांच्या पुन: प्रत्ययाचो एक आनंद मेळटा.

हांव दै. राष्ट्रमतान 1979 सालांत ट्रेनी जर्नेलिस्ट म्हण जॉयन जाल्लें. स. चंद्रकांत केणयाच्या मार्गदर्शनाखाला आमचें काम चलतालें. केणीबाब हो एक विलक्षण डायनॅमिक मनीस. म्हज्या करियराच्या सुर्वेचो सात वर्सांचो काळ तांच्या आनी श्री. सीताराम टेंगसे या बुध्दिवादी आनी विचारवंत मनशांच्या हातासकयल म्हाका काडूंक मेळलो, म्हण हांव स्वत:क भाग्यवान समजतां आनी एका शिष्येच्या नात्यान परत एक पावट ह्या दोगांक नमन करता.

म्हाका याद जाता. केणीबाबान म्हाका विचारलें, ‘‘बाय, तुका आमच्या पेपरांत खंयच्या प्रकारचें साहित्य बरोवंचेंशें दिसता?’’ हांव तशें साहित्यक्षेत्रांत नवें आनी अज्ञानी. फकत बी.ए.ची डिग्री हातांत आनी खूपशीं, नाका आशिल्लीं शाणेपणा. केणीबाब म्हळ्यार असल्यांच्या बाबतीत दुर्वासमुनी. ताणे म्हाका तेन्ना थंयच्यान धांवडायलें ना, कशे काय, म्हण म्हाका अजाप दिसता. मनशाच्या बॉडी लँग्वेज आनी फेस एक्स्प्रेशनावेल्यान ते मनशाक जोखताले. नाका आशिल्ल्या मनशांक ते एक खिणपसून आपले मुखार दवरनासले. आनी मागीर थंय वर्सांसंकी दीस काडपाचो प्रस्नूच नासलो. हांवें ‘राष्ट्रमत’ सोडलो, तेन्ना ते दिसा केणीबाब

म्हजेकडेन उलयलें नात. तेच वेळार म्हजें आनी तांचे नातें कितें आशिल्लें तें म्हाका कळिल्लें. गुरु-शिष्याच्या विणिल्या नात्याचो आयुष्यातलो तो दुसरो सुंदर अणभव आसलो. (पयलो अणभव मा. र. वि. जोगळेकर हांचो अनुबंध आम्ही दोगांयनीय आजपर्यंत जितो-जिवो दवरला.)

तर सांगतालें, केणीबाबान म्हाका विचारतकीर हांवें सांगलें, ''हांव वैचारिक साहित्य बरोंवक सोदता.'' लेखन म्हणजे वैचारिक इतलेंच म्हाका त्या वयार खबर आसलें. केणीबाब हांसलो आनी म्हणूंक लागलो, ''आगो बाय, तूं निकतेंच तांतयांतल्यान भायर आयलां. किदें तुजी डिग्री, किदें तुजें वाचन, किदें तुजो प्रवास, किदें तुजी वैचारिक खोलाय, चिंतन, व्यासंग, प्रगल्भता, अणभवी मनशांच्यो गांठीभेटी....'' पूण एक खरें, तो किदें उलयलो, ताचो अर्थ म्हाका त्या खिणाक ज्युस्त कळलो. थोड्या मूर्खांक खंय आपूण मूर्ख आसा म्हण रोखडेंच कळटा. थोड्या मूर्खांक खंय तेंय कळना. (तांचोच चड प्रॉब्लेम जाता.) केणयामुखार उबें रावतकीर आमकां सगळ्यांक आपूण कोण कात तें बरें बशेन कळलें. आनी आमी सगळींच ते दिसाच्यान झडझडून कामांक लागलीं.

म्हाका ललित लेखन करूंक खूप आवडटालें. हांव विनोदी लेखूनय करतालें आनी ते भायर पत्रकारिता. म्हाका केन्ना केन्ना अजाप दिसं. तेन्नाची ती 'रुक्ष पत्रकारिता' करून हांव म्हजें ललित गद्य आनी विनोदी लेखन अशें करतालें?

पूण संस्कृत नाटकांत एक 'ट्रॅजिक रिलिफ' म्हण प्रकार आसता. म्हणजे महाभयंकर अशी किदें तरी घटना घडटा. तो प्रवेश सोंपता आनी मागीर ट्रॅजिक रिलिफ येता. तातून एक विदूषकाचें पात्र येता आनी तो हांसोवणी वक्तव्यां आनी कृती करून प्रेक्षकांची मनरिजवण करता आनी तांच्या मनावेलें टेन्शन देंवयता. (आमकां एम.ए.क संस्कृतान ट्रॅजिक रिलिफाचेर पांच मार्कांची नोट बी येताली. तेन्ना हें सगळें नाटकांची उदाहरणां बी दिवन बरोवचें पडटालें.) प्रेक्षक खदखदून हांसले, काय मागीर परत नाटक आपल्या मार्गाक-रौद्र, करूण, बीभत्स रसांच्या आविष्काराक अनुकूल

अशो कृती करपाक – लागता. हजारांनी वर्सां पयलींच्या त्या नाटककारांक मनशांची सायकोलॉजी बेस बरी कळटाली.

हांवें ही सायकोलॉजी म्हजेच बाबतीन चलयली. म्हाका रिपोर्टींग, भाषांतरां (तीय बी पीडब्ल्यूडीच्या व्हडल्या व्हडल्या निविदांचीं) एडीटींग करून भयंकर वाज येतालो. तेन्ना हांव विनोदी लेखन करून म्हज्याच मनाक 'ट्रॅजिक रिलिफ' दितालें. विनोदी लेखनान स्वत: लेखकाच्या मनावेलो आनी वाचप्यांच्या मनावेलो ताण पयसावता.

पूण विनोदी बरयतलें, म्हण कोणाक, किदें, बरोवं येता? तेखातीर तुमच्या मनाची रचना तंशी आसची पडटा. दै. नवप्रभेत फाटीं हांवें वर्सभर विनोदी कॉलम बरयलो. तेन्ना थंयचे उपसंपादक श्री. अनिल लाड, तें वाचून म्हाका सदांच फोन करताले आनी म्हणटाले, ''हें सगळें तूं कशें बरयता काय म्हणून?'' कारण सद्दां सदर बरोवपाक आनी तेंय विनोदी बरोवपाक मरणाचें, पासिंयेंस जाय. (ताचे पयलीं अनुभव जाय, तें वेगळेंच!) खूपदा हांव 'कॉमेडी' म्हण बरोवंक बसतालें, आनी मागीर म्हाकाच तें लेखन 'ट्रॅजेडी' कशें दिसतालें. जायते पावटी हांवें एका वेळार तीन तीन लेख बरयल्यात. पूण तातूंतल्यान म्हाका जाय तसो विनोद (म्हणजे वाचकांच्या मनांत परकाया प्रवेश करून, तांका तो कसो विनोदी दिसतलो हाचो विचार करून – अर्थात् ही सगळी कारागिरी बरोवप्याक करचीच पडटा. स्वर्गीय अनुभव बी म्हणटात तो, मनांत विचार येतात तेन्ना. बरयता तेन्ना तें मागीर 'दर्ज्या'बशेनच काम करचें पडटा. कपडो कातरून घेवप, गांठावप, शिलाई मारप, बटणां, काजां करप, निमाण शेवटाक फेर्र मारप बी) निर्माण जावूना म्हण ते लेख कुशीक दवरल्यात. (पिंजून बी उडयना. तसली चैन दादले लेखक बी करतात. हांव बायल मनीस. सगळें आखरेकाक दवरता. गरजेक केन्नाय भायर काडूंक) आनी मागीर 'रडत, रडत' विनोदी लेख बरोवन काडतां.

श्री. लाड विचारताले, ''तूं सद्दां एक विनोदी सिच्युएशन कशी सोदून काडटा?'' ताचेर म्हजें उत्तर अशें, की ती हांव सोदून काडिना. ती बाबडी तशीच, थंयच आसता. आमचो तिचेकडेन पळोवपाचो दृश्टिकोन

मात तसो म्हणजे वेगळो आसूंक जाय. हांवें बरयिल्ल्यो सगळ्यो घटना हांव ज्या पध्दतीन बरयता तशोच आसतात. म्हूर्त फातरा भितरूच लिपिल्ली आसता. शिल्पकार आपल्या कौशल्ल्यान ती कोरांतून काडटा आनी निमाणकडेन तिका त्या फातरातल्यान मुक्त करता.

सगळ्यो घटनाय अशोच आसतात. हांव म्हजे विनोदी लेखनांत फकत फोटोग्राफराचें कामच करता. शुध्द फोटोग्राफी. केन्ना केन्ना फोटोग्राफर फोटोसकयल कॅप्शन दिता, तशें हांव त्या सिच्युएशनाचेर म्हजी प्रतिक्रिया दिता. आनी हांव कोण? एक आंगान मोट्टें, सदांच त्रासांत पडिल्लें, दुयेंत पार्त, तकली चडशी चलना अशी अजागळ बायल मनीस. म्हज्या या अवगुणांक लागून हांव वचत थंय नखलामी करता आनी अशे तरेन आयुष्यभर त्रासांत पडत आयलां. तशो ह्यो एका अबर्गतीन बरयिल्ल्यो काणयो. 'म्हजी फजेत' हो तांचो मुख्य गाबो.

हांव परतूय सांगता, हांव विनोदी लेखन करना. हांव काल्पनिकूय बरयना. हांव फकत वस्तुस्थिती - अक्षर न् अक्षर बरयता. हांव त्या वेळाचें, त्या जाग्यांचें, त्या मनशांचे बारीक-सारीक तपशील बरोवन काडटा. ते शंभर टक्के खरे आसतात. आनी आमच्या समाजाक खरें तें पचोवपाची ताकद नासता. म्हण हांव जें कितें खरें बरयतां, तें तांका 'कॉमिक' कशी दिसता.

दूध खंय मात्शें उदक घालून पिवचें पडटा. ना जाल्यार तें पचपाक जड जाता खंय. भांगरूय शंभर टक्के (बावन्नकशी) खरें आसल्यार ताच्यो वस्ती घडोवंक मेळनात खंय. गोयांत तांतून इल्लें तांबे (हेर कडेन पितूळ बी) भरशी घालचें पडटा. भांगर जांतीं मोव, तांतून भरशी घालतकीर ताका घटवाय मेळटा आनी ताच्यो वस्ती करपाक आनी मागीर त्यो वापरूंक बऱ्यो पडटात. तशें हें आमचें जीवन. शंभर टक्के लोक खरे उलयले आनी नीतीन चल्ल्यार तें चलपाचें न्हय. लोक मात्शे 'भरशी' वागतात. (धर्मपरायण, सत्यवचनी युधिष्ठिरान पसून 'नरो वा कुंजरो वा' केल्लें) म्हण तें चलता. आनी हांव कितें करतां? खरें जीवन आनी 'भरशी' जीवन वेगळें दाखोवपाचो यत्न करतां.

इतलेंच!

ल्हान बाळां, शाळां-कॉलेजांतलीं भुरगीं, आदिवासी, जनावरां (थोडे कोले सोडात) हांचे जीवन निर्मळ पळोवंक मेळटा. म्हणून तांचेर केल्लें लिखाण एक वेगळो दृष्टिकोन दिता. म्हजे लेखनांत ह्यो चारूय गजाली येतात, मुद्दम पळयात.

म्हजी मावशी, पाड्डेची दामामावशी - गोरीपिट्ट, रूपवंत आनी आंगान मोट्टी. णववारी कापड न्हेसून, गळ्यांत मोटो, लांब मणी घालून, तांबड्याच पिंजरीचो कुकुम लावन हेवटेंतल्यान तेवटेन गेल्ली, काय मुळगांवची धाकली वनदेवता गेल्ल्याबशेन दिसताली. ती एक पावट रस्त्यावेल्यान पलतडी पाण्ट्यार गेल्ली. कमरार पिवपाच्या उदकाची घागर घेवन. बसीतल्यान कंडक्टरान तिका उद्देशून व्हडल्यान आड्डून म्हळें, "ह्या बायलेची कितलीं फळीं पडटलीं?"

तें आयकून म्हजे मावशेक राग आयलोना. उलट हांसूंक आयलें. येतल्यावतल्याक तिने निष्पापपणान आपली ही खबर सांगली. लोकांक सांगतना आपूण भरपूर हांसूनय बी घेतलें. म्हजी ही बायजी उर्फ दामामावशी खूप विनोदी स्वभावाची आसली. ती मोटी आसली, खा खा खाताली (चड करून चेकऱ्यो. लातां भरून आमकांय धाडटाली. खावपाक दितना एकदम चार-पांच दिताली. ह्यो येद्दूयो मोट्ट्यो चेकऱ्यो. चेकऱ्यो न्हय चक्रां.) आनी दिसभर हांस हांस हांसताली. (केन्ना केन्ना तिका भयंकर रागूय येतालो आनी मागीर कुशावती न्हंयेक पावस नासतना हुंवार हाडटाली.) पाड्ड्यां सुटयेंत वतकीर ती म्हाका गांवांतल्या लोकांच्यो, भुरग्या बाळांच्यो, सोयऱ्यांच्यो आनी स्वत:च्यो 'खाशेल्यो' खबरी सांगून मनरिजवण करताली. शिगम्याच्या नाटकांतलीं सवंगा पसून म्हजेमुखार उबी करी. इतलेंच न्हय तर किरिस्तांवां वेस्टर्न डान्स कशीं करतात तें दाखोवपाखातीर स्वत: नाचून दाखयताली. तिच्या ह्या सगळ्या एकूण व्यक्तिमत्वाची छाप म्हजे जीणेचेर पडल्या. आज ती गेल्यार पंचवीस वर्सां जालीं. हें पुस्तकपसून हांवें तिच्याच यादीक ओपपाचें थरयलां. ती जर जिती आशिल्ली जाल्यार खोशी जावपाची. सदांच आपलेचेर बरय म्हणटाली. पूण हांव तेन्ना नवोदित लेखक.

तिचेर आनी किदें बरयतलें अशें म्हाका दिसतालें.

म्हजो मुंबयचो मावशेभाव स्व. गजानन झांटये. तोय खूप विनोदी स्वभावाचो आसलो. तो म्हज्याच वयाचो. पूण धा वर्सां पयलीं अचकित भायर पडलो. आपल्या मायेस्त स्वभावाक लागून वयर वतना सगळ्यांच्या काळजाक घाय करून गेलो.

आनी तशेंच म्हजो आनी एक मावशेभाव, सगळ्यांत व्हडलो (जो म्हज्या आवयच्या वयाचो) स्व. भालचंद्र म्हांबरे (नार्वे) तोय खूप विनोदी स्वभावाचो आसलो. तो मडगंवा आमगेर येतकीर वाटेवयल्यो गजाली सांगून आमकां हांस हांस हांसयतालो. हांसून हांसून मागीर आमचे मुड्डे पडटाले.

मनशाक निर्भेळ आनंद दिवपाची ही विनोदाची अद्वितीय ताकद ह्या म्हज्या सोयऱ्यांक लागून म्हाका तेन्नाच समजिल्ली.

हांव नार्व्यां सुटयेंत मावशेगेर रावपाक वतालें. आमी भुरगीं तेन्ना तांचे घराफाटल्या वझऱ्यार न्हावंक वतालीं. थंय कुळागरांत एक वझरो दोंगुल्लेवयल्यान येतालें. सकयल एक पाषाणी कोंडी आसली. ताका तीं ‘डब’ म्हणटालीं. म्हाका न्हावंक वच म्हळें, कांय हांवे म्हणप, “डबांतलें उदक आजून हून जावूना”. मागीर ह्या आबान म्हणप, “आगो, कुळागरातल्यो दोन पोयो-पिसुंद्रयो घाल डबापोंदा, मागीर जातलें उदक हून.” मागीर भुरग्यांच्यो हांसून हांसून गुठल्यो पडटाल्यो.

तशेंच म्हजो पाड्डेचे मावशेचो धाकलो चलो, जो म्हजेपरस सात म्हयन्यांनी ल्हान. (आई दीसभर म्हज्या पन्नास (खऱ्यांनीच) मामे-मावशे भावंडांची अशे तरेन वयां सांगता. म्हण म्हाका तीं पाठ जाल्यांत.) स्व. विनायक हो पसून अशाच खेळकर स्वभावाचो. विनोदप्रिय व्यक्तिमत्व.

एक दीस घरांत हांव मोटें जाला, हाचेर विधायक चर्चा चलताली. हो मर्दीच म्हणूंक लागलो, “हें सुमी करता किदें घरांत? आनी भायर हातपाय तरी हालयता? दिसभर मुडी कशी राष्ट्रमतान बसता. सुश्शेग गाडयेतल्यान येता आनी सुश्शेग गाडयेतल्यान वता. मोटें जावचे ना जाल्यार आनी किदें जातलें?”

ह्या म्हज्या अपुर्बायेच्या मावशेभावाचो गेल्या वर्सा मधुमेहासारख्या

दुष्ट व्याधीन दुःखद अंत जालो.

म्हाका विनोदी लेखनाची प्रेरणा दिवपी मावशी आनी हे तीग मावशेभाव, वयर देवाक हांसोवपाखातीर वयाच्या अदूर्या पिरायेचेरूच गेले.

तांची सगळ्यांची आयज हांव हांगा याद करता...

बायलांक तकल्यो फकत फुलां माळपाखातीर आसतात, अशें कांय दादले म्हणटात. म्हाकाय माथ्यांत फुलां माळूंक खूप आवडटात. पूण हांवें केंस कातरिल्ल्यान तें शक्य ना. पूण दिसपट्ट्यो फुलांच्यो फातयो आनी पोड वा पटयो विकत्यो घेवन ़हांव तांचेसयत वावुरता. केन्ना केन्ना हांव फांतयो विकत्यो हाडटा वा कोणूय म्हाका सवायशीण म्हणून त्यो मुद्‌दम दितात. (चड करून म्हजो अपुर्बायेचो मेव्हणो श्री. दामोदर उर्फ महेंद्र भाटकार) मागीर ती फांती म्हऱ्यांत दवरून तिका पळयत हांव न्हिदता. (फुलांची फांती म्हणजे आमच्या परंपरेचें एक दायज कशें.) दुसरे दिसा ती फांती कागदांत गुठलावन कॉलेजींत घेवन वता. थंय म्हजे मेजार ती फांती दवरता. फ्री लेक्चराक तिका पळयत चिंतन करता. दनपरां दोनांक घरा येतना परत ती गुठलावन हाडटा. परत घराकडल्या स्टडीटेबलार दवरता. अशें करून हांव सदांच दीसभर त्या फातयेचो आनंद (वा आनंदाची फाती) मेळोवपाचो यत्न करता.

एक दीस मजा जाली. (असल्यो मजा म्हज्या बाबतींत सदांच घडटात.) भयणीच्या घोवाल्या आजोळा गेल्लें. धाकण्यां. थंय तांगेर स्वामी आयिल्लो. स्वाम्याभेटेक महेंद्रान आमकां व्हेल्लें. पाद्यपूजा जातकीर आमी पांयां पडूंक गेल्लीं. स्वामी भक्त-बायलांक प्रसाद म्हणून फुलां फांती दिताले. आनी दादल्यांक वा भुरग्यांक फळां. हांव पांयां पडलें. म्हाका आशा फांतयेची. जाल्यार म्हजे हातार एक मोट्टें सफरचंद. म्हजो मूड ऑफ. स्वामी व्यवहारी. ही बायल (काय भूत?) फाती बिती माळीत काय ना? वगीच फुकट किद्याक वचू दी? अनुग्रह म्हणून हिका फळच दिवूया. अशे तांचे भितरल्या मॅनेजमेंटाच्या गुरून चिंतलें जांवये. म्हाका वायट दिसलें. हांवें तें

भयणीक सांगलें, तें तापलें. म्हाका म्हणूंक लागलें, "तुवें केंस किद्याक कातरल्यात? तुका त्या फातयेचो उपेग किदें? म्हूण तुका फाती दिवू ना. तुज्या गिळाक सफरचंद दिलां. तें खा आनी बस ओगी." हांवूय भयणीचें सेरमांव आयकून वगीच बसलें. स्वाम्यान हाका स्पोक्समॅन म्हणून नोमियार केलां दिसता...

ताचेंय खरें, म्हाका फातयो जाय आनी केंसूय वळोवंक नाकात. मागीर दोनूय कशें एकाच वेळार जमतलें? म्हणचे म्हाका सांगचे आशिल्लें, कांय बायलो आपल्यो तकल्यो फकत फुलां माळपाखातीर वापरनात. (त्यो दुसऱ्यांक फुलां माळटात.)

ह्या पुस्तकांतलो 'गोविंद' म्हणचे हरी. तो आमचो सगळ्यांचो खूप खूप अपुर्बायेचो आसलो. हॉस्टेलातली नोकरी सोंपतकीर प्रिन्सिपलान खंय ताका आपल्या सोयऱ्यांगेर कुळागरांत वावुरपाची चाकरी दिल्ली. पूण भुरग्यांच्या संवसारांत आनी कॉलेजाच्या वातावरणांत रमिल्लो हरी कुळागरांतल्या वांगडी मानायांत, गावड्यांत रमलो ना. तो परत आपले घरा-दोड्यामार्गार गेलो. मागीर रोखडोच तो भायर पडलो. म्हाका हरीची केन्ना केन्ना खूप याद येता. हरी आशिल्लो जाल्यार हांव ताका आमच्या पार्शेच्या खाशे देसायांच्या वाड्यांत कामांक दवरपाचें. पूण म्हणटात न्हय, दांत आसत जाल्यार चणे नात....

ह्या पुस्तकांतलो म्हज्या भयणीचो चलो आयज अकरा वर्सांचो घोडो जाला. ताची तीन वर्सां पयलीं मुंजूय जाल्या. पूण आडांगीपणा उणी जावूंक ना. तीच मस्ती, तोच राग, तीच धुमशेणां. देवा, केन्ना हीं भुरगीं व्हड जातलीं आनी सुदारतलीं? इतलें मात खरें, हांच्यो अपुर्बायो चड जाल्यात. आवय बापायच्यो आनी ताई मावशेच्यो...

ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरोवपी म्हजो साहित्यिक इश्ट भौ. मुकेश थळी, चित्रकार श्री. कलानंद कामत बांबोळकार, मुद्रण करून दिवपी सौ. ज्योती गांवकार आनी निवलकांडयेच्या बोंडांचो अप्रतिम सुंदर फोटो दिवपी

श्री. सखाराम बोरकार, भितरलीं चित्रां काडपी श्री. किशोर गांवकर ह्या सगळ्यांचें हांव उपकार मानता.

म्हजो अकरावीतलो विद्यार्थी कु. प्रेम शिरोडकर तशेंच जांकां हांव म्हजीं भुरगीं मानता तीं म्हजीं भाचरां कु. वेद, राणी आनी शमीक हांणी सुरवेचीं चित्रां काडल्या बद्‌दल हांव तांची अपुरबाय करता.

हीं म्हजीं भुरगीं बेगीन व्हड जावंची आनी तांणी स्वर्गीय रमाकांत नारायण पार्सेकर (मांद्रे) ह्या चित्रकार आशिल्ल्या मामा आजोबाचें दायज फुडें चलोवंचें अशें हांव देवाकडेन मागतां.

म्हजे लेखनाक दाद दिवपी आनी वेळोवेळार म्हाका फोन करून ती कळोवपी म्हज्या असंख्य वाचकांच्या रिणांत रावप हांव पसंत करता आनी तुमकां सगळ्यांक देव बरें करूं म्हणटा.

आनी निमाणेकडेन हांव इतलेंच म्हणंनः

‘न त्वहं कामये राज्यं
न स्वर्गं ना पुनर्भवम् ।
कामये दुःख तप्तानां,
प्राणिनामार्तिनाशनम् ।।

– हांव स्वर्गाची इत्सा धरना. हांव राज्याचीय धरना. हांव मोक्षूय मागना. फकत दुःखांन विथविथिल्ल्या जीवांच्यो व्यथा पयस जांवच्यो, इतलेंच मागणे करता.

दि. 23/5/12

**सौ. सुमेधा कामत–देसाय**
जी–2, ‘पंखराज’, टोंक
करंजाळे, तिसवाडी, गोंय 403 002
फोन क्र. 0832-2461213



- जिणे म्हज्या भुरगेपणासावन म्हजे मनांत 'विनोद' ह्या गजालीचें बीं रोयलें,

त्या म्हज्या अपुर्बायेच्या मावशेक.... अर्पण...

स्व. दमयंती (बायजी) उर्फ उषा पुंडलीक धोंड (डिचोली/पारोडे-केपें)

– सुमेधा



# लक्तुबाय

साहित्यिक म्हूण सुमेधाबाय म्हजेपरस पिरायेन व्हड आनी साहित्यिक कारकिर्दींतूय वडील. अशे लेखक आपणा परसूय ल्हानांक आपल्या पुस्तकाक चार उतरां बरय म्हूण सांगतात तेन्ना खरें म्हणजे विश्वासूच बसना. ल्हानांकडल्यानूय आयकुपाची वृत्ती आपणावपी सुमेधाबाय आनीकूय व्हड जाता तें ह्याय आनीक एका मनीसपणाच्या आनी नमळायेच्या गुणाक लागून.

गोंयात ललित गद्य बरोवपी तशे साप थोडे. सातत्य राखून नेमान बरोवपी तातूंतय उणे. ·कसदार बरोवपी तातूंत सामकेच चिमटीभर. सुमेधाबायची गणना ह्या चिमटीभर ललित लेखकां भितर जाता. 'निवलकाणयेचीं बोंडां' हो सुमेधाबायचो ललित लेखांचो झेलो वाचतना हे लेखिकेचें मनशांवयलें प्रेम आनी जीवनांत मेकळेपणान भरसून निखळ आनंद घेवपाची कला पळोवन अजाप दिसलें. लेखिकेचें निरीक्षण बारीक आनी सुक्षीम. कसल्याच गजालींचो पातसो तांकां ना. सगळ्या ल्हानसान गजालींविशीं कुतूहल, जिज्ञासा आनी उपजत उमळशीक. स्वता जिणेचो उत्स्फूर्त, रसमय आनंद घेवपी ही लेखिका वाचप्यांकूय रसिकपणाची ही नदर आपसूक दिता. तांची कथनशैली प्रवाही. पिंडूच मुदलांत विनोदी आशिल्ल्यान अदींमदीं कथनांत हे कॉमीक फवारे सहजपणान निवेदनाचे सेंद्रीय घटक जावन येतात. सुमेधाबाय मिस्कीलपणान आपल्या पारशेंच्या गडगंज व्हडल्या घरांतल्या वोल्तेरांत लवंडून आपणाक खबरी सांगना मूं अशेंच वाचप्याक दिसता.

प्रसंग आनी घटना वर्णन करपाची सुमेधाबायची धाटणी रसरशीत आनी जितीजिवी तट्टटीत. इतली की वाचप्यांच्या दोळ्यां मुखार तो देखाव हुबेहूब दिसता. पात्रांच्या भाशेंतले आसात तशे सुवादीक संवाद हांची जोड मेळिल्ल्यान तांचें हें वर्णन आनी निवेदन आनीकूय प्रभावी आनी पकदस्त जाता.

ह्या निबंद झेल्यांत तेरा निबंद आसात. 'अल्लाउद्दिनाचो राक्षस' हें

व्यक्तिचित्रण तातूंत आसपावता. चलयांच्या हॉस्टेलांतल्या मेसांत काम करपी हो प्यून. निशपाप मनाचो सादो मनीस. कॉलेजांत शिकोवपी आनी हॉस्टेलांत रावपी लेखिकेन खूब बारीकसाणेन हरीसारकिल्या निशपाप सरळ मनशाच्या अंतरंगांत वचून ताचीं सुखदुख्खां समजून घेवपाचो यत्न केला. अकस्मात हॉस्टेल बंद जातकच लेखिकेक निरोप दिनासतना हरी बिटकी कवळटा. कारण आपणाक खूब वायट दिसतलें म्हूण हरी सांगनासतना गेलो हें लेखिकेन इतल्या नकसूद उतरांनी सांगलां की वाचप्याच्या काळजांत चर्र जाता.

ह्या व्यक्तिचित्रांतलें हें वाक्य पळेयात. 'वाऱ्याचें एक ल्हार आयलें आनी ताणें दर्याची कितलीशीच उचांबळ म्हज्या मनांत हाडून रकयली.' अदीमदीं अशीं काव्यमय प्रतिकां, उपमा आनी प्रतिमांनी भरिल्ली भास लेखिका समर्थपणान वापरता. 'पिसोळ्यांचें जग' ह्या निबंदाचो माथाळोच काव्यमय. भुरग्यांक शिकयतना, तांचीं सुखदुख्खां समजून घेतना, तांचेकडेन नातें जडटकच प्रेमाचें आदान-प्रदान करतना जे अणभव आयले ते लेखिकेन ह्या निबंदांत मांडल्यात.

लेखिकेक सैमाची आनी वनस्पतीची भोव ओड. 'एका आंब्यारूखाचें महानिर्वाण' हातूंत आंब्याचो रूख पडटकच घडिल्ले सगळे प्रसंग लेखिका सांगता. तातूंत विनोदी वातावरण आसाच. पूण एक झाड पर्यावरणांतल्यान पयस जालें ताचें दुख्ख आनी एक वेगळो बोध लेखिका सूचक रूपांत दिता. हें वाक्य पळेयात. 'एका म्हापुरसाचें तें अतिशय प्रशांत निर्वाण आसलें.' सुमेधाबायचो संस्कृत भाशेचो अभ्यास आशिल्ल्यान तांचे भाशेक अशें एक वजनदार आयामाचें तेज येता. असले भाशेची प्रचिती ठांयठांय येता. ह्या लेखांतलें आनीक एक वाक्य. आई म्हणटा, "जागरूक मनशान केन्नाच, कसल्याच अनवळखी आवाजाकडेन दुर्लक्ष करचें न्हय." जाणट्या मनशांचें अणभवान भरिल्लें परिपक्क शाणेपण आपणायल्यार ताचो उजवाड जिणेंत मार्गदर्शन करपी आनी लावथारक थारूं येता असो विचार हातूंत आसा.

'चवथ आनी रांदपी' तशेंच 'रांदपी दोन : प्रोजेक्ट एक' ह्या निबंदांनी

पारशेंच्या रासवळ घरांत चवथीवेळार रांदपी आनी रांदपिणींवरवीं जी मजा, हाल आनी करमणूक जाता ती लेखिकेन विनोदी शैलीन पितारल्या. कुटुंबीक घटक म्हूण लेखिका, रांदपा आयोजनाचे हे टिमींत समरसून गेल्ली दिसता. पेडणेच्या भाशेंतले संवादूय ह्या निबंदांनी दिसतात.

देखीक हें वाक्य. "भोसडीच्या, ह्यां काय तुजां मडां रांदलां?" 'हुंदराची करामत' ह्या विनोदी लेखांत हुंदरांनी आनी माकडांनी केल्ले उपद्रव आनी केल्लीं नांवरूपां पितारल्यांत. लेखिकेची कोंकणी एकेकदां आकांताची ताकद दाखयता. देखीक हें वाक्य – 'माकडांची फौज आयली... हीं सगळीं पोरां एकाच फोवाचीं दिसतात.' पोरां एकाच फोवाचीं हें वाक्य सशक्त परिणाम सादता.

निबंदांनी सांस्कृतिक संदर्भ येतातूच. पानिपताच्या पराभवा उपरांत सदाशिवरावभाऊच्या बायलेची देख, राजा शुध्दोधन अशी जायती विविध इतिहासीक संदर्भ संपन्नताय हें लेखिकेच्या भाशीक सौश्ठवाचें एक खाशेलपण. विनोदी, काव्यमय, प्रवाही कथनांतल्या लालित्यांत दिसपी उठावदार लावण्य हें आनीक एक वैशिश्ट्य!

'लेखकाच्या तळव्यार वर्ड आसता आनी तातूंतल्यान तो वर्ल्ड निर्मिता', अशें नोबेल पुरस्कार मेळोवपी साहित्यिक पामूक म्हणटा. ललित लेखन बरोवप सोपें न्हय. फिक्शना परसूय कठीण काम हें, अशें नामनेचे नाटककार महेश एलकुंचवार हाणी स्वानुभवा वयल्यान बरयलां. कारण ललित लेखनांत लेखक स्वता एकलोच पेंवत आसता, त्या वेळार कसलीय मस्ती केल्यार तो बुडूंक शकता अशें ताणी एकेकडेन म्हळां. शब्दबंबाळ फवारे, कल्पनाविलासाचीं अणभवाक प्रामाणीक रावनासतना केल्लीं नाडेपेन्नां असली मस्ती तांकां अभिप्रेत आसूंये.

नाटक वा कथा बरयतना तातूंतले कसलेय गजालीचें समर्थन करतना तें म्हणणें म्हजें न्हय, म्हजें पात्र तशें मत मांडटा अशो कायलोळ्यो करूंक मेळटात. ललित लेखनांत साहित्यिक स्वता थेट प्रतिबिंबीत जाल्लो आसता. ललित लेखनाक आत्मकथनात्मक असो बाज आसता.

कन्नड कथेचे जनक मास्ती वेंकटेश अय्यंगार – 'श्रीनिवास' हाणी १९८५ त ज्ञानपीठ पुरस्कार घेतना आपल्या उलोवपांत सांगिल्ली एक गजाल याद जाता. 'लेखक जेन्ना आपूण कितले उंचायेर पावलो हें येवजिता तेन्ना ताचो विकास थांबता.' लेखकाचे भूमिके आदीं तो आदीं बरो सुंदर मनीस आसप भोव गरजेचें, हें म्हजें लेखक म्हूण जगण्याचें ब्रीद अशें हांव मानतां. सुमेधाबायक ह्या गुणांची, मूल्यांची आनी गजालींची खोल जाण आसा म्हणूनच आपणा परसूय ल्हान अशा लेखकाक तांणी हीं दोन उतरां बरोवपाचो आग्रो केलो हेंवूय हांव नेणा अशें न्हय. पांय जमनीर आसतकच तकलेक केन्नाच मारिना. आनी तेन्नाच मनीसपणाची उपासना आनी साहित्याची साधना हीं दोनूय रोदां विलक्षण गतीन धांवंक लागतात.

आनीकूय गोड, कसदार आनी गुणांनी भरिल्ली उपाट साहित्यनिर्मिती सुमेधाबायचे लिखणेंतल्यान घडूं हे आंवडे आनी प्रार्थना!

– मुकेश थळी



# अनुक्रमणिका



1.

# कुलप आनी चावी

हांव आदीम काळांतल्या मनशाभशेन चावी-कुलप सांबाळपाक केन्नाच नकळो आसलें. कॉलेजाच्या हॉस्टेलांत रावून आयलें. आनी दाराक बारीकसाणीन कुलप लावपाक, तशेंच कॉलेजांत वतना-येतना चावी सांबाळून हाडपाक शिकलें. पूण केन्ना केन्ना चावी शेणूंक लागली आनी म्हजेकडली दुसरी चावी पयलींच शेणिल्ल्यान दिसपट्टें कुलपाचें बलिदान

जावंक लागलें. आमच्या हॉस्टेलांतल्यो हेर चलयोयबी म्हजेच भाशेन तकली विरार जाल्ल्यो! म्हजी एक तकली, कामाच्या व्यापान करंजेवन गेल्या अशें धरूंया. ह्या पोरांची तकली कशी थीर उरना, कोणाक खबर! म्हणटकीर म्हजेच भाशेन तांच्या कुलपांचो दिसपट्टो खून जायी. आमच्या हॉस्टेलाच्या गर्ल्स मेसांत गोविंद नांवाचो एक घसघशीत कामदार आसलो. ताचें हरशिलें काम गर्ल्स मेस निवळ दवरप, जेवणाचीं आयदनां हाडप, आयदनां घांसप, दनपरां चार वरां सुशेगाद न्हिदप, सांजवेळा आसनमांडी घालून चित्रहार पळोवप (हांव केन्नाय चुकून थंय पावल्यार तो म्हाका पूजा भट, मनिषा कोयराला हांचें 'संदर्भासयत स्पश्टीकरण' करतालो). तीनसांज जातकीर भुकेल्ल्या चलयांक मिरामारचे वेळेवयल्या गाड्यार मेळपी भेळ डब्यांत घालून हाडप (भेळ हाडपाक हॉस्टेल ते मिरामार मेरेन तीनशेंसाठ पावटी मारप) इत्यादी इत्यादी. ह्या कामांबरोबरच आनीक एका कामांत गोविंद वस्ताद आसलो, तें म्हळ्यार चावयो शेणयल्लीं कुलपां फोडपाच्या. एकाद्री चली चावी शेणली म्हणटकीर कासावीस जावन चावी सोदीत रावी. कशी कोण जाणा ही खबर, मेल्ल्या मड्याक संवकल्ल्या गिदाभाशेन गोविंदाक रोखडीच लागताली. गर्ल्स मॅसांतल्यान तो चावी मेळता काय ना हाची एक सारखी सुलूस घेत रावी. 'चावी शेणलीच' ही आनंदवार्ता ताका मेळली, की मोटे उमेदीन तो एक खाशेलो फातर घेवन येतालो. हो फातर ताणें गर्ल्स मेसांत मोटे जतनायेन दवरिल्लो. फकत चलयांचीं कुलपां फोडपाक. (बॉयज हॉस्टेलांतल्या चल्यांच्यो चावयो शेणनासल्यो काय? एक तर थंय डुप्लिकेट गोविंद आसत. नाजाल्यार चले रूमाक कुलप लायिनासतनाच भोंवताले जांवये. नाय जाल्यार चावी शेणल्यार ते व्हारांदांतच न्हिदून दीस काडटले आसले.) विजयी मुद्रेन गोविंद फातोर घेवन वयर येतालो. सगळ्यो चलयो ग्रीक नाटकांतल्या हिरोची पळोवची तशी ताची वाट पळयत रावताल्यो. गोविंद ग्रीक हिरोभाशेन सगळ्यांक धुकलून, चलयांचें कंवडाळें फोडून कुलपाकडेन वतालो. आनी तें कुलप म्हळ्यार ताचो साता जल्माचो दुस्मान आशिल्ले भाशेन घण्ण करून तो 'सुप्रसिध्द' फातोर ताच्या हड्ड्यार

घालतालो, खिणाभितर कुलप ग्रीक ट्रेजेडींतल्या दुस्मानाभाशेन सकयल घायाळ जावन पडटालें. मागीर गोविंदाक कितेंय झडोवप.... (ही तातूंतली सगळ्यांत म्हत्वाची गजाल. गोविंद खुशाल जावन फातोर मोटे उमेदीन बरोबर घेवन परत गर्ल्स मेसांत वतालो आनी एखाद्रयान परीस सांबाळून दवरचो तसो तो सांबाळून दवरतालो. (खरें म्हळ्यार गोविंदाच्या कोंतान तो फातोर म्हळ्यार परिसूच. कारण हो परिसूच ताका सप्तकांतल्यान एक पावट 'शिणेमा' पळोवंक आदार करतालो) वता आसतना म्हणटालो, "टीचर, केंवा तुमची किल्ली साणात जाल्यार म्हाकाच सांगात आं." "पाडपडिल्लो म्हजी चावी शेणूं म्हण मागता...... शुभ बोल रे नाऱ्या, तर माटवाला लागली आग खंय... काय बरें म्हजें गोदरेजचें घसघशीत कुलप आनी हो हांव दोन रूपया झडयतलें म्हण ताचें मरण मागता!"

आनी त्या दिसा हांवें खऱ्यांनीच चावी शेणयली. चावी शेणयली म्हणजे कितें केलें तें म्हाका याद जायना जालें. त्या दिसा हांवें दाराक कुलप लायिल्लें तें दामपाचें कुलप. हांवें चावी भितर दवरून कुलप दामलें काय? हय. खऱ्यानीच. आतां याद जाली. आठाच्या लेक्चराक ताकतिकेन भायर सरतालें, तेन्ना हांवें दाराकुशीक आशिल्ल्या मेजार चावी दवरली आनी गडबडींत दार ओडून घेवन कुलप दामलें. आतां कितें करपाचें? गोविंदाकडेन हे बाबतींत आदार मागपाची माणसुकी ना. हो सोमतोच तो गर्ल्स मेसांतलो कुलप-घातकी फातोरच घेवन वयर येतलो. म्हण्टकीर हांवें म्हजे माळयेवयल्या चलयांक ही खबर सांगली. "अशें अशें जालां. कितें करूं येता?" वण्टीक बाल्कनीवटेन एक जनेल आसा. पूण जनेलाक ग्रील्स आसात. तातूंतल्यान कांय भितर वचूंक येना. मागीर हांवें एक कदेल हाडलें आनी जनेलाकडेन दवरलें. कदेलार चडलें आनी हात भितर घालो. जितलो हात भितर वता तितली गळ्याक ग्रिल्साचीं खेंच लागता. गळो ग्रिल्सांक घांसूंक लागलो. आनी काशीनगरींतल्या ब्रह्मराक्षसाच्या हाताभाशेन म्हजो हात पयस वचत चावयेच्या घोंसाकडेन अदमासान पावता, म्हळ्यार

बोटांच्या स्पर्शान घोंस मेजावयल्यान सकयल पडलो. रामा शिवा गोविंदा! गोविंद? परतोय 'गोविंद'? नाका सायबा त्या देंवचाराचें नांव. (म्हजें काय बरें गोदरेजचें कुलप) एक खरें, चावयो भितर आसात आनी त्यो म्हज्या बोटांच्या स्पर्शान मेजासकयल पडल्यात. पूण त्यो दिस्त खंय पडल्यात म्हण कशो कळपाच्यो? आनी कळल्योय जाल्यार काडपाच्यो कशो?

मागीर हांवें एक आयडिया केली. एक सवळ्याबडी हाडली, तिच्या पोंताक एका स्टुडंटाचो ल्हान हारसो बांदलो आनी ती बडी ग्रिल्सांतल्यान भितर घाली. आनी जमनीर बडी घुंवडावन चावयो नेमक्यो खंय आसात हाचो अदमास घेतलो. चावयो हारशांत दिश्टी पडटकीच म्हाका आनी स्टुडंटांक इतलो आनंद जालो की तितलो आनंद अल्लाउद्दीन खिलजीक पद्मिनीक हारशांत पळयलें तेन्नापसून जांवंक नासलो. आतां ते पद्मिनीक सुंदर कित्याक म्हणटाले कोणाक खबर! म्हज्यो कांय थंयच्यो इश्टिणी आसात, त्यो दादलो कशो ठाक् ठाक् करीत चलतात. सॉनिया साडी न्हेसून खुंटो कशी चलता तशी. त्यो दादल्या भशेन वॉर वॉर करून कर्कश उलयतात आनी दादल्यांभाशेन तोंडकोसो दिसतात. म्हण्टकीर पद्मिनीच्या सौंदर्याचे चर्चेबद्दल म्हाका दुबाव मारता. मोनालिसा सगळ्या जगाक सुंदर दिसता. तिका पळोवन म्हज्या पोटांत घांस मारता, तकली उसळटा. कोणाक तरी तिचें हांशें ॲनिमिक दिसलें तर पयर कोणाक दांत पडिल्ले म्हातारेचें हांशें कशें दिसलें खंय. हांव तांचेकडेन सहमत आसां.

म्हजो एक थंयचो मित्र जाल्यार उकडिल्ल्या तांतयाभशेन दिसता. तो एक पावट गोंयांत आयिल्लो तेन्ना म्हाका म्हणूंक लागलो, ''आपल्याक दिसलें तूं गोंयांत एकलेंच 'सुंदर' (?) म्हणून. पूण तुमच्या टी.व्ही. वेल्यो एकापरस एक 'सौंदर्यसम्राज्ञी' पळयल्यो आनी मागीर म्हाका गोंयांतले सगळेच लोक 'सुंदर' आसात हाची खात्री पटली. खरें म्हळ्यार ताका आमचीं अशीं फकाणां करपाक लज दिसपाक जाय आसली. आपूण मात उकडिल्लें तांती आनी दुसरें म्हळ्यार राजा रविवर्मान आपल्या चित्राच्या नायिका त्या वेळार मुंबयंत आशिल्ले एके गोंयकार कलावंतिणीवेल्यान

रेखाटिल्ल्यो अशें म्हणटात. राजा रविवर्माक जिच्या लावण्यान भूल घाली ती खऱ्यानीच सौंदर्यवती आसूंक जाय. उकडिल्ल्या तांतयांनी फकत पद्मिनीच्यो खबरी करपाच्यो ?

बडयेक हुमकळायिल्ल्या हारशांत मेजापोंदा पडिल्लो चावयांचो घोंस काय बरो दिसतालो. पूण ताका पळोवन धर्तरेर आशिल्ल्या मनशांनी मळबांत फुलिल्लीं नक्षत्रां तोडून हाडपाचो हावेस धरचो अशेंशें म्हाका दिसूंक लागलें. पांच-पंचवीस चलयो म्हाका धुकलून, म्हजेच बरोबर एका कदेलार चडून तकली जनेलाच्या ग्रिल्सांत· घालून चावयांचें 'देवदर्शन' घेताल्यो. (मिरामारच्या मारूतीक पसून नसाय दिसपाची! दिसपट्टे कॉलेजांतल्यो चलयो थंय नमस्कार करून आनी शेनवारा लेक्चराक बंक मारून ताका भोंवताडे मारतात. तें पळोवन म्हाका हालीं हालीं मारूती लजेतासो दिसूंक लागला.)

आतां ह्यो देवदुर्लभ चावयो बंद रूमांतल्यान काडच्यो कशो ? मागीर हांवें आनीक एक हिकमत केली. एके चलयेकडल्यान हँगर (म्हजी जंगम आनी स्थावर मालमत्ता रूमाभितर आसली म्हणून) मागून घेतलो. (उशणो आं ? नाजाल्यार तीं आनी सोडटात ? सोमतें लेक्चर घेता आसतना क्लासरूमांत येवन हँगर मागतलीं!) तो सोडयलो आनी ताची लांब सरी कशी केली. पोताक हूक कसो केलो. हँगराची सरी दारापोंदचे खांचींतल्यान जमनीर साश्टांग नमस्कार घालून (अर्थात् हो सगलो कार्यक्रम स्टुडंटांमुखारूच) भितर घाली. तेन्ना मुयांची एक रांक खांचींतल्यान भितर वताली आनी दुसरी भायर येताली. म्हाका तांची नसाय जाली. हांवें तांच्या येवपा-वचपाचे वाटेरूच साश्टांग नमस्कार घाल्ल्यान तांचो रस्तो बंद जाल्लो आनी त्यो वाट बदलून म्हणजे म्हज्या अतिविशाल देहाक भोंवताडो मारून वचूंक लागल्यो. एका स्टुडंटाक हांवें कदेलार चडून जनेलांतल्यान बडी घुंवडावन हारशांत पळोवन मार्गदर्शन करपाक सांगलें आनी हांव हांगा चावयो गरयतां. तो म्हणसर गोविंद चार-पांच पावटी मारून गेल्लो. चलयो म्हणटाल्यो येदोळचे

पावटी ताणें फातोरूयबी हाडिल्लो म्हण. (अवचित्र पोर. म्हजें कुलप फोडपाकूच पेटला?) निमाणेकडेन चावयो हँगराच्या हुकाक गवसून भायर आयल्यो. (गोविंद मात आठ दीस म्हजेकडेन तिडकीन पळयतालो.) ह्या गोविंदाचो सोद आयजमेरेन चोरांचे एकाद्रे टोळयेक कसो लागलोना हांचें मात म्हाका अजाप दिसं.

त्या दिसा हांव भायर सरिल्लें. पयलीं विवेकानंद सोसायटीच्या हॉलांत भाशण आयकलें. मागीर लायब्ररींत गेलें. तिनसांज जातकीर आख्खो बाजार हेडून मिरामार आयलें. अंकलाच्या पसऱ्यार वचून दुदापोती घेतली आनी हॉस्टेलांत परत आयलें. पळय जाल्यार रूमाचें दार उकतें आसा. भयणीन आपलेकडेन आशिल्ले डुप्लिकेट चावयेन रूम उगडिल्लो. हांवें म्हजी पर्स शेंवटिली. सामान मेजार मोखलें आनी कामाक लागलें. (आई म्हणटा, काम करपाचें नाटक करपाक लागलें.) दुसऱ्या दिसा सकाळीं फुडें उठून कॉलेजांत गेलें. लॉकर उकतो करपाक पर्सींत चावयेखातीर हात घाला जाल्यार, चावयां घोंस ना. रूमाची चावी, लॉकराची चावी एकठांय आसल्यो. म्हाका कच्च जालें. म्हज्या कुलपाचें एक पाड पडूं. पूण कॉलेजाच्या लॉकराचें कितें? एक डुप्लिकेट चावी ऑफिसांत आसता खरी. पूण खंयच्या तोंडान हांव सांगूं, म्हजी लॉकराची चावी हांवेंच शेणयल्या म्हणून? सगळे कडेन शीं! थू! म्हजेर ब्रह्मांड कोसळ्ळें. काल हांव विवेकानंद सोसायटीच्या हॉलांत गुल्ल जावन भाशण आयकतालें, तेन्ना पर्सींतल्यान लेंस काडटना थंय पडली काय? लायब्ररींत कार्ड दितना पडली काय? काय अंकलाकडेन दुदापोती घेतना?

हांवें कॉलेजांतल्यान कॅज्युअल मागून घेतली आनी सकाळीं आठांकूच भायर सरलें. हॉलांत गेलें. क्लार्काकडल्यान हॉल उकतो करून घेवन कदेलापोंदा, कार्पेटापोंदा पळयलें. (एकदां हांवें थंय सत्री शेणयल्ली आनी थंयच्या क्लार्कान ती म्हाका परत दिल्ली. म्हणटकीर हांव प्रत्येक प्रोग्रामाक कितें तरी शेणयता हें ताका खबर आसा.) चावयो नात. हांव लायब्ररींत गेलें. थंय पळयलें, ना. (थंयच्या क्लार्काक लोक पुस्तकां

शेणयतात तें खबर आसा. पूण शेणिल्ल्यो चावयो सोदपाक लोक लायब्ररींतूच येतात, हें पळोवन ताका पोराक अजाप जालें.) अंकलाकडेन गेलें. थंय विचारलें. जाल्यार थंयूय 'चावयो नात' ह्या बोवाळान म्हजी एक कॅज्युअल गेल्ली. सकाळच्यान पृथ्वी प्रदक्षणा करून म्हाका मरसर पुरो जाल्लें आनी वयर चावयो ना त्यो नाच. हांव रूमांत परत आयलें. दनपारचीं बारा वरां जाल्लीं. भयण रूमाची आपली डुप्लिकेट चावी म्हाका दिवन गेलें. वतना धमकी : ''ही आनी शेणयली जाल्यार मागीर तुजें कुलप आनी गोविंदाचो फातोर.. कितें तें तुमचें तुमी पळोवन घेयात.'' (वयर आनी गोविंदाक चिरीमिरी...)

हांव बसलें. खूब विचार केलो. हांवें खंय चावयो शेणयल्यो काय? मागीर शेंदरेर बसून मात्सो योगा करूंया म्हण चिंतलें. आनी हांवें वज्रासनांत बसून मन शांत केलें. एकाग्र केलें. आनी हांव काल घरांतल्यान कशें भायर सरलें, कसले कपडे घाल्ले, कसलें जोतें घाल्लें, कसली पर्स घेतिल्ली हें सगळें चित्र दोळ्यांमुखार हाडूंक लागलें आनी सट् करून म्हाका याद आयली. काल हांवें म्हज्या पांचव्या सलवार खमिसाक मॅचिंग म्हण पांचवीच पर्स घेतिल्ली. आनी घरा परत येतकीर ती पर्स आशिल्ली तशी खाटीपोंदच्या ट्रंकांत दवरिल्ली. म्हणजे घरांतल्यान भायर सरतना हांवें चावयो ते पांचवे पर्सींत उडयल्ल्यो आनी घरा परत येतकीर भयणीन रूमाचें दार उकतें केल्लें म्हण पर्स उकतीपसून करिनासतना ट्रंकांत उडयल्ली. हय. तांतूंतच चावी आसूंक जाय. हांवें पिटीक् करून उडकी मारली. ध्यान थंयच सोडलें आनी खाटीपोंदा हात घालून ट्रंक ओडलो. उगडलो. पर्स उगडली जाल्यार, भितरल्यो चांवयो म्हाका पळोवन मुमुरख्यो हांसतात. आनंदान म्हजें मन भरून गेलें. एक खरें, योगान हांवें मन शांत केलें आनी चित्त एकाग्र करून विचार केलो म्हण म्हजो फुडलो मनस्ताप चुकलो.

पयलींच्या ऋषीमुनींक अंतर्ज्ञान वा दूरदृष्टी योगाभ्यासान येताली म्हणटात तें फट न्हय.

हांव म्हजे चावयेक केन्नाच की चेन लायना. सुतलेकुडको नाजाल्यार तीर बांदता. हें दळदीर कित्याक जाणा? चावी खंयूय उरल्यार, शेणल्यार की चेनीच्या मोहाक लागून चावयो वतात. त्यो आनी परत केन्नाच मेळनात. ताची खबरूच सांगता तुमकां. आमी सगळीं जाणां मोटार घेवन कोलव्यां वेळेर गेल्लीं. मुंबयचे सोयरे आयिल्ले. तांकां वेळेर वारो खावंक आनी जितें फडफडीत नुस्तें घेवंक (आमकां मात फ्लॅटांतले बंद कुडींतलो वारो आनी पेत्रोलाच्या वासाचे शेंवटे खावयतात) गेल्लीं. थंय आमी एका हॉटेलांत गेलीं. च्याच घेतलीं (सोयरे बरोबर आशिल्ले म्हणून, चड कांय ऑर्डर केलें ना.) आनी उठलीं आनी मोटारीकडेन आयलीं. जाल्यार भावाक याद जाली, आपणें चावी हॉटेलांत मेजार दवरल्या म्हण. परत हॉटेलांत गेल्यार चावयो नात. चावयो सोद सोद सोदल्यो. पूण ना. मॅनेजरानपसून चावयो सोदपाक आदार केलो. पूण चावयो ना त्यो नात. थोडे लोक उपदेश करूंक लागले, वेळेर खंय तरी शेणल्या आसतली, ती रेंवेंर वचून सोदा म्हण. पूण भावाक पुराय खात्री आसली की ताणें चावी मेजारूच दवरिल्ली म्हणून. आमकां सगळ्यांक थंयच दवरून तो भाड्याची मोटारसायकल करून घरा गेलो आनी डुप्लीकेट चावी हाडून सगळ्या सैन्याक घरा पावयलें. (ते म्हणसर सोयऱ्यांनी भूकलाडू आनी तानलाडू खावन म्हजी पर्स रिती केली. येदोळ सोयऱ्यांक 'फुटी च्या' दिल्ली ताचें हें प्रायश्चित!) चार दिसांनी भाव मुद्दाम त्या हॉटेलांत गेलो जाल्यार मॅनेजरान ताका गाडये चावी सांपडल्या म्हण सांगलें. भावान चावी ताब्यांत घेतली जाल्यार तिका आशिल्ली फॉरेन की चेन ना.

फॉरेन की चेनीचे आशेखातीर हॉटेलांतल्या वेटरांनी कितलो भयंकर मनस्ताप, त्रास आनी खर्च घडयलो तो पळयात.

प्रवासाक वतना जाल्यार म्हजीं सगळीं बॅगां उकतींच आसतात. थोडे लोक आनी बॅगांक बारकेलीं बारकेलीं भिकणां कशीं कुलपां लायतात. तीं भिकणांयेदीं कुलपां आनी बारीक जीव कशो त्यो तांच्यो चावयो! त्यो आनी चावयो म्हजेसारकेली अबरगत खंय सांबाळत बसतलें? म्हण हांव बॅगांक कुलपांच लायना. म्हज्या बॅगांक कुलपां नासतात म्हण चोरूय म्हज्या बॅगांचे

वाटेक वचनात. हांव प्रवासाक केन्नाच व्ही. आय. पी. बॅग व्हरना. एक तर ती जड बॅग म्हाका उखलपाक जायना आनी दुसरें म्हळ्यार ताच्यो चावयोय म्हाका जीव दिल्यार पसून काडूंक येनात. एक पावट हांवें म्हज्या नव्या व्ही.आय.पी. बॅगांत चावी मोडून दवरिल्ली. भावान मागीर मडगांवच्या मार्केटांत वचून फिशाल कारागिराकडल्यान मोडिल्ली चावी भायर काडून घेतली. तेन्नाच्यान हांवें म्हज्या व्ही.आय.पी बॅगेंत गोजड्यो भरून दवरल्यात. कोणूय प्रवासाक भायर सरल्यारूय हांव म्हजी व्ही.आय.पी. बॅग तांकां दिना. झरत म्हणून. ('गवणींतलो कुत्रो जसो तण आपुणूय खायना आनी गोरवांकूय खावंक दिना' तसो!)

त्या दिसा स्टाफरूमांत चार-पांच स्टुडंटां डिफिकल्टी विचारूंक आयलीं. भुरग्यांकडेन पुस्तक नासलें आनी म्हजेयकडेन नासलें (धन्य ते विद्यार्थी आनी धन्य ते शिक्षक!) पूण म्हजें पुस्तक हॉस्टेलांतल्या रूमांत आसलें आं. इतल्यान कोण तरी म्हाका मेळूंक आयलो. पोरां थंयच ताटकळत उरलीं. हांवें एका स्टुडंटाक सांगलें, "बाय, मातशें हॉस्टेलांत वच. पयले माळयेर जिन्यामुखार चार जनेलां आसात. थंय दावेवटेनच्या पयल्या जनेलाच्या कोनशाक हांवें चावी दवरल्या. ती घे आनी ज्या रूमाभायर तुका जोतें, सुकत घाल्ले कपडे आनी आयदनां अशी मनीस वस्तेची खूण दिसतली थंयचें कुलप काड आनी मेजार आशिल्लें पुस्तक घेवन यो." तें चली गेलें, तें पंदरां मिण्टां आयलेंच ना. म्हाका हुस्को. रूमांत कसल्यो भानगडी करता? काल हांवें हाडिल्ल्यो मथाच्यो बिस्कुत्यो बी खायत बसूना मूं? इतले म्हणसर तें कासावीस जावन आयलें. "टीचर, पुस्तक मेळूंना", "कशें मेळूंना?", "टीचर म्हाका चावीच मेळूंना". "आगो, हांवें सांगिल्लें न्हय पयले माळयेवयल्या (गोंयांतलीं भुरगीं. पयली माळी म्हळ्यार तळमजल्यार बी हें सोदिनासलें मू?) सोपणांमुखावेल्या दावे वटेनच्या (काय हें जनेलाच्या दाव्यान सोदतालें) जनेलाकडे पळय." एक चलो म्हणपाक लागलो, "टीचर, हांव 'यूं जाता हूँ और यूँ आता हूँ!" "आरे पापया, तूं खंय धांवता

लेडीज हॉस्टेलांत? ओगी बस.'' इतल्यान ती चली दुसरे एक चलयेक घेवन (भंय दिसता म्हणून. आतां हांकां दिसाउजवाडे कोण वाग खाता? हींच खायत वागाक! पयर सी फूड फेस्टिवलाक आनी रातचीं दोन दोन वरां जायसर वेळेर भोंवतालीं. कशे हांचे आवयबापूय हांकां पातयेतात कोणाक खबर! जाल्यार हांव रातचें धा उपरांत वेळेर वचत म्हण म्हाका नावेलेच्यान फोन-तारो बी. थंडी जायत, दंव पडत, जागरण जायत, मिरामार रातचें वचूं नाका म्हण. थंडी बीं जायत म्हण, हीं बंडलां. पूण आवयचें काळीज न्हय?

कितलो वेळ जालो हीं दोगांय नाच. दोगांय मेळून बिस्कुत्यांचो करंड सोंपयतात काय कितें? हांवूच उठलें आनी हॉस्टेलांत आयलें. म्हजेबरोबर चलेय त्या येदोळच्या शेणिल्ल्या वर्ग भगिनींक सोदूंक धांवताले. (कितें पूण उमेद सोदचेली? टीचरीच्या हॉस्टेलांत येवचेली उमेद चड) जाल्यार हीं चुळकां म्हजी चावी सोदून काडून, ती हातांत घेवन आख्खे माळयेवयल्या पन्नास कुलपांक लावन पळयतात. ''आगो हांवें सांगिल्लें न्हय, मनीस वस्तेची खूण म्हण...'' ''पूण टीचर, दुसरे पावट वयर येतना आमी तें विसरलीं...'' आनी आनी अभ्यास कसलो करतलीं? कपलाचो?

निमाणेकडेन हांवेंच चावी काडली. बूक हाडलें आनी ती 'तथाकथित' डिफिकल्टी सोडयली. तातूंतले एके चलयेन म्हाका म्हळें, ''टीचर, तूं चावी खंय दवरता, तें आमकां दोगांयकूय कळलें.'' ''आगो, कळूंदी. कितें नुकसान जावपाचें आसा?'' तें बाबडें चली चावी प्राणपणान सांबाळून दवरपी फॅमिलींतल्यान आयिल्लें आसतलें. म्हजें कितें? आसा म्हणसर खावपाचें. रूमांत कसलो पोटलो आसा म्हजो? पुस्तकां आनी पोन्ने कपडे. पुस्तकांची रद्दी पसरकाराकपसून नाका आनी चोरान कपडे भरून व्हरपाचें थारायल्यार रूमांत एक पसून बॅग ना. चोराक बालद्यांनी कपडे भरून मिरामारच्यान धांवचें पडटलें. चोर म्हणटलो, ''बालद्यो घेवन मिरामारच्यान धांवचेपरस नाक आपटून मेल्लें बरें. दळिद्री खंयची टीचर! कपडे चोरून व्हरतलो म्हळ्यार एक बॅग पसून दवरना.'' असली म्हजी खबर! चोर आनी कित्याक येतले थंय?

ज्या काळांत लोक घराक कुलपांच लायनासले, त्या काळांतले लोक कितले भाग्यवान आसले! तांकां चावयो बाळगुपाचो त्रासूच नासलो. संस्कृत वाङ्मयांत खंय कुलपाक प्रतिशब्द मेळना. कित्याक? तांचे सारकिल्यांकडेन दुसऱ्यांनी चोरून व्हरपासारकें कांयच नासलें. चार मातयेचे बुडकुले आनी दोन जुनेरां. एक दांडयेर आनी दुसरें xxx र. म्हणटकीर चोर चोरतले कितें? श्रीमंत लोक घरां सोडून खंयच वचनासले.

आमीय आमच्या घराक कुलप लावन केन्नाच भायर सरनात. आमगेर कुत्रो, माजर, कोंबी, म्हस, चानी, झाडां इतल्यो भानगडी. तें सोडून सगळीं घराभायर एकदम कशीं वतलीं? एकलो तरी मनीस घरांत आसलेबगर हेरांक भायर सरूंकच मेळनासलें. केन्नाय रातचीं नाटकाक वा कार्यक्रमाक, आमी सगळीं जाणां भायर सरतालीं. म्हस गोठ्यांत बंद, कुत्रो सोडिल्लो आनी रातचीं काय झाडां गोरवांनी दुर्गाभायल्यान तोंड घालून खावपाचो प्रस्न नाशिल्लो. त्या वेळार सगळ्या कुडींची दारां-धांपून घेवप, दोन-तीन वरां खर्चून कुलप सोदून काडप, उपरांत आनी दोन तीन वरां लागून चावी सोदप. घराक वर्सांतल्यान एकूय पावट कुलप लागनासलें. मागीर कुलप-चावी कोणें हातासरी दवरल्या? रातचें णवांक वचप म्हळ्यार, सकाळीं णवाकूच आवय आमकां कुलप-चावी सोदपाक लायताली. रातचीं भायर सरतलीं हे उमेदीन आमी भुरगीं कुलप-चावी सोदून दितालीं. मागीर दाराक कुलप लावन चावयां घोस पोरसांतल्या एका व्हाजांत दवरून आमी नाटकाक वतालीं. परत येवन न्हिदसुऱ्या दोळ्यांनी आवयन तो सोदून काडप. केन्ना केन्ना शेंवतेच्या व्हाजांत दवरला काय गुलाबाच्या व्हाजांत दवरला तें विसरप आनी रातभर सगळे व्हाज उस्तीत रावप. (चोर आनी कितें उस्तितलो कपल? वयर आनी आवयन रोप्याच्या मुळांत घाल्ल्या शेणा थाप्यान, नुस्त्या बोडकांनी नाजाल्यार बोकड्या लेणयांनी ताचो हात भरपाचो) आनी मागीर चावी सोदून घरांत वचप.

आतां जाल्यार दिसूयभर लोक येतात-वतात, ताका लागून घरांत रावचेंच पडटा. रातचें नाटकाक घरातलीं गेलीं जाल्यार हांव कशेंच भायर सरना. सुशेगाद एकटेंच ताणून दिता. म्हण्टकीर आतांय कुलपाचो प्रस्नूच येना. म्हण्टकीर कितलींशीं वर्सां कुसतलें कुलप आनी चावी घेवन हांव हॉस्टेलांत आयलें आनी रूमाक लावंक लागलें.

***





## 2.
# दोन गार्ड्स आनी एक स्रोरोप

गिमाळ्यांतले दीस. भावज भुरग्यांक घेवन कुळारा गेल्ली. ताका लागून म्हजी आवय घरांत एकटीच उरली. तशें आमी घरांतले वेव्हार सांबाळपाखातीर एक घराबोय सांबाळला. एक आवय आनी तिची दोन वयावेलीं भुरगीं. ही बायल पूर्वाश्रमीची कलयकारीण. म्हणचे ती कोणाकूच मीठ घालीना. (आमकां धरून.) फाटलीं पंदरा वर्सां ह्या कलयकान्नीच्या जीवार भावांचो घराबो आनी कुळारपणाक आयिल्ल्यो आमी तिगीय धुवो सुखान रावतात.

तर म्हजी भावज कुळारा गेल्ली आनी आवयचे आमकां धुवांक फोनार फोन. नावेले डेप्युटेशनाचेर येयात म्हण. म्हाका कसलेच पाश नात, म्हण म्हाका चड फोन. तातूंत भितर आनी एक भानगड जाली.

जालें कितें? दनपारचो वेळ. आवय घरांत एकटी. तिचे बेडरूमाचे गॅलरीवटेनचें जनेल उकतें. ही दनपारची उठली. जनेलांतल्यान भायर पळोवंक लागली. भायर एक व्हडलें चिकवाचें झाड आसा. ताचेर कोणाची तरी बोडकी फाटीं फुडें जातना तिका दिसता. शेवणें काय? न्हय. चानी काय? न्हय. कितें तरी अभद्र तिका दिसता. ती सडसडून जागी जाता आनी खिळी काडून भायर वता. जाल्यार झाडार एक व्हडलें जिवाणें आसा. दिवड, नाग, असलीं जिवाणीं सरसकट झाडार चडनात. घोणस, हरयाळी बी झाडार आसतात. पूण व्हडलो घोणस नासलो आनी धाकटीशी हरयाळीय बी नासली. तो कोण तरी गिमाचो उजो सोसना जावन डेप्युटेशनाचेर आयिल्लो आसूंये. आईक अचकीत पळोवन तें तीन-चार हात लांबायेचें जिवाणें झाडार सुरसुरीत वयर चडलें आनी घराच्या पाख्यार देंवलें. हरशीं म्हजे आवयचें काळीज वागाचें (आनी आमचें वागाच्या पेट्यांचें) पूण आतां ती जाण्टी जाल्या. घरांत कोण ना आनी जिवाणें पाख्यार देंवलां. नळ्यांच्या घरांतल्यान तें सकयलूय देंवूंक शकतालें. करतली कितें? मायाक आनी तिच्या दोन भुरग्यांक आपयलें, जाल्यार ''ये आये, माला भ्या वाटते'' म्हण पयलींच कडसरलें.

भाव रातचो उसरां येवपाचो आसलो. तरी तिणें भावाक ऑफिसांत फोन लायलो. आई फोनार उलयता. पलतडच्यान आवाज. ''कोब्रा हिअर.'' आईक इंग्लेज उलोवंक येना. पूण मात्शी मातशी समजता. 'कोब्रा' म्हणजे सोरोप. आनी 'हिअर' म्हणजे हांगा म्हण ती जाणां. आतां 'कोब्रा हिअर' आयला जाल्यार 'कोब्रा देअर' कसो, असो तिका प्रश्न पडलो. तिणें परत जाप केली. ''कोब्रा हिअर'' म्हणून पलतडचो टेलिफोन ऑपरेटर गोंदळांत पडलो. एक जाण्टी बायल थरथरत ऑफिसांत फोन करता. चड करून संकटांत पडल्या जावंये. तिका जाय जाल्यार इमर्जन्सी लेव्हलाचेर सिक्युरिटी गार्ड, गनमॅन, नाजाल्यार माजर, हुंदीर, सुणो, बैल, सोरोप (वाग पसून), चोर धरपी गार्ड रोखडोच घराच्या एड्रेसाचेर धाडूं येता. शेजाऱ्यांच्या घरांत कोण

किर्ते करता (करतालो आनी करतलो) तें समजूंक जाय जाल्यार डिटेक्टिव्हूय धाडूं येता. आपूण इन शॉर्ट तिका 'कोब्रा' (कोब्रा सिक्युरिटी अॅण्ड डिटेक्टिव्ह एजन्सी) हियर म्हण सांगलें जाल्यार जाण्टेली परत 'कोब्रा हिअर' म्हण सांगता. 'कोब्रा हिअर' म्हण सांगून जातकीर फुडली इंग्लेज आईक उलोवंक येना. मागीर हिन्दीत सांगूंक लागली, ''ये 'कोब्रा' का ऑफिस है ना, हमारे यहाँ एक 'कोब्रा' आया है, मै तुम्हारे ऑफिसर की माँ बोल रही हूँ। मै इधर अडचण में हूँ। बेटे का मोबायल मुझे करने को आता नही। उसको बोलो ।'' तेवटेन जाप, ''हाँ ह़ाँ, माताजी, अभी बंदोबस्त कर देता हूँ । कामत साब कोल्हापूर गये है, रात को देर से लौटेंगे ।'' फोन बंद.

आवय, माया आनी तिची भुरावळ घराचे गॅलरींत बसल्या. इतल्यान एक शेजान्न पासयेक आयली. आमच्या प्लॉटान दोन गार्फा आसतात. एक आसा तोतापुरीचें जाल्यार दुसरें मांग हिलार्युचें. दोनूय गार्फा अंदूच्या आंब्यांच्या दुकळांतपसून घे म्हण लागल्यात आनी हरवीं फळां दीस-रात सुंगटाच्या हुमणान, तिसऱ्यांच्या सुक्यान आनी हुड्डमेथयेन वचपाखातीर झडत आसात. कॉलनींतल्यो बायलो सांज-सकाळ रस्त्यावेल्यान पासयो मारतात. (खबर घेतात आवयची आनी नजर गळिल्ल्या तोरांचेर, वतना थोडीं पुंजायतात. आनी थोडीं आवयकडल्यान मागून व्हरतात.) तशीं सदचेभशेन धोलत धोलत एक शेजान्न आयली.'' ''बरी मगे आई तूं? आजून एकलीच? सून कुळारा गे? धुवोय ना दिसनात अंदूं?'' लक्ष टूप् करून पडिल्लें आंबलेकडे आनी उलयता आईकडे. इतल्यान मदींच आईन म्हळें, ''घरांत सोरोप आयला.'' 'सोरोप' म्हण नांव काडीनाफुडें शेजान्न जी धांवत सुटली ती बदूद  जाकनीबांद येयसर धांवत रावली. (फुडें आपले घरा परत कशी आयली तें हांव नकळो) दिसरात शेजान्नी आनी तांचीं भुरगीं आंबल्यो पुंजायतात आनी आमी धुवो केन्नाय गेल्यार आमकां एकपसून आमली मेळना. दाराचेर आतां एक बोर्डच करून लावूंक जाय. 'हांगा सोरोप रावता.' 'सावधान!' मागीर कोण आंबल्योय पुंजावंक येवचीना आनी कोण किर्ते पोरसांतलें चोरूंकय येवंचे नात.

जीम कार्बेटाच्या वागांच्या काणयांनी एक उल्लेख आसा. कुमाऊँच्या प्रदेशांत मध्यान रातीं वस्तीं भितर नरभक्षक वाग भोंवताले. म्हण थंय चोरयोय जाय नासल्यो. चोर बाबडो रातचो चोरूंक म्हण भायर सरलो जाल्यार सोमतो वागाच्या भकीक पडपाचो. तशी ही एक आयडीया बरी आसली.

इतल्यान दाराचेर एक अनवळखी मनीस उबो. आईक म्हण्टा, ''माताजी, कोब्रा ने भेजा है। ('कोब्रा' म्हणटकीर आवयन परत एकदां आंग काडलें) आपको सिक्युरिटी देने के लिए । मेरा नाम रमेश हेगडे, मै कुमठा का हूँ। मुझे बैठने को एक कुर्सी दो।'' एकदम रस्त्यार एक कदेल घेवन तो टाईमपास करीत बसलो. ताचें कामच टाईम पास करपाचें. (हांव जैसलमेरच्यान जोधपूर वतालें. ट्रेनीन सगळे फौजी बशिल्ले. खंयच्या तरी मिशनाचेर वताले. खंय वताले तें सांगपाची परमिशन ना. तांकाय सुरक्षितताये्च्या कारणाखातीर तें तशें सांगिल्लें काय कितें, कोणाक खबर! खंयच्यान आयल्यात काय म्हण विचारल्यार ''पता नहीं'', ''खंय वता'' म्हण विचारल्यार ''पता नहीं''. आनी आपले मौजेंत 'टाईम पास' करीत वताले. ते ड्युटीर आशिल्ले. ताका लागून 'टाईम पासा'ची आनी एक वेगळीच मजा ते एन्जॉय करताले. जांव. खंयच्या कठोर सत्वपरीक्षेक तोंड दिवंक वताले देवाक खबर. हांवें तांकां सदिच्छा दिल्यो.)

रमेश हेगडे रस्त्यार कदेलार बसून आईक राखतालो काय सोरपाक राखतालो, ताचें ताका खबर. सोरपाचें फुडें कितें जालें कोणाकूच खबर ना.

आईन मायाक आनी तिच्या लटांबराक आपलेच कुडीन न्हिदयले. पलंगाचेर आपूण न्हिदली आनी मच्छरदाणी बांदली. रात कितली जाल्ली कोणाक खबर! आई ल्हवूच उठली. लायट पेटयली. जनेलांतल्यान भायर पळोवंक लागली. ती न्हिदूंक गेल्ली तेन्ना तो रमेश हेगडे नावाचो बारकेलो, गोरोपिठ्ठ, ल्हानसो भुरगो कसो सिक्युरिटी गार्ड रस्त्यार कदेलार बशिल्लो. ताची खबर घेवया अशें तिणें थारयलें. जाल्यार गॅलरींत एक पन्नाशेक

वर्सांचो, काळोकिट्ट, ह्यो येद्दयो झोपां कशीं मिशयो आशिल्ल्यो; दरोडेखोर कसो आल्त मनीस बसला. मुखार स्टुलाचेर जेवण मांडलां आनी उमेदीन जेवता. आईक अजाप. येदोळ घरांत 'सोरोप' आनी आतां 'चोर'? पूण हो चोर चोरपाचें सोडून जेवण मांडून बरो सुशेगाद जेवता कसो? आनी तो हेगडो खंय? आईन ततपप करीत मायाक उठयलें आनी भायर फकत बोट दाखयता. मायान जनेलांतल्यान तोंड भायर काडलें आनी एक कडकडीत धेंगसो घालो. "ये भोसडीच्या, कौन है रे भायेर?" तो बाबडो जेवणावेल्यान पुट्र करून उठलो आनी .जनेलाकडें आयलो आनी म्हणूंक लागलो, "माताजी, मै हूँ खडकसिंग, मुझे 'कोब्रा' ने भेजा है। आपकी रखवाली करने के लिए।" आई विचारता, "येदोळ का हेगडे किदर है?" खडकसिंग सांगता, "उसकी ड्युटी ग्यारह बजे खत्म हो गयी। अब मै आ गया हूँ। मेरी ड्युटी सुबह खत्म हो जायेगी। कामत साब भी सुबह आ जायेंगे। मुझे थोडा पानी मिलेगा, पिने के लिए?"

अशे तरेन ते रातीं म्हजी आवय दोन सिक्युरिटी गार्डस् आनी एक सोरोप हांच्या सांगातान सुशेगाद न्हिदली.

21/05/07

***





3.

# हुंदराची करामत

म्हाका जेन्ना एकाद्या विशयाचेर बरयनशें दिसता, तेन्ना तें हांव कागदार बरोवन दवरता. लेख वैचारिक दृष्ट्या फेअर आसता, पूण तांत्रिक दृष्ट्या फेअर नासता. फेअर करचे पयलीं हांव एकदां लेख वाचून पळयतां. खंय तांबड्या पेनान हयन्हयशी दुरूस्ती करतां. चडशी करची पडना. पूण आतां ती.

एक सवंयच जावन पडल्या. मुख्य म्हणजे मनांतल्या विचारांच्या ओघाबरोबर पेन फास्ट चलता. म्हणजे अक्षर कशाय कशें येता. तें दुसऱ्या (म्हणजे कम्प्युटर ऑपरेटारा)क बरे भशेन कळचे खातीर सुवाच्य बरोवचें पडटा. सवकासायेन तें काम केन्ना तरी हांव करता.

हांवें अशा प्रकारचें लिखाणूच चड बरोवन दवरलां. आनी री रायट करूंक वेळूच ना अशी परिस्थिती. चार-पांच म्हयन्यापयलींची खबर. हांव

सदांबशेन वीकएण्डाक पार्शा गेल्लें. सांजे च्या घेवन मात्शें चौकेर बशिल्लें, मात इतल्यान नळ्यांचेर घमाघम आवाज जावंक लागलो. आयली. वानरांची फौज आयली. म्हजे जाण्टे मांय-मांव दोगांय जाणां माथ्यार उशीं घेवनच हेवटेन तेवटेन भोवंक लागलीं. म्हाका जो हांसो आयलो.. हेवटेन म्हाका वानर पळोवपाची उमेद. नळ्यांचेर पळयलें जाल्यार धा-बारा पोरांच बोवाळ घालतात. केजीचो क्लास कसो. म्हाका चौकेर पळोवन पोर थर्त भियेले. म्हाका पळोवन ताळ्यांतल्यान रेडिओ खरखरता तसलो आवाज काडूंक लागले. आपले आवयांक आपोवन हाडलें. आनी 'हाऊ' पळय म्हणून म्हाका दाखोवंक लागले. आवयो "हाका कोण खाता?" म्हण म्हाका पळोवन दात काडूंक लागल्यो. घर म्हजें आनी धेंक हांचो. हांची मारली शेंडी.

तीनसांजभर वानरांनी थोड्यो म्हण आज्नेच्यो केल्यो नात. म्हजें मन आनंदान भरून गेलें. एक तृप्ती म्हज्या संबंध तनमनाचेर भरून रावली. त्या खोशयेन हांवें रातीं पॅड घेवन एक आर्टिकल बरयलें.

.... हीं सगळीं पोरां एकाच फोवाचीं दिसतात. थोडे 'म्हालगडे'य भितर आसले. खूप वेळ माळयेवेल्या पाख्याचेर धुमशेणां घालीत रावले. आनी तीनसांज जातकीर पाशटावेल्यान सकयल देंवले. रुयेच्या झोपाकडेन गेले. थंय वचून फुल्लांचे गोंडे बुडिल्ले. दिकाळ पानांचो गुड्डो तोंडाक मारूंक लागले. तांचें आख्खें तोंड दिकान भरून गेलें. म्हाका तांची काकळूत आयली. काळोख मांडलो. कितलो वेळ थंयच सांसपित ते बसून रावले. आज कितें घरा वचपाचें विसरले काय कितें? काळखाची आनीकूय गाड साय मळबाचेर मांडली. वानर जड पावलांनी थंयचे उठले. आनी सकयल बांयकडेन गेले. थंय गच्च दाटायेन माड आसात. एक बाराय म्हयने झरो व्हांवपी बांय आसा. सगळ्याक शेळ आसा. चरोव किल्लून आयला. त्या थंडसाणीक दिसभर गोरवां गोठेल्लीं आसतात. वानरूय त्या शेळाव्याक रावंक गेल्लें दिसता. आतां काळोख, फकत काळोखूच जाल्लो आनी हांव

घरांत भितर आयलें...

हांव बरयत रावलें. आनी पॅड मेजार दवरून पणजे आयलें.

पार्शां म्हजें सगळें सामान जळा-मळा पडिल्लें आसता. पूण ताका कोण हात लायना. फुडें तो लेख हांवें बरोवन थंय दवरला, हेंय हांव विसरून गेलें. एकदां हांवें कागदाचेर विशय बरोवन काडलो म्हणटकीर तो विशय हांव तकलेंतलो (म्हणजे लेख बरोवपाचें टेन्शन) काडून उडयतां. परत नवे विशय तकलेंत भरत रावतात.

पयर पार्शां गेल्लेकडेन मेज निवळ करतां जाल्यार कितें? म्हजे पॅडाक पंदरा-वीस पानां आसलीं. म्हजो लेख बारा पानांचो. जाल्यार कोणें तरी कातरीन कातरचीं कशीं एक चतुर्थांश पानां कापल्यांत. म्हणजे पानांचे एक ते बारा नंबर आसात. पूण प्रत्येक पानाचो तीन चतुर्थांश वांटो गायब. ह्या पानांचें जालें कितें? कोणें तरी पॅडाचेर मुतूनय दवरलां. उरिल्लीं पानां सायडीक पडल्यात? आनी ताच्यो कोणे तरी आडव्यो, उब्यो, तिरकूस तिरांट्यो केल्यात. आनी थोडे थोडे सुटे शब्दूय हेवटेन तेवटेन पातळल्यात. देखीक वानर, उशें, आयलें, गेलें, कित्याक, असले......

हांवें कपलार हात मारलो. तें सगळें पळोवन म्हज्या दोळ्यांतल्यान भळभळीत दुकां व्हावूंक लागलीं. वयाच्या चौदाव्या वर्सापासून हांव वर्तमानपत्रांतल्यान बरोवंक सुरवात केल्ली, पूण म्हज्या बरयिल्ल्या लेखाची आयज मेरेन कोणेंच अशी वाट लावूंक ना. कांय  लेख परत बरोवंक येतात. पूण हो लेख निरीक्षणाचेर आधारीत आशिल्लो. आनी अशे विशय सलगपणे तकलेंत उरनात. म्हाका कांयच सुचना जालें. तो लेख एका सहजासहजी न मेळपी अनुभवाचेर आदारीत आशिल्लो. म्हजे दृश्टीनूय तो एक बरो लेख आसलो. हांव मेजार बसलें आनी पयलीं तीं एक चतुर्थांश पानां एका डायरेर पेज नंबर घालून बरयलीं. मागीर थोडे व्हडले कुडके, थोड्यो तिस्त्यो, एकठांय केल्यो. थोड्यो लेंडक्यो आनी मुताच्यो घाणी. वित्रागान, मनस्तापान म्हजी तकली उसळूंक लागली. 'ढाँचे के आधारपर कहानी लिखिए।' असो एक प्रशन भुरग्यांक परीक्षेक आसता, तशीशी कितें तरी

परिस्थिती किंवा पझलाचे कुडके भुरगीं जुळयतात तशेंशें. पेज नंबर घालून हांव कांय तिराट्यो कॉपी करूंक लागलें, तेन्ना म्हाका एक याद आयली. हांव हैदराबाद लागसारचो नागार्जुन-सागर, धरण  परिसर पळोवंक गेल्लें. थंय फुगिल्ल्या उदकांत देवळां बुडटलीं म्हण देवळाच्या प्रत्येक वांट्याक नंबर घाल्ले, तांचे मागीर खंड केले आनी फुडें सुरक्षित जाग्यार नंबराप्रमाणे तांची पुननिर्मणी केली, ताची याद जाली.

फाटलो आयतार फकत आठवो वाटो काम करपांत गेला.

म्हजे खंयच्याय टीकाकाराक म्हज्या लेखाची अशी स्थिती करपाची हिंमत ना. म्हजे कुडीन हुंदीर आसात. तांकां पाड पडिल्ल्यांक नाश करपाक फकत हेंच पॅड सांपडलें? हुंदरांनी टॉयलेटाक वचून टिश्यू पेपर म्हणून म्हजें पॅड वापरलें काय कोणाक खबर! ह्या रूमांत हुंदीर विद्ध्वंस करतात. सगळ्या बरण्यांचीं धापणां चांचोवन दवरतात. खोबरेलाच्या बाटलेची गुड्डी ना करतात. कपडे खातात. चलता, काडटां हांव दीस कशे तरी...

घोवाक येतकीर सांगलें. ''पळय तुज्या पार्शेच्या हुंदरांनी, म्हज्या लेखाची कशी गत केल्या ती.'' जाल्यार तो म्हणटा, ''हळसांदे आलमारींत दवर आनी लेख वाऱ्यार उडय!''

आज्नेर (पो.) - Asno=आज्नु = गाढव
Asneira - Action of donkey

***





# 4.
# चवथीक 'रोमटां'

चवथीची कर सोपोवन बेबी सदांबशेन आपल्या भुरग्यांक घेवन आमगेर पार्शां आयलें. येतना शुभान ताका आपल्या शौनकाक ताचे बरोबर दिल्लो. खरें म्हळ्यार बेबीक शौनकाक आपले बरोबर हाडपाचो नासलो. कित्याक तर ताचो किशू आनी शौनक दोगूय मस्तेर आयिल्ल्या रेड्यांबशेन अखंड मारामारी करतले आसले. शौनक आसा सात वर्सांचो. गोरोपिठ्ठ, सुंदर, पिठाचो बावलो कसो. एक धाकटोसो सुमो कसो दिसता. ताचे फुडले तीन दांत पडल्यात. किशू काळो-सावळो, बारीक आनी हुंदीर कसो. ताचेय तीन दांत पडल्यात. आमचो ड्रायव्हर पार्से-निवासी. तो भुरग्यांक म्हणटा, "तुमचे मानशेक खांवटें पडलां मरे. मासळी बी भायर सरून वचात. सावद रवात."

शौनकाक व्हरपाचें ना म्हण कळटकीर सुमो रेसलर गरीब गाय जाली. "बेबीताई, हांव ओग्गी बसतलों. तुका कांयच त्रास दिवंचो ना. आमी दोगूय

मात पसून झगडचे नात." असलो सगळो कोंत्राद, सेलाद फोलीचेर करून बेबी निमाणेकडेन तीन जेन्यूईन पाड्या, भुरग्यांक घेवन पार्शां आयलें. भुरग्यांची व्हडली धा वर्सांची भयण तरी थंड? नांव सोडा. तें उज्यांत तेल घालपी चुळूक.

ते दिसा पावस घोग्यांनी रकतालो. कुपां फुटिल्लेवरी जाल्लें. मळबार काळीकिट्ट साय मांडिल्ली. फाटलीं वीस वर्सां हांव पणजे स्लॅबाच्या घरांत रावता, म्हण म्हाका पावसाचो उटंगार कळना. पूण हांगा पावस नळ्यांचेर घो घो करून तकली आपटिता, पावळ्यो घसाघसा गळटात. चौकी बुडल्या. मुखावेलीं शेतां उदकान तट्ट भरल्यांत. न्हंयेक हुंवार आयला. वणती फुगल्यात. नळ्यांचो पिठो जाला. हवेंत एक चमत्कारीक थंडसाण भरून रावल्या. म्हाकाय खंय तरी भरिल्ल्या शेतान वचून जीव दिवचोसो दिसूंक लागला. इतल्यान बेबीची गाडी आयली. बद्द आमचे कॅम्पसांतल्या दुसऱ्या घरांत गेलीं. वचूंदी थंय. कोण वतलो ह्या पावसांत तांकां येवकार दिवंक? पावस वरभर रकलो. त्या घरांतलीं मनशां ह्या घरांत. ह्या घरांतलीं मनशां त्या घरांत. दोगांयचोय एकामेकांकडेन संपर्क ना. मात्सो आसरसो जातासो दिसतकीर हांव त्या घरांत पावलें. जाल्यार कितें? तीन भुरग्यांनी मेळून म्हजे घराची वाट लावून उडयल्या. सगळीं भुरगीं एका बेडरूमांत खाटीचेर उबीं रावल्यांत. आनी तिगूय जाणां एकामेकांच्या हड्ड्यार हात मारून कसल्या तरी गहन विशयाचेर चर्चा करतात. लागीं वतकीर कळलें की कोणाकडेन कसलो आनी कितलो दारूगुळो आसा हाची ती चर्चा आसा. खाटीर एकूय उशें ना. लोड ना. तके नात. भायर टेरेसार गेलें जाल्यार सोप्यार आनी झोपाळ्याचेर सगळी 'सजावट' हांणी करून दवरल्या आनी ताचेर पावसाची झड मारता. हांची मारली शेंडी म्हणून धांवत वचून डेकोरेशन काडूंक लागलें जाल्यार, भुरगीं आपल्या बापायचो फांत आशिल्लेबशेन म्हजे आंगार धावून आयलीं. आनी म्हजे हातांतलीं उशीं काडून घेवंक लागलीं. भटाक दिलो वसरो आनी.... असली खबर.

इतल्यान एकल्यान झोपाळ्याक असो झेल दिलो की तो वाकडो-तिकडो हालत व्हाजांच्या स्टॅण्डाक वचून आदळलो. ढो असो आवाज जालो. हांवें दोळे धापून घेतले. हांव तेर्रासाचेर चड करून हायड्रोफाईड्स नाजाल्यार कॅक्टस रोयतां. कित्याक तर म्हाका तांका सद्दां उदक घालूंक मेळना. हांव सप्तकांतल्यान एकच दीस पार्शां पावता. म्हजीं झाडांय म्हजेच बशेन बेवारशी. तांकां बाबड्यांक केन्ना उदक आसता, केन्ना नासता. आसतात उमेदी बाबडीं, आपलो जीव खेळयत. जाल्यार ह्या नश्ट्या पोरांनी सगळे व्हाज अक्षरश: मातयेभरवण केल्यात. सगळे व्हाज फुटल्यात. सगळ्याक माती, उदक, रेबो. मुळां तुटिल्लीं झाडां. कितें तरी वायट जालां हें भुरग्यांक रोखडेंच कळलें. आनी वग्गी सोप्यार गांधीजीचे तीन माकड कशीं वचून बसलीं.

तें पळोवन बेबी थयाथया नाचूंक लागलें. हांवें मात तोंडान एक शब्द काडूंक ना. गेलें तें गेलें. तें काय परत येवचेंना. आई सद्दां सांगता, ‘‘राखावी बहुतांची अंतरे, भाग्य येते तदनंतरे.’’ हांव मुकाट्यांनी माती भरूंक लागलें. म्हजेकडेन स्टोअर रूमांत ॲडिशनल व्हाज, गोबारडें, शिंपयो हांचे कलेक्शन आसा. थंयच्यान नवे व्हाज हाडले आनी तातूंत ही माती आनी ‘तकली सकयल, पांय वयर करून पडिल्लीं झाडां’ भरूंक लागलें. बबली मावशेक आदार करूंक फुडें सरलें. ताज्या भावान स्टॅण्ड उडयला न्हय! बबलीन मिडी स्कर्ट आनी एदोसो ब्लावज घाल्लो. ताची मिडी मातयेंत लोळूंक लागली. कितें करचें तें ताका कळलें ना. बबलीन फर्र करून स्कर्ट सोडलो, चड्डेर आनी टॉपार माती भरूंक लागलें. हांवें पयलीं दोळे धांपले आनी मागीर उगडले. तोखणाय बाबड्याची आनी इतल्यान नाटकाचो पयलो अंक सोंपलो.

मागीर म्हज्या दुसऱ्या मुख्य घराचेर स्वारी. मागीलदारांतल्या पडवेर भुरग्यांक बसयलां. च्या-पाणी, नेवऱ्यांचो-पिठो, चकऱ्यांची वाट, शेवाचो शिताडो घालून जालो. दोनदा ल्हानशो चकमकी झडल्यो. मागीर युध्दभूमीचेर

शांत वातावरण. बेबी रांदचे कुडींत रांदप्याचेर सुपरव्हीजन करूंक गेलां आनी म्हाका ह्या तीन सुपुल्ल्या देवचारांचेर देखरेख करून दवरलां.

तिघांच्या चर्चेची एक झलक :

एकटें म्हणटा : हे फरशीला घातलंय, ते काय आहे?

दुसरो : ती शेणाची जमीन आहे.

तिसरो : ई ! शी : घाण! घाण!

दुसरो : मला आधीच माहीत आहे, तें काही तरी घाण आहे म्हणून.

म्हणून मी आधीच पाय वर घेऊन बसलोय.

हो 'गोड' संवाद आयकतकीच म्हाका मारली तिडक. मावशी हांगा स्वत:क कुशावतीच्या तीरावेल्या रानांतलो वानर कशी जियेता म्हण लोकांक सांगता. म्हजी भयणूय बी म्हजेच पठडेंतली. आनी हीं तीन विव्दाटीं पोरां खंयच्या इनक्युबेटरांतल्यान जल्माक आयल्यांत? हांवें तांकां सांगलें, "तुम्हाला सगळ्यांना आज रात्री इथंच चटया टाकून झोपवणार आहे. स्वैपाक्याच्या कुशीत."

"हे ऽऽऽ" करून म्हाका सगळ्यांनी बुड्डून उडयलें. राक्षसाचीं पोरां, खंयचे कडलीं.

सांजे हांवें तांकां सरमळ्यां तळयेर व्हरता म्हण सांगिल्लें. बेबीच्या चल्याक उदकांत नाचूंक खूप आवडटा. भुरग्यांची करमणूक क्रमांक एक म्हण हांवें गाडी भायर काडली. केन्नाय वेळ मेळत जाल्यार हांव सरमळे वझऱ्यार एक उदकाचो कॅन घेवन वता. हो एक अतिशय सुंदर, शांत, पवित्र जागो. रानांत देऊळ आसा. देवळाच्या वयले वटेन अटंगे रान. वयर पावस चड पडत जाल्यार देवळांत पसून उदकाचे लोट येतात. वयल्या रानांतल्यान एक वझरो नाचत नाचत, मोडणा घेत, एका व्हडल्या रूखाक वेंग मारून, तळपावेल्यान सकयल उडी मारता. कडक गिमान मात मात्शे फुडें आशिल्ल्या पायपांतल्यान दोन पावळ्यो सकयल पडटात. सरभोंवतणचे लोक त्या पावळ्यांचेर संसार करतात. हें उदक दोळ्यांच्या दुयेंसांचेर रामबाण उपाय अशें दशक्रोशींतले लोक सांगतात.

अशा ह्या वझऱ्यार भुरग्यांची न्हावपाची तयारी करून आमी गेलीं.

जाल्यार सरमळ्यां नायगारा फॉल्स. आख्खें रान पांचवेचार आनी उदकाचो एक महासागर वयल्यान सकयल देंवता. घो घो घो करून, धव्याफुल्ल उदकाची एक फेणान भरिल्ली वणतच सकयल देंवता, देंवत रावता. न्हावप खंयचें आनी धुंवप खंयचें! उदकाच्या शिताड्यांनीच कुलकुलो भरिल्लो. हाडांमेरेन शिंयाचो कुडकुडो जाणवतालो. पूण थळावे लोक मात त्या वणटींतल्यान हेवटेन तेवटेन सुशेगाद भोंवताले. तांकां पावसांतल्या वझऱ्याची भुरगेपणापासून संवकळ आंसूये. अर्थात् आमकां ती हिंमतच नासली. उदकाचो कॅन त्या वणटीच्या पावळेक लायतकीर कसो हातांतल्यान सुटलो आनी घळयेंत खंयचे खंय कसो पावलो तें आमचें आमीच जाणात. तरीय आमचो एक देडशाणो माकड चेड्डी बी काडून न्हावंक तयार राविल्लो. आमी तांकां ओडीत व्हरूंक लागतकीर आरड्यो मारून तांणी आख्खी दशक्रोशी हालोवन सोडली. मागीर बेबीन प्रत्येकाक दोन अशीं स थापटां बक्षीस दिलीं. शौनकाचेर आनी दोन ॲडीशनल थापटां. ताची आवय बरोबर ना म्हणून तो चड आबुज जाल्लो. थापटां तोंडार पडलीं जाल्यारूय लज, शरम कांय ना. तस्सो रेडो कसो उबो. हांवें विचारलें, :''बेबी ताईने मारलं म्हणून मम्माला सांगणार?'' मोन्यांनी 'ना' म्हणता. तोय मदांध. कित्याक काय म्हणून विचारल्यार सांगता, ''दुसऱ्या वेळी तुमच्या बरोबर पाठवणार नाही.'' खंय. बरोच शाणो आसा. आमी कशे त्या तीन खतरनाक गुंडांक गाडयेन भरलें आमचें आमकां खबर. निमाणे निमाणें बेबीन आपल्या पांयांतलें जोतें हातांत काडिल्लें हांवें पळयलें. कित्याक म्हणून विचारपाची म्हाका हिंमत जाली ना.

हांवें उदकाच्यो दोन बाटल्यो तरी भरून घेतिल्ल्यो. गाडयेंत बसतकीर एकट्यान एक बाटली तोंडाक लायली जाल्यार दुसऱ्यान चिखलाचे पांय मोटारींत भितरच धुयले आनी बद्द ड्रायव्हराच्या पांयांमेरेन प्रलय हाडलो. बेबीन जोतें परत पांयांत घाल्लें म्हण दोनूय देंवचार सुटले.

वाटेर रमेश देसायाच्या घरा भिरोंड्या गेलीं. रमेश हो मडगांवांतलो

एक खांपो खेळाडू, समाजसेवक आनी उदार मनाचो मनीस. ताचे कुटुंबाकडेन आमचो घराबो. पयलेच फावट हांव तांगेर पाविल्लें. घरातले बरेच लोक दीर्घ काळ मडगंवां रावतात. रमेशूय चवथ आटापून मडगंवां गेल्लो. रमेशाच्या भावांनी च्या-पाणी, नेवऱ्यो, लाडू दिले. ते ह्या संकासुरांनी सगळें सोंपयलें. च्या बशयेंत ओतून फुर्र फुर्र करून पियेले आनी चार-पांच नेवऱ्यो, चार-पांच लाडू खावन, न्हायनास्तना तापिल्लो आपलो जीव थंड केलो. टी पॉयाचेर अर्दो च्या रकोवन दवरिल्लो. सगळ्याक लाडू-नेवऱ्यो फोडून उडयल्ल्यो. आमकां लज जाल्ली. पूण करतलीं किदें?

किशूचें चेडूं सांगलीक गेलां. शौनकाचें चिपळूण गेलां. चवथ सोपोवन तीं येतलीं. नाजाल्यार हीं दोगूय चेडवांच ह्या दोन भुरग्यांचो झोड काडटलीं आसलीं. आमकां आनी कामूच नासलें.

पार्शी म्हज्या घोवाचो दत्ता पाळणी म्हणून एक आमीग आसा. दर वर्सा ताचेकडेन आमी रंगयाळ्या कागदाचें कातरकाम पळोवपाक वता. तोय बी खंय तरी बाबडो भायर सरिल्लो. ताचे बायल-भुरग्यांनी ह्या भुरग्यांक नेवऱ्यो आनी जाण्टयांक कॉफी दिली. भुरग्यांनी तांकां दोन पावटी याद करून दिली की तांकां अजून कॉफी दिवंक ना म्हण. आमकां नाक कट्टेंत बुडोवन जीव दिवचोसो दिसूंक लागलो. परत कॉफी पान-सुवाळो साग्रसंगीत, कॉफी सकयल रकोवन बी जालो आनी अखेर आमी घरा परत आयलीं.

नेवऱ्यो खावन खावन म्हजें पोट डब्ब जालां, पूण भुरग्यांक आजून जेवपाची उमेद आसा. तांणी म्हाका इतलेंच सांगलें की आमी कांयच खावंची नात. फकत 'कढीभात' जेवतलीं. आमगेर ते रातीक तांदळाच्यो भाकऱ्यो केल्ल्यो. म्हणजे शीत-कडयेचें हें एक ॲडीशनल काम. एकलो सांगता, लोणचें जाय, दुसरो सांगता पापड वाड म्हण. एकट्याच्या पानांत थोडी मसूरची उसळ वाडली जाल्यार तो म्हणटा पानूच बदल म्हण. तें सगळें आयकून आनी पळोवन म्हजें प्रेशर वाडूंक लागलां. हरशीं म्हजें प्रेशर देंवता.

पूण ह्या तीन माकडांनी तें वाडोवपाचें थारायलां.

मागीर तीं तिगूय जाणां आख्ख्या उत्तर गोंयांक आयकूंक येतलो असो टीव्हीचो आवाज वाडोवन, टीव्हीक तीन धाकटुलीं नाकां लावन बसलीं. येवपा-वचपाची वाट बंद. सकाळीं येतना तांणी शिवोले म्हजे नणंदेक व्हिजीट दिल्ली. हांव नणंदेक रकाद दिवंक वयर गेल्लें. जाल्यार म्हजे फाटोफाट इस्काद चडून हें वानर सैन्य घरांत. म्हजो नण्डावो थंय टीव्हीमुखार कुलचांव पातळावन आरामांत न्हिदून सुटयेचें सुख घेतालो, जाल्यार हीं तिगांय ताच्या कुलचांवाचेर उबीं रावन टीव्ही पळयतात. हांव रांदचे कुडींत गेलें. परत येतकीर पळयल्यार भुरग्यांनी तीन कदेलां ओडल्यांत आनी टीव्हीक पोलो तेंकोवन बसल्यांत. आनी शिवोलीच्या वसंत विद्यालयाचो प्रिन्सिपल आशिल्लो म्हजो नण्डावो आपलें कुलचांव गुठलावन, तें वणटीक तेंकोवन आपूण ताचेर बसला. स्टेशनार शेणिल्ले लोक बी बसतात तसो. पालखी पदस्थ, प्रभू पार्सेकार, खाशे देसायांचो जांवय तो. ताचो मान मोठो आनी ह्या पोरांनी ताका दोन मिण्टांत अनिकेत करून सोडला. हांवें भावोजीक कुरवांनी विचारलें, 'किदें काय' म्हणून? जाल्यार तो सज्जन मनीस जाप दिता, ''आगो हे तीन देंवचार म्हजे कुलचांवाचेर कदेलां मांडून बसले. तरी बरें, हांव सडसडीत उठलां म्हण, नाजाल्यार हे म्हजेर पसून कदेलां मांडपाचे.'' ''भावोजी, तुंवें तापोवंचे न्हय तांका?'' हांवें विचारलें. ''जांव गो, भुरगीं तीं.'' भावोजी जाप दिता. विषय सोंपलो. टीव्ही पळोवंक गुल्ल जाल्ल्या भुरग्यांक आमडून व्हेलीं. बिल्डिंगेच्या सकयल एक ग्रोसरी शॉप आसा. भावोजीन फोन करून ताका सांगलें, सकयल मावोडचीं भुरगीं आसात. तांकां शॉपातलें किदें किदें, बरें बरें खावपाचे आसा, तितल्यांचे एक एक सॅम्पल बांदून दी म्हण. स्टोअराचो मालक भायर एक वजें घेवन उबो आसलो.

भुरग्यांनी भावोजीक पयलीं बेघर केलो आनी आतां खांकनवाळ केलो.

रातीं एकट्यान सोप्यार हांतरूण घालें जाल्यार दुसऱ्यान झोपाळ्यार. तिसरें चुळूक मात आवय म्हऱ्यान भितर येवन न्हिदलें. फॅनाचें हॅलिकॉप्टर. ल्हवू ल्हवू सोप्यावेले, झोपाळ्यावेले गडे उठले आनी ल्हवूच घरांत येवन पडले. फॅनाच्या वाऱ्यार थोड्या वेळान सोरो-बेबदे कशे हेवटेन तेवटेन शेणले.

सकाळ जाली. हांव उठलें आनी रांदप्याक 'गुड मॉर्निंग' करूंक गेलें. जाल्यार भयण आनी रांदपी दोगांय मेळून सान्नां उकडटात. तीं यथेश्ट खावन जातकीर भुरगीं म्हाका विचारतात, "ताई, आता खंय न्हावूया?" म्हजे तकलेंत एक विचार आयलो, भुरग्यांचो एण्टरटेनमेंट करपाचो. हांव तांकां घेवन मुखार माडांनी गेलें. थंय एक उथळ बांय आसा. तिका जिवंत झरो आसा. वर्सभर भरपूर उदक. आख्ख्या पार्शान उदक सुकलें तरी तिचें सुकना. पुर्वजांची पुण्याय. नळ नाशिल्ले तेन्ना आगरवाड्यावेले लोक बैलगाडयेन पिंपां घालून हांगा उदक व्हरूंक येताले खंय. पावसा दिसांनी बांयच्या पोटांतल्यान एक झरो भायर व्हांवता. चड जाल्लें उदक भायर वता. फुडें एक व्हाळ आसा. उदक फुडें वता आनी शेतांत पडटा. सोपणां देंवून आमी बांयकडेन गेलीं. निवळ वत पडलां. थंड वारो सुटला. झाडार आशिल्ल्या एके कळयेबशेन फुलचें आनी सवण्या सांगातान गायत बसचें अशें म्हाका दिसलें. भुरगीं त्या वझऱ्यान देंवलीं. आनंदान तांचें मन भरून गेलें. बांयंतलें नुस्तें वझऱ्यांतल्यान भायर येतालें. व्हाळांत भोवून धुमशेणां घालतालें. परत वतालें. तिगांय जणांनी घबांयच करून उडी मारतकीर नुस्त्याचें सगळे भिरें भियेलें आनी तांणी बांयत बेगीबेगीन घालून घेतलें. आनी बद्द तळाक वचून लिपले.

वझऱ्याची कोंडी दोन फूट खोल. घसाघसा करून वझरो व्हांवता. कोंडी भरता आनी उदक व्हांवत फुडें वता. भुरग्यांनी दोन वरां मजा केली. तांकां काम्पालाच्या स्विमींग पुलाची संवय. भुरग्यांच्या शेवण्याबशेनच्या किलकिलाटांत म्हजेंय मन आनंदमय जालें. भुरगीं वयर आयलीं. तेन्ना हाताक

थंड थंड लागतालीं. एकटो म्हणटा, ''ताई, मावशी आमी हांगा पंदरा दीस रावूया.''

''बरे बाबानो, तुमीच रावात हांगा पंदरा दीस. हांव मात फाल्यां कॉलेजाक वतलें.'' आयकून तांचीं तोंडां वाकडी जालीं. जशें कितें हांकां पंदरा दीस सुटीच आसली. असोच सैमाचो मुक्त आनंद म्हाका म्हज्या भाऊ-मामागेर मांद्रयां मेळलो. मडकय सुमनमावशेगेर मेळलो. आनी झऱ्याचो आनंद लुटलो तो नार्व्यां आका मावशेगेर. भुरगेपणांत सुटयेन हांव म्हयनोन म्हयने आमच्या पाड्ड्यां, तशेंच मडकय, मांद्रया आनी केन्ना केन्ना नार्व्यां वताले आनी सैम भोंवडी करतालें. ताचे संचित म्हाका आयुष्यभर पावलें. हांव लेखक म्हण समृध्द जावपाक म्हाका तें पुरो जालें. आमचीं हीं भाचरां-तांकांय सैमान जीवनांतलें सत्यं, शिवं आनी सुंदरम् सोदपाची, पळोवपाची आनी उक्तावपाची शक्ती दिवची अशें हांव देवाकडेन मागता.

गणपतीची उत्तरपूजा जाली. हांवें अंदू म्हजी म्हणून वेगळी पांच नाल्लांची पंचखदाय केल्या. ती वांटूक बबली कडेन दिल्या. बबली वांटना म्हण थंय किशू गेलो. तोप हातांत घेवन झगडीं. शंभरेक लोक खोळंबल्यात. गणपतीचीय सबमरीन चुकता. अखेर भारत-पाक लडाय सोंपली. एकलो विजयी जाल्यार, दुसरो रडलो. पंचखदाय वाटली. गणपती पाताळांत गेलो. भुरगीं म्हऱ्यांत आयलीं. म्हाका बोटां तोपून विचारतात, ''ताई मावशी, तूं आता आईस्क्रिम वाटणार आहेस का?'' ही आनी कसली भानगड? हांकां गणपती विसर्जन म्हळ्यार लग्नाचें रिसेप्शन बी दिसलां काय कितें?

बबलीक भाव जाल्लो. हॉस्पिटलांत पेड्यांची कास दवरल्या. येतल्या वतल्याक वाटूंक. बबली तेन्ना चार वर्सांचें. बबली लोकांक दुदपेडे वांटूक दिना. काडूंक दिना. उमेद बाबड्याची म्हण आमी बबलीकडेन काशी सोपयल्यो. बबली किदें वाट्टां आनी लोक कितें खातात, आमच्या राज्याक खंय खबर? लोक बाबडे पेड्याचें कूस खावन संकोचान वगीच रावताले. इतल्यान बेबीची नणंद आयली. बबलीन काशीतले पेडे उखलले, एक कूस

मावळणीच्या हातार घालें आनी उरिल्लो णव्वद पर्सेंट पेडो आपल्या तोंडान उडयलो. नणंदेन बेबीक म्हळें, ''आगो सुजाता, तुजे धुवेक सांबाळ. हें पळय, कितें भानगडी करता तें! हाका मागीर हॉस्पिटलांत दुसरी रूम बूक करची पडटली.'' आनी एकदां बबलीन केलांय बी तशेंच. दोन वर्सांचें आसलें तेन्ना तें. आवयचो हळदीकुकुम. शेंदरेर पडिल्ले चणे आनी तीळगूळ वेचून खायत रावलें. चेडवाचेंय दुर्लक्ष. मागीर रातभर फेस्त. दोतोर, वखद आनी हॉस्पीटल.

रांदपी नुस्त्याच्या जेवणाचे तयारेक लागला. हो रांदपी कनोजी ब्राह्मण. आडनाव चतुर्वेदी. घर सोडल्यार तीस वर्सां जालीं खंय. न शिकिल्ल्या ब्राह्मणाक आनी खंयचो धंदो? दाय-दावलो हातांत.

मागीलदाराचे पडवेंत हांव, भयण आनी भाचरां बसल्यांत.

म्हाका, म्हजे भयणीक आनी म्हजे घोवाक ह्या तीन भुरग्यांनी दोन दीस भयंकर पिडलां. म्हाका जोर येवंक लागला. फाल्यां कॉलेज आसा. हांवें म्हळें, ''हीं भुरगीं घरांत इतलो त्रास दितात जाल्यार, त्या बाबड्या टीचरांक कितलो त्रास दिता आसतलीं?''

शौनक उठलो, म्हऱ्यांत आयलो. म्हाका म्हणटा, ''दिता म्हणचे कितें? दिताच त्रास हांव टीचरीक?''

हांव थक्क!

''मी टीचरच्या अगदी जवळ जातो. तिला वाटतं मी डिफिकल्टी विचारायला आलोय म्हणून. मग मी तिच्या कानांत भुंकतो.''

म्हाका घुंवळ.

''अरे टीचर, तुला चावत नाही?''

''ती कशाला चावील? मीच चावेन तिला.''

म्हाका भंय दिसूंक लागता. कारण आमच्याय कॉलेजान खूप जाण हे वटेन तेवटेन भुकत आसतात. ते म्हाकाय घांस मारूंक शकतात.

बेबी सांगतालें, किशूच्या टीचरीन पयर एक नोट धाडिल्लो. किशून खंय एका भुरग्याचेर फातर मारलो. तो फातर ल्हान आसलो खरो. पूण तो त्या

भुरग्याच्या तोंडार बसलो आनी ताचो दांत पडलो. आता तो दुदाचो दांत म्हण बरें. किशू सांगता, तो भुरगो सद्दां आपल्याक धुकलून घालता खंय. कोणाचें खरें मानपाचें ?

पालक थंड, शांत, समजदार आसतना हीं आयचीं भुरगीं अशीं किद्याक वागतात? हींच असलीं भुरगीं, व्हड जावन आमच्या कॉलेजींत येतात. किशोरावस्थेक लागून तीं चड आडांगी जातात. आनी टीचरींक हैराण करतात. बाबड्या टीचरींक मात कोणूच समजून घेनात. ना प्रिन्सिपॉल, ना मॅनेजमेंट, ना पालक, ना शिक्षण खातें, ना सरकार, ना लोक. बेबी मात सांगता, आपूण टीचरीक सांगलां, मस्ती करतकीर किशूचो भरपूर झोड काड म्हण.

एकदां हें सैन्य मडगंवां गेल्लें. थंय घरांत भितर सरता थंय आसा. नाटकांतल्या पात्रांनी पडदो उगडटकीर आपली स्पेस ताब्यांत घेवची आनी एक्टींग करूंक सुरवात करची तशेंशें कितें. एकटो म्हजे आजयेच्या व्हडल्या वायनार बसला आनी घडाघुडू करून वांटता. एकटो सान्न मारता. दुसरें बांयचेर गेलां आनी कळसुली बांयत आपटिता. एकट्यान पोरसांतल्या नळाक पायप लायलां आनी झाडां शिंपपाचें नाटक करता आनी ल्हवूच आपूणय न्हावन घेता. हीं पोरां मनशांची, काय आनी कोणाची? गाडयेतल्यान देंवल्यार पाच मिनिटां जाऊना आनी हांणी न्हय-बांय एक केल्या. म्हाका जाल्यार ते वेळार म्हजें कुळार म्हणचें पिशांचें हॉस्पीटल कशें दिसलें. सगळे पिशे सुटल्यात आनी हॉस्पीटलांत घुसोळ घालतात आनी आमी हतबुध्द दोतोर. बेबीक म्हजो हो कॉमेंट आयकून बरें दिसलें ना. हरशीं आपल्या पिशांचो तें मरसर पेट काडटा. ह्या खबरेक जालीं आतां तीन वर्सां. पूण आजूनय परिस्थितींत फरक पडूना. उलट डिग्री वाडल्या. आतां आमी पिशीं आनी तीं दोतोर इतलोच फरक पडला.

पणजे येवपाखातीर तयारी सुरू जाली. म्हज्या घरांत गेलें जाल्यार

एकटो सान्न घेवन पासयेर भोवता. दुसरें घैरांव काडटा. जाल्यार तिसरो लास्ट नंबर मन लावून सान्नीचे हीर विसायता. सान्नीचो एकूण एक हीर मेकळो केला. मुगडो घेवन हांव ताच्या फाटीक लागलें.

शुभा आपल्या भुरग्यांक आनी बेबीच्या भुरग्यांक घेवन गेलें. आतां घरांत फकत आमी जाण्टी मनशां उरल्यांत. बोडगेश्वराची जात्रा सोंपतकीर मळ दिसता तशें म्हजें घर दिसतालें.

पणजे म्हजी वावराडी रातची येता. रातचे कपडे उमळून ती मागीलदारांतल्या आंब्याक बांदिल्ल्या सरयेर ते सुकत घालता. रातभर कपडे वाऱ्यान वाळगतात आनी सकाळ - दनपार वतांत सुकतात. सांजेचे कपडे हांव काडून हाडटां. म्हजे शेजरा फातिमा बी रावंक आयली. ती म्हाका विचारता, "सुमेधा, रातचे कपडे काडना गो? राती देंवचाराची फेरी आसता. ताका तुज्या कपड्यांची आडखळ जाल्यार तो तुजेर रागणे धरतलो मगो? आमच्या शिरोड्या बाये, आम्मी कशीच रातचे कपडे भायर सुकत घालूंक दिना. शिरोडेचो देंवचार खूप खर आसा."

हांव विचार करूंक लागलें. रातचे कपडे भायर आसतना देंवचार आयलो जाल्यार तो पयलीं म्हजे घराफाटल्या कम्पाऊण्डाभायल्या रानांतल्यान येवंक जाय. उडी मारून भितर आयलो, म्हजी कपड्यांची दोरी क्रॉस करतकीर ताका मेळटली आय.बी. (इनवेस्टीगेशन ब्युरो) ची वणत. भितर सरलो जाल्यार भायर सेन्सेटीव मशिनरी आनी तिच्यो एक्सेजरीज बसयल्यात. ते भायर थंय दोन आर्मांद पोलीस दारार रातदीस उबे आसात. म्हणजे एक तर तो थंयच्यान येवू शकना वा थंयच्यान पासार जावंक शकना. आतां मागीलदाराच्या रानांतल्यान येवन म्हजेच पोरसांत पासय मारून वता जाल्यार हांव नकळं.

तशी ही आता पार्शां ह्या तीन धाकटुल्या देंवचारांची फेरीच जाली. जे जे कितें तांकां आडखळलें, तें तें तांणी खोले करून मोखून मारलां. आनी आतां तें पुंजावप म्हज्यान शक्य ना.

"गणपती बाप्पा मोरया, पुढच्या वर्षी लौकर या, पूण येयसर ह्या भुरग्यांक आनी म्हजे कॉलेजींतल्या भुरग्यांक मात्शें शाणे कर रे सायबा...." म्हाका रातभर सपनां पडटालीं. हांव खाटीर न्हिदलां आनी हे देंवचार खुटारो घेवन म्हाका मारूंक आयल्यात. हांव उठतां आनी धांवत धांवत मिरामार पावतां. कॉलेजींत भितर सरतां. हांव प्लॅटफॉर्मार चडटा. दारांत पळयल्यार भुरगीं म्हाका मारूंक उबीं रावल्यांत. "ताई मावशी, परत आम्हाला ओरडणार का?" म्हण विचारतात. हांवें किळच मारली आनी सपनांतल्यान जागें जालें.

सकाळ जाली. म्हाका सणसणीत जोर भरला. आनी तीन दिसांची सी एल घेवन गेला. आनी तेन्नाच हो लेख बरोवंक उसरपत मेळली.

2007
– 'सुनापरान्त' चवथ विशेषांक, 2008

सांस्कृ. टिपण:
**कर –**
१) देड दिसाचो गणपती पावयल्या उपरांतचो  दुसरो दीस.
२) गिराण सोंपल्या उपरांतचो दुसरो दीस.
३) मनीस मेल्ल्या उपरांतो दुसरो दीस.

हे करीचे दीस आयपाचे मानतात. ह्या दिसा घरांतल्यान भायर सरनात. लोकांगेर वचनात.  कसलेंय बरें काम करनात.

***





# 5.
# एका आंब्या रूखाचें महानिर्वाण

काल रातभर न्हिदूंक नासलें. एक हुंदीर जनेलांतल्यान मेजून स पावटी घरांत आयलो आनी आज्नेऱ्यो करूंक लागलो. संसारांत कितलीय विरक्ती आसली म्हण, हुंदीर घरांत खुटखुट्टना, न्हीद येऊं येता? ना. आवाज परत जालो. हुंदीरमामान एण्ट्री घेतली काय, ताचेर टॉर्चीचो झोत घालप. मच्छरदाणी काडून उठप आनी सवळ्या बडी घेवन ताचेफाटल्यान धावप. हीच हांवें रातभर ड्युटी केल्या. 'हो' हालयल्यार उठना. वयर गाळी मारता. त्योय पेडणेच्यो इस्पिशियाल. हुंदीर विखूय खायना. तेय शाणे जाल्यात. आमचो बुकीमाम आशिल्लो तेन्ना हुंदराचें नांव नासलें. आता शेजारच्या फ्लॅटान कोण तरी रावूंक आयल्यांत आनी हांव घरांत नासतना माजर खंय तांगेर वता. म्हण शेजान्न गरम. 'भुरगें आनी मोनजात आसतकीर लोकांचें

उलोवणें घेवचे पडटा' खंय. आनी आतां फ्लॅटान माजर पोसपाचो चान्सूय गेलो. माजर म्हळ्यार सुणोय न्हय. हांव वता थंय गळ्यांत बांदून भोवपाक? आसूं.... तर म्हाका रातभर जागरण जाल्लें. सकाळ फुडें उठून कॉलेज. कॉलेजांतल्या मस्त्या पोरांनी जीव खालो. दनपरां घरा येवन ॐ नमः केलें. आनी हांतरूणार आड पडलें.

गाड गाड न्हीद पडली. ह्या वेळार दाराची ना जाल्यार टेलिफोनाची बेल वाजयली जाल्यार ताका दुर्वासमुनीबशेन भस्म करून उडोवचेंशें दिसता. पूण ह्या जगांत रावन तशें करूंक मेळना. इतल्यान कोणें तरी दारार बेल मारली. गाळी मारीत मारीत उठलें. (घोवाचो वसो लागला) दोळ्याचेर कालची लकणी आसली. "वागान खांवं ह्या पाडपडिल्ल्यांक" म्हणत तशेंच दार उगडलें. जाल्यार भायर फायरब्रिगेडींचे युनिफॉर्म घाल्ले दोन-तीन जवान उबे आसात. पायांत गमबूट, माथ्याक हॅल्मेट आनी एकाच्या हातान इलेक्ट्रिकल खरवत. दधिची ऋषीन आपलीं हाडां दिवन 'वज्र' तयार केल्लें, तसलेंशें हत्यार. हरशीं तें भयानक शस्त्र पळयल्यार म्हाका थरकांप जाता. ते शस्त्र खंयचे शूरपुरूष आनी कशें चलयतात देवाक खबर. पयर कॉलेजींत झाड पडिल्लें तेन्ना हें दधिचीचें शस्त्र घेवन फायरब्रिगेडीचे जवान आयिल्ले. हांवें त्या शस्त्राक पयसुल्ल्यानपसून पळोवंक ना. तसल्या शस्त्रांचो म्हाका फोबिया आसा. म्हाका दिसता, कोण म्हज्याच हातान, ते चलय म्हण, सांगता काय किदें?

हांव आसलें न्हिदेच्या सप्तपाताळांत आनी भायर हे गमबूटधारी जवान. जालें किदें हांचें? ते लोकांक आनी जनावरांक देव कशे सोडोवंक येतात तें म्हाका खबर आसा. (आयज ते दानव जावन म्हज्या हुंदीरमामा फेम न्हिदेंतल्यान म्हाका उठोवंक आयिल्ले.) आनी हे म्हाका किद्याक सोडोवंक आयल्यात? आनी किदें जालां तें म्हाका खबरूच ना? भयण म्हाका सद्दां म्हणटां, "आख्खी पणजी उदकान बुडली आनी लोक घरांदारां सोडून गेलें जाल्यारूय माजर कशें तूं घरांतच रावतलें." केन्ना केन्ना तें म्हाका खरेंय

दिसता.’

८७ - ८८ तली खबर! हांव योगा करपाक सांजचें स वरांचेर विवेकानंद सोसायटींत गेल्लें. रातचे नवांक सकयल आयलें, जाल्यार १८ जून रोड उदकान भरला. रस्त्यार मनीस ना. रिक्षा ना. कोण ना. हांव तेन्ना पणजेंत नवें. म्हाका दिसलें, मिरामारचो दर्या हांगा पावलो काय कितें? १८ जून रस्त्यावेल्यान पेंवत पेंवत हांव बाजारांत आयलें. बाजार बुडला. मागीर बाजारांतल्या उदका लोटांत सूर मारीत बांदोडकर रस्त्यार आयलें. थंयूय न्हय-बांय एक जाल्या. पूण थंय मनुष्यवस्तीच्यो हय-न्हयशो खुणो आसल्यो. थंयच्यान म्हाका एक रिक्षा देवाचें विमान कशी मेळ्ळी. ताणें खंयच्यान तरी ताळिगावच्यान बी वाट काडून म्हाका उफेत उफेत मिरामार हाडून पावयलें. असली खबर!

तशें शेनवार दिसभर पावस. रातीं सगळें जलमय. आनी हांव आपलें फ्लॅटान वग्गी मुंगरून बसलां. अशें जायत जाल्यार सगळे लोक शार सोडून वतले आनी हांव ‘जुंव्यार एकलें एकसुरें’ तशें फ्लॅटान एकलेंच उरत!

पूण ना. म्हज्या भयणीक खबर आसा. आपली एक पिशी भयण मिरामार रावता. आनी तिका ह्या असल्या ऐहिक गजालींची मातपसून जाणीव ना. ती तरी वेरेच्यान फायबर बोटी घेवन म्हाका सोडोवंक येतली. तांचे भरवंशार हांव सुशेगाद जियेता. मदीं मदीं फोन करून भूकंप जाला, जाता, जातलो, सुनामी आयल्या, मोरजे उदक चडलां जाल्यार पळोवन यो असले इशारे वेधशाळेच्या सूत्रांनी सांगचें तशें सांगता. जाण्टी आवयूय फोन करीत रावता.

तशे हे देंवचार म्हजे दारांत उबे. ती काल कॉलेजांत पळयली इंद्रवज्र कशी खरवत घेवन उबे. कुशीक नगरसेवक बेन्तो. “मॅडम, सॉरी. तुमकां डिस्टर्ब करता. तुमचें दारांत पडिल्लें, झाड कातरूंक आमी आयल्यात.” तें आयकून हांव न्हिदेंतल्यान सडसडीत जागें जालें. साबुध्दीर आयलें.

म्हज्या दारातलो विशाळ आंब्यारूख पयरच्या महाभयंकर मोडान जमनीभरवण जाला आनी दोन-तीन दीस आमची गेट ताणें नैसर्गिक तटबंदी करून बंद केल्या.

तर तो जवान तें इंद्रवज्र म्हजें फुडें धरून म्हाका म्हणटा, ''मॅडम, हें मात्शें (म्हाका हातान घे म्हण सांगता काय किदें? आगे म्हुजे मांय आनी पेद्रू पडलो बांयंत). लायटीक लावंक जाय.'' सोमती वायर काडून म्हज्या हातांत दिली. येदें महाभयंकर शस्त्र आनी ताची वायर म्हजे हातान? हांवें सोरोप हातांत घेतल्यावरी थरथरत वायर हातांत घेतली आनी प्लग सॉकेटांत घालो. भायल्यान जवान उलो मारतात, ''कर मगे सुरू.'' म्हाका बटण दामूंकय कडकडो भरला. ''नागेशा पाव, महालक्ष्मी पाव, चंद्रेश्वरा, भूतनाथा पावा (आनी आता घोवाची 'भगवती पाव')'' अशे सगळ्या देवादिकांक उले मारले आनी एकदाचो हाय हुय करीत बटण दामलो. भायर 'भोंऽऽऽ' असो व्हडलो आवाज जावन ती अतिविशाल, शक्तिशाली खरवत सुरू जाली आनी झाडाचेर जसजशे घाव पडूंक लागले तसतशें म्हजें काळीज विदीर्ण जावंक लागलें.

ते दिसा हांव कॉलेजींत गेल्लें. दीसभर पावस. सगळे रस्ते उदकान भरून गेल्ले. रातचे पावसान कॉलेजामुखावेलो फाटली वीस वर्सां म्हाका सांगात करपी चिंचेचो रूख मुळासयत हुमटून पडिल्लो. कॉलेज हॉस्टेलांत हांव सात वर्सां उरलें. तीं आयुष्यांतलीं एकलीं एकसुरीं वर्सां त्या चिंचेच्या पालवापोंदा रावन हांवें काडिल्लीं. तिणें म्हाका हांसयल्लें, मनरिजवण केल्ली. पावसांतली पोपटी पालय, मागीरची गाड हरवीं पानां, तांबडी-हळदुवीं फुलां, अमुरपिकीं चिंचेंबोटां, रातीकडेन वस्तेक येवपी सवणी, तांचे घोंटेर, पिलां... फाटलीं वीस वर्सां चिंच म्हाका सांगात करीत रावली. कालच्या मोडांत ती हुपळून पडिल्ली. म्हजो संबंध दीस दुखान गेलो.

दनपरां हांव भायर सरलें. कित्याक कोण खबर! म्हजे मनांत सट्ट करून विचार आयलो, आयज म्हजेर झाड पडटलें. आनी फुडें घाल्लो पांय हांवें

फाटीं घेतलो. आयज मेरेनच्या आयुष्यांत असो विचार म्हजे मनांत केन्ना येवंक नासलो. आयजूच कित्याक आयलो? कर्णपिशाच्च असल्यो गजाली कानांत येवून सांगता खंय. म्हाका म्हज्या आयुष्यांत अशो काय ठळक गोष्टी अनुभवाक आयल्यात. फुडें घाल्लो पांय हांवें फाटी घेतलो. कितलो वेळ स्टाफरूमांत बसतलें! विचार फाटीं वडयलो आनी सडसडीत धेपां घालीं. घराकडेन पावता थंय आसा. कॉलेजांतली एकली चली मुखार पांय ओडीत चलतां. ताचे जोतें तुटलां. ताका विचारलें, ''बाय, तूं खंय चललें चलत?'' तें सांगता, ''ताळीगांव'' खंय. दनपारचीं पावणेदोन वरां जाल्यांत. पोटांत भुकेन कावळे रडपाक लागल्यात. दिसभर तें तुटकें जोतें, युनिफॉर्म आनी तें बाबडें भुकेल्लें भुरगें, पावसांत फुगलां आनी खंय वता दिगंतरांत, पांय ओडत, ताळिगांवच्या वाटेन... ''बाय, घरान यो, हांव दिता तुका जोतें.'' भुरगें घरांत आयलें. ताणें म्हजें जोतें घालें. आनी तें सडसडीत पावलां घालीत गेलें. एक अध्याय समाप्त जालो.

हात-पाय धुवून हांव कदेलार येवन बसलां. भायर जगबुडटी कशें वातावरण. हांव तकलेक हात बांदून बसलां. कर्णपिशाच्चान म्हाका सांगिल्लें, तें कानाआड करून हांव धांवत घरा आयलां. जोत्याचें आदान-प्रदान केलां. इतल्यान भायर पत्रो खडखडल्याचो हयन्हयसो आवाज आयलो. म्हज्या मनांत शंका. आमचे बिल्डिंगेमुखार मेकळो जागो. रस्तोय मेकळो. पत्रो आनी खंयचो? आवाज जावपाक? पळोवया काय भायर वचून? आसूं, नाकाच. आसूं, पळोवयाच. आई म्हणटा, 'जागरूक मनशान केन्नाच, कसल्याच अनवळखी आवाजाकडेन दुर्लक्ष करचें न्हय.' पळोवया काय नाका? नाका. आसूं. देड ते दोन मिण्टां हे विचारांत वतात थंय आसा. परत एकदां लोखंडा पत्र्याचो आवाज जालो. आतां मात म्हज्यान रावूं नजं जालें. उठलें आनी गॅलरींत आयलें. पळय जाल्यार म्हजी सावळेंत, काळखान भरिल्ली गॅलरी आतां लखलखीत उजवाडांत भरल्या. हें आनी कसलें अजाप?

गजाल फकत अजापाचीच न्हय जाल्यार म्हजेखातीर व्हडा दुःखाची

पसून आसली. फाटलीं धा-इकरा वर्सां ह्या बिल्डिंगेच्या आंगणांत म्हजेर सावळी घालपी हो येदो, विशाल आंब्यारूख जमनीभरवण जाल्लो आनी पडलो कसो? जाण्ट्यांनी भुरग्यांची राखण करचो तसो. बिल्डिंगेमुखारच्या मेकळ्या जागेंत तो उबो पडिल्लो. आनी सकयल कसो आयलो? तर कोणाकूच कळूंक दिनास्तना. हांव ताचेपासून धा पावलां अंतराचेर घरांत बसलां तर तो येदो म्हारूख मातयेभरवण जाला हें म्हजेसारकिल्या जागरूक मनशाकपसून कळूंक ना. पत्र्याचो आवाज जालो. तो ताच्या निमाण्या पोतावेल्यो खांदयो शेजारच्या बिल्डिंगेंतल्या टेलराच्या बोर्डाक लागल्यो म्हण.

एका महापुरूषाचें तें अतिशय प्रशांत निर्वाण आसलें. हांवें त्या पवित्र झाडाक नमस्कार केलो. म्हाका म्हजो लागींचो इष्ट सासणाचो सोडून गेल्ल्याबशेन दिसलें. फाटली खबर! रस्तो रूंद करपाचें थारील्लें. फूटपाथ करपाचें थरलें. म्हज्या रूखाचें किदें करतलें काय? हांव राजस्तानातल्या बिश्नोईबशेन म्हजे रूखाक वेंग मारून बसपाचें थारायल्लें. मागीर घोवान सांगलें, फूटपाथाचेर तुज्या रूखाक पेड बांदून घेवया म्हण. पूण रूखाक सिमेंटाची पेडां बांदप म्हाका मानवना. ते तांचे स्लो मोशनांतलें मरणच आसता. आमच्या देवळांच्या प्राकारांनी जीं पेडां आसात तीं फातरान आनी चुन्या-मातयेन बांदिल्लीं. ताका लागून झाडाच्या मुळांक बादा जायना. परती थाकाय मेळटा. आनी पणजे फूटपाथाचेर झाडांक दवरलां म्हणजे जितेपणी तांच्यो कबरी खणून दवरल्यात. तांचीं मुळां सिमेंट, कॉंक्रिट, टाईल्स, डामर हांणी घुसमटून वतात. लायटी पेटोवपाक तांकां खिळे मारून खुरसार दितात. रातभर व्हडले व्हडले दिवे तांच्या म्हऱ्यान पेटोवन दवरून तांका आनी तांच्या आंगाखांद्यावेल्या जीवांक शांततायेन न्हिदूंकय दिनांत. तीं एकदांचीं सगळीं मेलीं म्हण्टकीर हे सगळे ऑक्सिजन सिलींडर फाटीक लावन जगपाक मेकळें.

पणजेंत जायतेकडेन इमारतीचे बोर्ड दिसनात म्हण झाडाच्यो तेंगशो मारतात. तांचे लूंडच सकयल दवरतात. मागीर एक दीस ते लूंडय सकयल कोसळटा. नाजाल्यार व्हडल्या रूखाची अर्दी साईड मारतात. म्हणचे बॅलन्स

गेल्ल्यान उरिल्लें झाड आपशींच सकयल येता. डेहराडून हांव गेल्लें. ही एक व्हडली व्हॅली. थंय असंख्य झाडां, शेतां आनी ऑफिसां आसात. तांणी जर बोर्ड सारके दिसचे म्हण झाडांच्यो तेंगशो मारपाचें थरयल्लें जाल्यार आनी आनी माणसुकी नासली. हांव दोन दीस झाडांच्या पालयेआड, आपालिपाचो खेळ खेळपी बोर्डावेलीं अक्षरां वाचीत डूनातले दीस काडले.

कुशीक म्हजी गाडी आसली. तिका सादो झरकटोपसून पडलो ना. आंब्यान पडटना कितली म्हण म्हजी जतनाय घेवंची? तुमी झाडार प्रेम करतात तें झाडाक कळटा आनी लींपसून तुमचेर प्रेम करूंक लागतात. तुमी येतना वतना तांचेर प्रेमाची नदर दवरात. तें तुमची राखण करता. झाड हो आमचे मूळपुरूस आसा आनी आमी ताची राखण करूंकच जाय.

रूख दारांत आडवो. हिमालय पर्वत कसो भारतवर्षाची राखण करपाखातीर आडवो-उदारो दक्षिण-उत्तरेकडेन पातळला, तशी या रूखाची स्थिती. लोकांच्यो गाडयो, स्कुटरी भायर. फकत म्हजी गाडी भितर. तरी म्हाका भायर भोंवूंक गाडी जाय अशें काय ना. गाडी हांगाच दवरून म्हज्यान चार दीस जगाच्या फाटीर खंयूय वचून येवूं येता. कित्याक? हो हिमालय पर्वत गेटीर आडवो पडिल्ल्यान खंयचोय चोर गाडी चोरून व्हरूंक शकना. हरशीं ह्या शारांतले चोर दिसपट्टे गाडयो फोडीत आसतात. आता ह्या प्रकरणान चोराचीच गची अंधिल्ल्याबशेन जातली. हांव दोन दीस मुळाक साईड मारून कॉलेजांत वता.

लोक म्हजी खबर घेतात. फोन झाडाबरोबर तुटला. पयर कॉलेजांतल्या तारानाथान म्हळें, ''सुमेधा, 'भुयारांतलो मनीस' जाला.'' कोणे तरी स्टुडंटांनी खंय म्हाका सकाळीं रूखाच्या मुळाकडल्यान झाडाच्या पालयेंतल्यान, घोलींतल्यान कशें वतर सरतना पळयल्लें. भुयारांतलो मनीस जाल्यार भुयारांतलो मनीस.

'पिंजऱ्यामध्ये वाघ सापडे आनी बायकामुळे मारीती खडे' अशी म्हजी चिं. वि. जोशींच्या चिमणरावाबशेन स्थिती.

बिल्डिंगेंतल्या लोकांचीं तोंडां चारकडेन. कांय जाणांच्या मदीं उजो वचना. तेन्ना पडिल्ल्या झाडाचें करचें किदें, हें कोणूच ठरयना. हांवूय ठरयना. म्हजी गाडी भीतर म्हण सगळ्यांक उमेद. हांवूच उपाय सोदून काडटलें म्हण. हांवूय चांडाळ. हांवेंय तांकां बुद्द शिकोवची थरयली. कोणूच रूख काडना जाल्यार हांव म्हजे घोवाच्या आतेभावाक फोन करतलें. ताचेकडेन तरेक तरेची हेवी मशिनरी आसा. म्हजी गाडी मात्शी हिमालय पर्वतावेल्यान काडून रस्त्यार दवर म्हण सांगतलें. पूण बिर्याक, झाडाच्या भानगडींत पडचे ना. पयलींच झाड पडलां म्हण म्हाका दुख्ख जालां. वयर खंय ताचें पोस्टमार्टेम कोणे करचे हाचेवेल्यान गोंदळ.

म्हाका शक्य आशिल्लें जाल्यार झाड हांव थंयच दवरपाचें. आमच्या भाटांत तसलीं वादळांत हुमटिल्लीं कितलींशींच झाडां 'जैसे थे' परिस्थितींत आसलीं आनी तांकां फळांपासून धरतालीं. तशेंच ह्या झाडाक परत थंयच खोल फोंड मारून, अद्र्यावयर पुरून ताचे चारूय वटेन चिऱ्यांचो कोट करून ताका बांदून काडूं येतालें. पूण सोसायटींत 'पिण्डे पिण्डे मर्तिर्भिन्ना:' येदे उद्येग करपाक म्हाका बाबड्याक कोण आदार दितलो आसलो?

खर्र खर्र आवाज जालो. इंद्रवज्र सुरू जालें. झाड झमाझम कातरून पडूंक लागलें. म्हाका म्हजें दु:ख सोसूंक जायना जालें. तरी ते फायर ब्रिगेडीचे जवान कशे काम करतात तें पळोवंक भायर उबें रावलें. कोण तरी मुखेल अधिकारी आसलो. नगरसेवक आसले. आमदाराचो मनीस आसलो. वरीष्ठ अधिकारी आदेश दिताले. एक तरणाटो झाडार चडून खरवत लायतालो. खर्र खर्र आवाज जावन सालीचो पिठो उसळटालो. झाडाच्या पिठ्याचो उग्र वास सगळ्याक पातळिल्लो. दुसरो जवान गमबूट घालून निसरत निसरत वयर चडलो. गमबूट घालून झाडार कशें चडूंक येता, कोणाक खबर! पूण ते बाबडे वयर चडिल्ले खरे. म्हाका म्हज्या ट्रेकींगाच्या, रॉक क्लायंबिंगाच्या हंटर शुजांची याद जाली. एक व्हडलो खांदो सर्र करून कातरूंक सुरवात जाली. खांदो कातरून सकयल येवंक लागलो. इतल्यान खांदो पेचलो आनी खरवत

भितरूच उरली. ''धावा रे धावा''. एक दोर हाडलो. तो ल्हान जालो. मागीर दुसरो. तो व्हडलो जालो. एकदा रस्त्यावेल्यान ओडपाक लागले. मागीर ट्रॅफीक जॅम. मागीर बिल्डिंगेच्या आंगणांत रावून ओडपाक लागले. एक सिनियर 'जवान' नेट घालून ओडटा. तोंडान तोच म्हण्टा, ''एक दो, एक दो''. फाटल्यान दोग जाण शेपडी ओडटात. खांदो तुटना. एकलो पारय घेवन वयर चडटा. आनी खांदो पेचला, थंयच घाव घालून शिरकल्ली खरवत सोडयता. परत सिनियर जवान, ''हर हर महादेव'' अशी गर्जना करता. फाटल्यान दोगांनी मारूतीची शेपडी घट धरल्या. खांदो तुटनाच. तो फाटीं वळून म्हणटा, ''हांचे बायेचो घोव, ओडा मरे नेटान. हांव एकटोच फोर्स काडू? तुमी फाटल्यानशे रे! येयात फुडें. वायट संवय तुमकां. सद्‌दां फाटीं रावपाची. भुरगे मरे तुमी. तुमी सद्‌दां फुडें फुडें रावपाचें. पयर वाळपय गेल्ले, थंयूय तेंच. (वाळपय कोण, कित्याक गेल्लो देवाक खबर!) हो एक दिवचलचो गांवस. तूंय तसलोच. आनी तो पेडणेचो परब खंय? नेट काड मरे मात्सो. आनी ते बोवाळशेट खंय गेले? (कोणांक म्हळे, कोणांक खबर! बिल्डिंगेंतल्या लोकांक उद्‌देशून जायत.)

पार्शेचो कळंगूटकार (ही वळख आतांची. म्हणजे तो म्हाका वळखता. हांव ताका वळखनासलें.) हरशी गाडयेचो ड्रायव्हर. तोय मागीर शेपडी ओडपाक हातभार लावूंक लागलो.

म्हाका त्या सिनियर जवानाचें भाषण शेलार मामान सिंहगड घेतना केल्ल्या भाषणावरीं दिसलें. ''आरे मावळ्यांनो, धांवतात खंय? फाटल्यान परत सरात. लडा आनी गड ताब्यांत घेयात. हांवें परत वचपाचे दोर केन्नाच कातरून उडयल्यात.'' आनी मागीर मावळ्यांनी गड घेतलो.

अशे तरेन त्या जवानांनी, सगळ्यांनी त्या झाडाचो गोवर्धन पर्वत उखलून आमकां सगळ्यांक अभय दिलें. हांव तांचे उपकार मानता. आनी देव तांकां बळ, धैर्य, आरोग्य आनी आयुष्य दिवं म्हण मागता. कित्याक तर ते लडतात म्हण आमी सुखान जियेतात.

हांव घरांत येतकीर धा मिनटांनी रूख पडिल्लो. ते मजगतीं तें भुरगेंय पायांत जोतें घालून गेल्लें. रूख पडटकीर धा मिण्टांनी म्हजो घोव आयलो. फकत धा धा मिण्टांचो फरक. त्या वृक्षराजान खंयच्च्या पुण्यायेच्च्या आदारार आमकां सगळ्यांक वाचयलें काय? ही पुण्याय जाण्ट्यांची आनी कृपा देवाची.

त्या भुरग्याच्च्या बऱ्या नशिबानूय म्हाका वाचयलें जायत!

येदोळ कॉलेजींतल्यान भायर सरतना म्हज्या कानांत कोण फुतफुतिल्लो काय! म्हाका खऱ्यानीच जाप दिवंक येना...

27/6/07
सुनापरान्त

***





6.
# चवथ आनी रांदपी

आमची सदांची रांदपीण चवथीच्या दिसांनी येना. कित्याक तर, तांकां घरा चवथ आसता म्हणून. कामाचो मनीसूय येना. ताका लागून घरांत चवथीचें वाडिल्लें काम आनी वयर कामगार सुटयेर.

ह्या दिसांनी आमी वावराड्यो म्हण हाडटात त्यो रस्त्याच्या कामाक खडी घालतात त्यो बायलो (बरोबर तांचे घोव, भुरगीं आनी सोयरीं येतात) तांचें सगळ्यांचे स-सात दीस मजेत वतात. (आनी आमचेय बी). तसोच प्रश्न येता तो रांदप्याचो. आमचें घर चार कुटुंबांचें. प्रत्येक जण निवेद्याची वर्सलीची जबाबदारी घेता. बाकी चुली वेगवेगळ्यो. ते वर्सा आमचो निवेद्य नासलो. फकत आमचे घरांतल्या मनशांचो जेवणाचो प्रश्न. ह्या दिसांनी सहजासहजी रांदपी मेळनात आनी उरतात तांकां भांगराचो प्रेस. तातूंत आमचें

जेवण पेडणेकारांचें. तें हेर गांवांतल्या रांदप्यांक रांदूंक येना आनी तांणी तें हावाशिवा करून रांदल्यार घरांतल्या दादल्यांच्या मनाक येना. घरातले दादले ''शिरां मार त्या जेवणाक'', असल्यो गाळी बी मारतात. जेवणाक आनी रांदप्यांक. रांदप्यांनी रांदिल्लें जेवण बायलांक मात बरें लागता. नाजाल्यार तें तांकां रांदचें पडटलें आसलें. रांदपी तरी कोण घरांत? पंचात्तर वर्सांची जाण्टी मांय आनी 'हात दाखोवन अवलक्षण' असली हांव सून. आनी रांदतलो कोण घरांत?

म्हजे देरान एक रांदपी धरून हाडलो. हो रांदपी धरून हाडलो म्हणजे तो आसलो राजस्तानी आनी दुसरें म्हळ्यार तो कुकींगाचो डिग्री होल्डर. म्हज्या देराच्या फ्रेण्डाचें हॉटेल आसा. चवथी दिसांनी गिरायक नासता म्हण तो हॉटेल धांपता आनी कामदारांक फिर्याद दिता. म्हण्टकीर हो आयतोच आमकां सांपडलो.

राजस्तानी आसूं, हिंदू तर आसा. घालतलो किदें तरी रांदून, आनी तातूंत तो रांदपाच्या कॉलेजींत शिकून आयला. ताजेकडल्यान म्हाका नाककात्र्याक कितें तरी शिकूंकूय मेळटलें, म्हण हांव खूश. दनपारच्या मुखेल जेवणाचेर मांय आनी ब्रेकफास्ट आनी रातचें जेवणाचें सुपरव्हीजन हांव करतलें अशो ड्युट्यो आमी दोगांय देसायणींनी वांटून .घेतल्यो. नाय जाल्यार म्हजी घरांत ड्युटी आसता ती वाडपिणीचीच. घरांतल्यांक, चाकरांक आनी म्हजें म्हाकाच.

मागीर हांव शीत बी खंयचे खंय वाडटा. मेळत थंय भाजी बी घालता आनी माव बी तिडकता. आतां हांव ताचे पानाकडेन मेतेरूच जायना (म्हाकाय तितलेंच काम उणें) आनी बाकीच्यांक वाडटा. म्हजे देराक बी शिताचो दोंगर, चपात्यांचो दाळ, भाजयेची दोंगुल्ली आनी हुमणाचो महासागर बी मेळत थंय दवरता. ताका खंयूय वाड, ताचे ताका कांय ना. म्हाकाय काय ना. किद्याक जेवण पुर्वजांच्या खुस्तार.

तर म्हज्या ह्या देरान हो राजस्तानी मार्बल धरून हाडलो. ताची राजस्तानी स्टायलीची हिन्दी आयकून सगळीं ठार. घरांतल्यांक अशी तशी

राठी येता, जाल्यार हिन्दी आनी खंयची? आनी हो खंयचो तरी मीराबाईच्या बी गांवांतलो मनीस. ताचीय हिन्दी तसलीच. म्हण्टकीर म्हाका त्रान्स पडलो. हिन्दी तापोवपाचो. फुडले स दीस, हांव आनी रांदपी, मेळत तें रांदतात आनी मेळटा तशी हिन्दी कातरतात. हरशी हो रांदपी घरांत येतकीर म्हजे जिवाक सू जाल्लें. कित्याक? म्हाका रांदूंक मातपसून आवडना. (जेवंक मात भरपूर आवडटा) हो राजस्तानी भुरगो आसतलो पंचवीसेक वर्सांचो. जीनाचें दाट कलसांव (राणा प्रतापाच्या काळांत उमळिल्लें) आनी एक टीशर्ट (हिंदुस्तानांत ब्रिटीश आयिल्ले त्या तेंपावेलें) घालून तो घरांत भितर सरलो. तो घरांत येतकीर एक मंदसो 'पर्मळ' घरांत पातळलो. कसलो आशिल्लो कोणाक खबर! ताणें माथ्याक घाल्ल्या सरसूच्या तेलाचो, काय ताचे आंगार आशिल्ल्या त्या 'सवळ्या' कपड्यांचो? म्हाका जाल्यार ताच्या त्या म्हशीची कात कशी आशिल्ल्या जीनाच्या पॅण्टीचोच डावट आसलो. फुडें तो खरो ठरलो, ती गजाल वेगळी! न्हावन धुवन शूचिर्भूत कसो तो दिसतालो. ताणें कपलाक लायिल्लो गंधाचो तिबो बी पळोवन मांय खूश जाली. (पूण त्या येदोळच्च्या सुगंधाचें रहस्य कितें?)

दनपारचें तयेचें जेवण ताणें मांयच्या सुपरव्हीजना सकयल केलें. दामून पातोळ्यो केल्यो. भरपूर रांदून दवरलें. मांय सांगता तें सगळें आयकलें. खरें सांगू, हे घरांतले दादले ओग्गी आमकां रांदूंक लायतात. खरें म्हळ्यार हें काम दादल्यांचेंच. रांदपी दादलेच खरे. बायलांक काय अर्थ ना. व्हडले व्हडले तोप उखलप. पिठाचे लोदे मळप. वरांचे वरां रांदचे कुडींत काम करप. कशेंच तांकां पुरो जायना. म्हाका ताचें कौतूक दिसलें. मागीर तो सांजचो सुशेगाद टीव्ही लावन बसतालो. रातचो खोटलोभर रोटयो भाजतालो.

सकाळ फुडें ताचो आनी म्हजो जॉयण्ट असायनमेंट. हांवें सांगलें, फोव करूया म्हण. हो सांगता, ''मुझे वह महाराष्ट्रा का गीला चिवडा पसंद नही है।'' जालें. ताचें आनी म्हजें युध्द. तो सांगता, सामोसा करूया खंय. चवथी दिसांनी, सकाळफुडें आठांक सामोसा खंय. खंय आसा? म्हजो आनी

ताचो, मांय दोगांयचोय पिठो करतली. म्हणटली, ''हें देवाधर्माचें घर. तुमकां कितें कॉलेजांतलें कॅण्टीन दिसलें काय कितें?'' मागीर रांदप्यान बडी बहू के सामने शरणांगती पत्करली. म्हणूंक लागलो, तूच कर फोव. आपूण तुका हेल्प करता म्हण. मिरसांग शिनून दिली. ताच्या आनी म्हज्या झगड्यांत इतलो वेळ फोव बांयभर उदकांत. तोच कालो ताणें आनी हांवें फोडणा मारलो आनी सगळ्यांक सर्व्ह केलो. सगळ्यांनो तो बोक फेशाद खालो. धन्य त्यो सुनो आनी धन्य ते रांदपी.

मागीर रांदपी न्हावंक गेलो. वरभर न्हालो आनी कालचेच कपडे (तीच ती राणा प्रतापाच्या काळांत उमळिल्ली पॅण्ट आनी हिंदुस्तानांत ब्रिटीश आयिल्ले तेन्नाचो टीशर्ट) घालून परत आयलो. कालच्या त्या सुगंधाचें रहस्य म्हाका आतां कळलें. हांव ओगीच रावलें. कोणाचें गुपीत कित्याक फोडा. तो आनी मरूसागर एक्सप्रेसीन घरा बी गेलो जाल्यार तें रायतें, रोस, वडे, तोणाक, भाजयो, गोडशें कोणें रांदपाचें? ''अडला हरी....'' हांव ओगीच रावलें.

उपरांत रांदपी गणपती म्हऱ्यांत गेलो. (काकूट त्या गणपतीची) ताचेर गंधफूल घालें. आपूण तिबो लायलो आनी मोठ्यान म्हणूंक लागलो ''जय जगदीश हरे!'' (ताका तें एकूच भजन येतालें दिसता. कारण तो सकाळ, सांज आनी गणपती पांचां दिसांक पावयसर तें एकूच एक व्हडल्या व्हडल्यान आड्डून म्हणटालो) रातचो तो रोटयांचो दाळ भाजतालो आनी शिवराक मचमचीत भाजी करतालो. पंजाबी धाब्यांचेर बी मेळटा तसली. घरांतलीं खूश. सोयरे खूश आनी हांवूंय खूश.

दुसरे दिसा सकाळीं परत ब्रेकफास्ट. एकदां ताणें आनी हांवें दोगांयनीय मिळून तिखट सांजो केलो. सांजो म्हळ्यार सांजो. फकत रेंवेचो रेबो. आनी तो धवळटना मांयची स्टीलाची दाय मोडली. मांय फुर्योद. दुसरे दिसा परत न्हावप. परत तेंच म्हशीचें कातडें. परत गणपतीक गंधफूल आनी परत, 'जय जगदीश हरे'.

तुवालोय तसलोच. पुर्वजल्मांतलो. तुवाल्यान आंग पुसता आनी भायर वताक सुकत घालता. ह्या दिसांनी एक दडक येवची आनी हो उदका चामटो पावसान भिजचो अशें म्हाका दिसूंक लागलें. आमच्या पेडण्यांत एक म्हणणी आसा. 'बेबलां बांयंत पडलां आनी निवळ जावन इलां.' तसली हाची खबर.

चवथे दिसा तर ह्या पोरान मजाच केली. चवथी दिसांनी हांव उसरां उठटालें. तोंड बी धुवन म्हजे घरांतल्यान ह्या घरांत आयलें, जाल्यार तेलाचो दमदम पातळला. हो पोर सकाळ फुडें किदें तळटा? मांयन पाचवे दिसा वांटपाचे 'नोन अनवाळे' मोदक बी हाका तळूंक लायल्यात काय किदें? हांव रांदचे कुडींत पावलें. जाल्यार हो पुरयो कशो किदें तळटा. म्हाका सकाळफुडें पुरयो बी असलें कांय आवडना. चडूच जाल्यार हांव आयज मोरजेच्या बस्त्यांवाचे पाव पसून हाडून खायन. चवथी दिसांनी पयलींच पोट वाफार आनी हो 'गंडस्योपरि पिटिका:' (केसपुळयेचेर आनी एक बारीक फोड) ह्या न्यायान पुरयो तळटा. म्हाका म्हण्टा, "मठरियाँ बना रहा हुँ।" हाचे आवयचो घोव. मठरियाँ म्हण हिन्दी साहित्यांत वाचिल्लें, मटकेचें पीठ, जीरें, मीठ घालून घट मळटात. आनी मदीं नाखटां लावन पुरी फुलूंक दिनात. आमी कशी च्याबरोबर फाती बी खातात तशे युपीतले लोक च्या (च्या नावाची खीर) आनी ह्यो मठऱ्यो (चारखणां) चाबडायतात. पूण हाका पार्शीं मटकेचे पीठ खंय मेळटलें? हाणें गवाच्याच पिठाचें कर्म केलां आसतलें. म्हजी मांय, मांव, देर आनी घोव भायर बसल्यात आनी भुकेन तळमळटात. तांकां दिसलें, हांव सकाळफुडें आठ वरांचेर ड्युटेर हाजीर जातलें आनी रांदप्यान पुरयो केल्यात त्यो तोणाकाबरोबर खावंक दितलें म्हण. हांवें एक मठरी काय फटरी तोंडांत घाली. खार खार खार. आमचे सगळे मिठाचे आगर हाणें हातून घाल्या आसतले. आनी पुरी घट. फातर कशी. माय-मांवाचे दांत येवजून म्हाका तांची आनी तांच्या दांतांची काकुळत आयली. हरशीं मांय-मांवाचे मत कितें? तर रांदपी बरो रांदता आनी हांव ताका डिस्टर्ब करतां.

आतां शिकोवयाच हांकां बुद्द. रांदपी मठऱ्यो तळीत आसा. एक व्हडलो खोटलोभर मठरियाँ तळून दवरल्यात. गांवांक वाटूंक दिसता. हांव फाटले पांयांनी पळलें. रातच्या रोटयांचो करंड उगडलो. शेळ्या रोटयांचो एक दाळ आसा. म्हाका खोशी. हांवें तातूंतल्यो रोटयो उखल्ल्यो आनी कालचें वाटाण्याचें सांबारें इल्लें उरिल्लें तें घेतलें आनी मागीर माजराबशेन मिशयो पुशीत ओग्गी येवन घरांत बसलें.

हांव शेळयो रोटयो चौकेर बसून दामतना घोव पावलो, "काय बरो रांदपी पुरयो काडटा, आनी तूं कर्मकट्टें शेळ्यो रोटयो खा" म्हण म्हज्यो बकच्छायो करता. 'घी देखा पर बडगा नही देखा'. हांव मनांतल्या मनांत सगळ्यांक हांसतालें, तें तो नकळं. (नाय जाल्यार तो स्वतःक प्रत्येक बाबतींत शाणो समजता) इतल्यान देर आयलो. आयलो तो बद्द संकासूर कसो कायलेंत उदारो पडलो. दोन खतखतीत मठरियाँ उखल्ल्यो आनी हायहुय करीत तोंडांत घाल्या मात, "भोसडीच्या, ह्यां काय तुजां मडां रांदलां?" रांदप्याक फकत 'भोसडीच्या' कळ्ळें, पूण फुडलें कांय कळूंक ना. आनी गाळ नक्की कोणाक मारल्या तेंय ताच्या राज्याक ना. तो. बाबडो मन लावन मठरियाँची दोंगुल्ली वाडयत आसा. देर भायर आयलो. हांव कालच्यो रोटयो चाबडायतां तें ताणें पळयलें. ताणें मुकाट्यान उरिल्ल्या रोटयांचो दाळ फुड्यांत घेतलो आनी म्हजेच बशेन कालच्या तोणाकाचो तोप खरवडपाक सुरवात केली. हांव रांदचे कुडींत आसा, म्हण मांय खूश आसा. रांदप्यान कितलें पीठ कालयिल्लें कोणाक खबर. आता दुसरो खोटलो भरूंक लागिल्लो. आख्ख्या पेडणे महालाक ब्रेकफास्टाक आपयता दिसता.

इतल्यान मांय-मांवाचे दांपत्य रांदचे कुडींत पावलें. माय विचारता, "अगे, दी मगे आमकां पुरयो." हांवें तोंड धापून प्रत्येकाच्या मुखार पुरयो दवरल्यो. त्यो चेपिल्ल्यो पुरयो पळोवन, मांयच्या जीवाक बरें दिसलें ना. म्हजी मांय व्हिश्कोंतीच्या चेडवाची नात. तिणे असले रांदपी पळयल्यात कितले? पूण हो सकाळफुडें मठरियाँ तळून तिका घालपी महाभाग पयलोच. मांय विचारता, "अगे, अशो गे काय ह्यो पुरयो तळल्यात?" मांय म्हाकाशी

विचारता? हांव कितें हेड कूक काय कितें? हिणें सकाळफुडें ताका कितलें पीठ सँक्शन केल्लें कोणाक खबर. हो मेन्यू मांयच्या परवानगीनूच आयला आसतलो आनी म्हजो बाबड्याचो कितें संबंध ह्या भानगडीकडे? ह्या सत्यानाशी पोरान पायलीभर गव्हाचें पीठ आनी डबोभर तेल काबार केलां हें आजून हिका खबर ना. ती मठरियाँची 'सुरस आनी चमत्कारीक गोष्ट' म्हज्या घोवाच्या कानार पडनाफुडें तोय बी पळलो. आजूबाजूक, लागीं, पांच किलोमीटर परिसरांत खंयच उबो रावलो ना. आपल्या मठरियाँचेर सगळो लोक कित्याक पिकार म्हण ब़ाबड्या रांदप्याक मात कळलें ना. तो शांत चित्तान दनपारच्या जेवणाची तयारी करूंक लागलो.

ह्या रांदप्यान आमकां आलू के पराठे, घीके पराठे खावयले. रूचीक दाळ केली. तरातरांच्यो भाजयो आनी परीपरींचीं भजीं, नाना तरांच्यो चेटण्यो आनी रायतीं करून घालीं. ताणें म्हाका पराठे करूंक शिकयलें. रोटी तव्यार कशी फुलोवची तें दाखयलें. वेलची हरवी घालची न्हय, साखरेच्या मेलांत शिजोवची म्हण सांगलें. एका पराठ्याक तूप चड पडलें जाल्यार दुसरो पराठो भाजून तो तुपाळ पराठ्यार दवरून तूप कशें ओडून काडूं येता तें दाखयलें.

पाचव्या दिसा गणपती बाप्पा फुडले वर्सा बेगीन येवपाखातीर तळयेच्या वाटेन गेलो. रांदप्याचोय जीव सू जालो.

आतां नुस्त्याचें जेवण आनी ओली-सुकी पार्टी. तेखातीर देरान दुसरो रांदपी हाडिल्लो. नुस्त्याची खातड पळोवन राजस्तानी रांदपी विटलो. तो बाबडो सवळो. भष्टे बायलेभशेन पयस वचून बसलो. नुस्त्याच्या जेवणांनी रात फुलली. त्या नेटार सगळे जाण सकाळच्या मठरियाँची गोष्ट साप्प विसरिल्ले.

कितलेशेच दीस त्यो मठरियां लातांनी पडून आसल्यो. पेडणेच्या त्या वावराड्यांनी पसून तांकां हात लायलो ना.

आजूनय केन्ना केन्ना घरांतल्यांनी मठरियाँक हात लायलोना म्हण अजापान भरिल्लें तोंड घेवन उबो आशिल्लो तो राजस्तानी रांदपी म्हजे दोळ्यांमुखार उबो रावता.

28/01/07
सुनापरान्त - चवथ 2008

**चेडूं** – पेडण्यां सरसकट सगळ्यांकूच चेडूं म्हणतात.

***





# 7.
# एका प्रोजेक्टाक दोन रांदपी

गेल्या वर्सा चवथीक राजस्तानी रांदपी जालो. आतां मात कसोय करून थळावोच रांदपी पळोवंक जाय अशी मांवाची ओर्द सुटली. अंदू आमच्या सदांच्या भटानूय सांगलां, तो खूप बिजी आसतलो. तेन्ना आमचो पांच दिसांचो गणपती आनी आमच्या घराभोंवतणच्या अकरा भागेल्यांच्या घरांतल्या गणपतींचीं व्यवस्था करपाक आनी एक ॲडिशनल भट जायच. म्हणटकीर म्हजे देरान वेंगुर्लेसाकून एक भट धरून हाडलो. ह्या भटाचो कोंत्राद असो: ताणें आमच्या आनी घराभोंवतणच्या परिवारांतल्या गणपतींची पूजा करप आनी आमच्या  गणपतीचो निवेद्य करप. आमच्या घरांत सात मनशां. निवेद्य साग्रसंगीत रांदलो म्हणटकीर आमकांय तातूंत बुडबुडपाक मेळटलें असो मांयचो हिशोब.

ही सगळी भानगड म्हाका खबर ना. मावान म्हाका पणजेच्यान कोण तरी रांदपी साकांत घालून हाडपाक सांगिल्लें. पूण चवथी दिसांनी

पणजेंत रांदप्यांक उजो पेटला. आमच्या कॉलेजींतल्या कॅण्टीन मालकाक म्हजी अडचण सांगली. तो म्हाका म्हणूंक लागलो, ''म्हजेकडेन रांदपी आसा. तो तुका देवानिवेद्याक उपकारा पडचो ना. पूण हाताबोटाक उपेगी पडटलो. तो तुका ब्रेकफास्ट करून दितलो. कांतू-चिरून दिसतलो. सवळ्या नाशिल्ल्या रातच्या जेवणाक आदार करतलो. दिसभर येवपी सोयऱ्यांक च्या-पाणी करून दितलो.'' आयडिया वायटशी ना. म्हाका आनंद जालो. हरशींच म्हाका रांदपाक आवडना आनी चवथीचे पांच दीस सांग्रसंगीत रांदप म्हणजे साक्षात मरणूच!

हांवें कॅण्टीनांत वचून रांदप्याचे (शुभ) दर्शन घेतलें. जाल्यार ताचो कोळसो कसो काळोकिट्ट रंग (गॅसाकडेन रावन करपिल्ल्यान) कांद्या-बटाट्याचो साक कसो देह (सामोसा आनी बटाटवडे खावन मातिल्ल्यान) दोळे तांबडेबडंग (किद्याखातीर कोण जाणा? तीर्थप्राशन बी...) केंस पळयल्यार आंबाडो घालूंक येतलो, येदे लांब, तोंडांत पानाचो हो येदो मोठो गुड्डो. आंगांत अर्थातच दोन-तीन वर्सां न धुल्ले कपडे, सॉरी युनिफॉर्म. गेल्या वर्साच्या राजस्तानी रांदप्याच्या शर्ट-पॅण्टीची म्हाका घट याद आसली. म्हाका ह्या कर्नाटकी रांदप्याचें 'प्रसन्न मुखदर्शन' बरें जीवाक मानवलें ना. पूण करतलें किदें? 'एकदा हागुड्डे हांडीक मारलें म्हण्टकीर x लागलो', म्हणपांत कांय अर्थ ना. आनी हो दैत्य प्लस देंवचार कसो मनीस पार्शां घेवन वतकीर घरांतल्यो थोड्यो नेण्ट्यो आनी थोड्यो जाण्ट्यो (तातून एक म्हजी मांय आनी दुसरी बापोलमांय) सुंदऱ्यो ''अगे बाये, सुमेधेन आनी हो रावण खंयसून हाडलो? म्हाका राती तेचाच सपान पडटलां.'' अशें म्हाका तोंडारूच म्हणपाक फाटीं सरच्यो नात. ''मरेंगे और मारेंगे.'' म्हणत हांवें रांदप्याक खांकेक मारलो आनी तये आदल्या दिसा पार्सेची वाट धरली. रांदप्याच्या कॅण्टीनाक आनी म्हज्या कॉलेजाक बरोबरच स दिसांची सुटी.

रांदपी घरांत पावलो. हांवें मांयकडेन ताका इण्ट्रोड्यूस करून दिलो. पूण मांयच्या तोंडार हास्यरेषा ना. तांणी एक सुंदर, गोरोपिट्ट, मराठी सिनेमांतलो हिरो कसो दिसपी भट कम रांदपी फैदासून दवरिल्लो. म्हण्टकीर

तांच्या किचनाक रांदप्याची उब आसली. आतां ह्या संकासुराचें, हांवें करप कितें? ताका तर हांवें भरपूर पगार प्रॉमिस करून हाडलां. घरांत चार बोडकां आनी दोन रांदपी. आमगेर रांदप्याची लोकसंख्या वाडल्या ही खबर इतल्यान बीबीसीवेल्यान घराच्या खांची-कोनशांत पावली आनी एक बापोलजांव थंय, माजर बांगड्याचो वास काडीत येता, तसो रांदप्याचो वास काडीत आमचे रांदचेकुडींत पावली. ''गे सुमेधे, तुमगेर खंय दोन दोन रांदपी इलेत. म्हाका एक दिशीत गे? आमचो मेलो आजून पांवांकच ना.'' हांव आनी रावतां? सोमतेंच रांदप्याक जा़वेक डोनेट केलो. ताका सांगलें, ''तुम्हाला या जावेच्या हातांत सोपवते. सहा दिवस दिल्या घरी सुखी रहा.'' ''येऊ कशी मी नांदायला, हो येऊ कशी मी नांदायला'' पद म्हणत रांदप्यान आमचें रांदचेकुडींतल्यान आपलें बॅग उखल्लें, जोतें हातांत घेतलें आनी रामाफाटल्यान मारूतीन वचचें तशें जावेक फॉलो केलें. हांवें वतना जावेक कांय टीप्स दिवपाचो प्रयत्न केलो. रांदपी तज्ज्ञ न्हय. हॅल्पर बी कॅटेगरींतलो. पूण काम मानायाचें करता. जावेन कानार केंस काडले आनी 'पादू पूण नंदू' म्हणत उमेदीन गेलीं. म्हाका वायट दिसलें. काय बरो म्हज्या कॉलेजीच्या कॅण्टीनांतलो रांदपी. जो म्हाका आठ दीस सोयऱ्यां-धायऱ्यांमुखार 'येस मॅडम, नो मॅडम' इतलेंच इंग्लीश उलयत बोवाळतलो आसलो (आनी ज्याची घरातल्यांक आनी भायल्यांक नसाय जातली आसली), काय बरो म्हज्या तोंडाक च्या हाडून लायतलो आसलो आनी तोच ह्या जावेन फारायलो. आनी तो कोण तो खंयचो वेंगुर्लेचो भटमाम आमगेर रांदतलो खंय?

कॉलेज कॅण्टीनांतल्या रांदप्याची एक्झिट जाली आनी आमचो भटमाम गांवांत इव्हनिंग वॉकाक गेल्लो तो पावलो. नमस्कार - चमत्कार जाले. भट खऱ्यांनीच दिसूंक अपुरबायेचो कसो. गुलगुलीत. तो जाण्टो म्हण सुटलो, म्हजेपरस ल्हान बी आशिल्लो जाल्यार हांव ताची अपुर्बायेन पापीच घेवपाचें! (किरिस्तांव लोक पाद्रीच्या हाताचो उमो घेनात? आमी भटाच्या हाताचो घेनात तें सोडा. आनी आमी जर तशें करपाचें थारायल्लें जाल्यार भट 'जीव आसत जाल्यार...'(म्हणून कार्यच सोडून पळटले आसले). भटाचो

थाट पळयल्यार म्हाका लक्षण बऱ्याचें लागलें ना. भट साठेक वर्सांचो. हातान मोबायल बी. अळंग कदेलार बसलो आनी मांवांकडेन गोंयच्या राजकारणाच्यो खबरी मारूंक लागलो. (भटाचे पोलिटिकल सायन्स नॉलेज हांव नोकळो, पूण मावाक तातूंत ग्रेस मार्कांचेय पासिंग ना म्हण हांव जाणां, आनी हें म्हाका म्हज्या घोवानूच सांगलां) मावांन मदींच राजकारणांतल्यान तोंड भायर काडलें (तितलीच हाच्या तावडींतल्यान सुटका) आनी कोणांक तरी उलो मारून वॉकाक गेल्ल्या भटाक पुरो जालां म्हण च्या करून हाड म्हण ओर्द सोडली. मांयन ताच्या च्याची उमेदीन वेवस्ता केली. आता बाबड्या भटाक रोटयांचो दाळ करूंक जाय आनी शिवराक तोंडाक करूंक जाय. भट रांदतलो आनी आमी सगळीं उमेदीन आनी सुशेगादीन जेवतलीं म्हण सगळीं खुशाल आसात. भट च्या पिता, लाडू नेवऱ्यो चाखत-माखत खायत आसा. काळोख जालो. मायन परातभर गव्हाचें पीठ काडून मेजार दवरला आनी भटाच्या तोंडाकडेन अपुर्बायेन पळयत बसल्या. म्हाका, एकूण तें, सगळें प्रकरण बरें लागलें ना. हांवें स वर्सां राष्ट्रमतांत उपसंपादक म्हण नोकरी केली. धेंपेन वीस वर्सां केली. इतल्या काळांत हजारांनी तरेचीं संवंगां आनी लवंगां पळयलीं. तेन्ना एकाद्याच्या बॉडी लेंग्वेजीवेल्यान म्हाका ताचे मनांत कितें आसा तें कळूंक शकना जाल्यार म्हजेबशेन महामूर्ख हांवच. क्लासांत पसून पयलेच दिसा भुरगीं येवन बसलीं म्हण्टकीर आपल्याक वर्सभर कोण रडयतलो हें पयलेच दिसा पारखूंक येता. (पारखूंक आयलें जाल्यारूय वर्सभर कांयच करूंक येना ती गोष्ट वेगळी.)

घोव तोंड घेवन देवळाकडेन गेला. म्हाका वाज आयला. आनी हांव घरांतल्या घरांत आशिल्ल्या बापोलजावेगेर गेलें. आतां आमचो रांदपी थंय कितें करता तें पळोवया. दोन बापोलदेर, दोन जावो, तांचे चले, सुनो आनी नातरां, बरीं सगळीं पिकनिकेक आयिल्ले बशेन सुशेगाद मेजार बसल्यांत आनी आमच्या कॅण्टीनांतल्या येदोळच्या संकासूरान कायलभर पीठ मळलां. तीस-चाळीस हूनहूनीत चपात्यांचो दाळ भाजून दवरला. घराव्या तुपाचो घमघमीत वास सुटला. एका शेगडेर चपात्यो जाल्यार दुसऱ्या शेगडेर

मसाल्याची बटाटा भाजी, तीय कॅण्टीनांतलीच रेसिपी. म्हजे पोटाक भूक दावखुलां मारूंक लागल्या. येदोळच्यान दोन रांदपी आसून हांव उपाशीं. आनी तो वेंगुर्लेकार च्या पिता आनी आतां ताणें कुर्र कुर्र करून चेकऱ्यो खावंक सुरवात केल्या. म्हाका जावेन विचारलें, ''अगे तू खातलंय गे, काय तरी?'' हांव तेंच सोदतालें. मांयची मारली शेंडी. तांचो तो भट, तांचे ते परातभर पीठ तांकाच पळोवन घेवं दी. हांवें जावेगेर जेवलें आनी मागीलदारांतल्यान पळून म्हजे घरांत वचचें असो बेत थारायल्लो. गरम मसाल्याची हुनहुनीत बटाटभाज़ी हायहुय करीत तोंडांत घालता मात, इतल्यान मांयची गर्जना आयकूंक आयली.

''खंयसर गेली ती सुमेधा? आदीं हंय ये.'' म्हजी सकयली उंडी सकयल आनी वयली उंडी वयर. म्हयें वय कितें, शिक्षण कितें, करियर कितें, पूण मांय ती मांय. आयज २००७ उजवाडलें तरीय परिस्थितींत कांयच बदल ना. हांव धांवत मांयकडेन गेलें. जाल्यार मांय-मांव ताटकळत बसल्यात. भुकेन विथविथल्यात आनी भटमाम 'सास भी कभी बहू थी' पांय वयर करून पळेता. मेजार परातभर पीठ आनी घडयाळींत रातचीं धा वरां जाल्यांत. म्हाका कळलें, हांव जावेगेर गेल्लें, ते दरम्यान हांगा किदें तरी भानगड जाल्या. भटान तये आदले दिसाच नखलामी केल्या. मांय आतां सुतासारकी सरळ आयल्या आनी आवाजांत साखर घोळून म्हाका सांगता, ''अगे सुमेधे, तुज्या त्या रांदप्याक मात्सो हंय हाडशी? आमच्यो चपात्यो आनी तोंडाचां करूंक?'' हांवें आनी आनी तिचो अंत पळयलो ना. म्हज्या त्या संकासुराक सांगलें, ''तिकडचं झालं की इकडं या.'' ''येतो मॅडम'' म्हणून ताणी ते राती 'हिकडचं आनी तिकडचं' दोनूय झमाझम करून उडयलें. तो काडटा आर्ट्स, सायन्स आनी कॉमर्स मेळून साताठशे भुरग्यांचो वावर. आनी ही दोनांयकडची मनशां मेळून फकत वीस मनशां. रांदप्यान सेकेंड शीफ्ट सुरू केली. जावेन दिल्ली चपाती-भाजी खावन हांवें पळ काडलो. 'तुमचीं फळां तुमीच भोगात. निमाणकडेन म्हज्याच संकासूराक पायां पडचें पडलें'.

रातचे अकरा वरांचेर ह्या घरांत उदक व्हरपाक आयलें जाल्यार आमचो संकासूर धरून सगळीं घोरेतात आनी वेंगुर्लेंचो भटमाम एकटोच रांदचे कुडींत शाबूतांदळाची खिचडी करता. ताणें ताचो मोबायल चार्जिंगाक दवरला. म्हाका विचारता, ''तुमी खाणार का माझ्याबरोबर खिचडी?'' म्हजेबरोबर इश्टागत जमोवंक सोदता! म्हणजे म्हाका फाल्यां कामांक लावंक. ''तुम्हीच खा तुमची खिचडी'' अशें मनांतल्या मनांत म्हणत हांवें पळ काडलो.

आयज परबेचो पयलो दीस. भटमाम सूर्य उदेवचे पयलींच खंय पळला कोणांक खबर! कॉण्ट्रेक्टाप्रमाणे आमचो रांदपी जावेगेर रांदूंक बसला. म्हजे पोटाक भूक लागल्या आनी घरांत पीनड्रॉप सायलेन्स. म्हाका पळोवन, मांय म्हणटा, ''अगे, आतां बोलयतंय मगे तुज्या रांदप्याक?''

भट सगळ्यांगेर पूजा करून आयलो. ताका पळोवन मांय फडफडपाक लागली. भट वतान तापून आयिल्ल्यान तांबडोगुंज दिसतालो. दोळ्याक गॉगल आनी माथ्याक चेपें घाल्ल्यान गुलजार दिसतालो. आतां हाणें रांदप केन्ना, देवाक निवेद्य दाखवप केन्ना आनी उपरांत आमी जेवप केन्ना? मांय ताणशेवंक लागली. भटाचे आनी तिचे मागीर किचनाच्या फ्रंटार थोडेशें युध्द पेटलें. म्हाका फुकेसवाय करमणूक. ह्या भानगडींत हांव ना. मागीर आयदनां फोडीत भट रांदूंक बसलो. सगळीं आयदनां धडाधड कुशीक मोखून मारूंक लागलो. कालच्यान ताका 'कोणाचो कोण' (हूज हू) सारकेंशें कळूंक नासलें. हांव म्हजे मांयची व्हडली सून असो ताका अचकीत साक्षात्कार जालो. ''कुठं गेल्या त्या तुमच्या थोरल्या सूनबाई?'' म्हणून ताकतिकेन आनी व्हडा उमळशिकेन म्हजो सोद घेवंक लागलो. म्हाका खंय खबर, घरांत च्या, साखर, मिरया, लवंगां खंय आसा तीं? भटान म्हाका सवळ्यांनी उदक हाड म्हण सांगलें. मांयन कुच्छिद्रिपणान म्हळें, ''ती आजून न्हावंकच ना''. भट म्हजे नीब धरून सगळ्यांचेर तापलो. ताका बाबड्याक

कोणे, किदें सांगून हांगा हाडिल्लो कोणाक खबर! मांयंक दिसलें, तो रांदूंक आयला म्हण. भटाक दिसलें आपल्याक गणपती पूजेक लांवंक हाडला म्हण. सगळोच संशयकल्लोळ.

सकाळ-सांज च्या करून म्हजो बावळो दुखपाक लागलो. तरी आमच्या कॅण्टीनांतलो रांदपी कॉलेजाच्या खाल्ल्या अन्नाक जागलो. द्रौपदीच्या उल्याक कृष्ण वेळोवेळार धावून येवचो तसो काळो किट्ट वालो (म्हणजे चेड्डी) नेसून धावून येवंक लागलो. म्हजी च्या करून जातकीर जावेच्या रांदचे कुडींत पळूंक लागलो. मागीर फाटल्यान कोण कोण, कोणाच्या कोणाच्या कानांत फुसफुसपाक लागलीं. ''बगलंय मा, आदीं म्हणा होती, आमकां नको म्हणान. आतां बगात कशीं परत परत बोलावन घेतंत ती. आमचा रांदूचा काम हंय अर्दांच उरलां. आनी आतां बग कसो सुमेधेन बोलायतकीर पळान गेलो.'' एक्सेट्रा... एक्सेट्रा...

आनी तेन्ना हो सुंदर मुखामळ आशिल्लो भटमाम घरांतल्या आनी घराभायल्या सगळ्या गोपिकांक जमोवन चौकेर भविष्य सांगूंक बशिल्लो. तो मेरेन ताका हांव लेखिका बी आशिल्ल्याचो सोद लागिल्लो. आनी तो म्हजेकडेन इश्टागत करूंक सोदूंक लागलो. हांव ताका थोडीच दाद दिता? हाचेपरस तो कॉलेजांतलो रांदपीच चड बरो.

तो भट सकाळ-सांज सगळ्या लोकांक तीर्थ घालपाचो एक व्हडलो सुवाळोच घडोवन हाडटालो. एका आयदनांत देवाचें तीर्थ घेतलां आनी चिपटें घेवन घरभर, लोकांच्या हातार घालूंक भोवता. ते वेळार कोण पेपर वाचता, कोण भजी खाता, कोण कांदे जोखता, कोण पाव खाता, कोण न्हाता, कोण खाड करता जाल्यार, कोण तोंड धुयता आनी हो वेळ, काळ, प्रसंग पळयनास्तना सगळ्यांच्या तोंडामुखार घेणेकरी कसो उबो रावन ''तीर्थ घे'' म्हण जबरदस्ती करता. पयले दोन दीस सकाळ-सांज सगळ्यांनी हो अत्याचार मुकट्यांनी सोसलो.

आमचो सदांचो भटमाम काय बरो गुणाचो. सकाळ फुडें एकदां देवांक घुश्शा घालता, फुलां मोखून मारता, निवेद्य आपटून सगळें थंयचें थंय दवरून पळटा. (केन्ना केन्ना निर्माल्ल्याबरोबर चिपटें, निरांजनां, बारीक सायजीचे देव, शाळीग्राम बी भायर उडयता आनी मागीर ते माडामुळांत वचून सोदून हाडचे पडटात) आमचे घरांत कोणाचेर देवभक्ती करपाची सक्ती ना. (म्हण हांव सुटलां.) जाणे ताणें आपल्याक फावता तशी, फावं तशी देवासेवा करपाची आनी 'देवा तूं पाव' म्हण ओगी बसपाचें. देव मोठो दयाळू आसा. तो आमचे सारक्या आळशांक आनी पातक्यांक पसून भोगशिता. हो भटमाम तर आमकां जबरदस्तेन देवामुखार नाक घासूंक व्हरूंक लागला. पार्सेकार देसाय म्हळ्यार वॉरियर ब्राह्मिन. तांकां पडलां सकाळ-सांज तीर्थ घेवपाचें? म्हज्या देरामुखार भटमाम तीर्थाची बुडकूली घेवन पावला मात जाल्यार एक गरड, ''हे बघा भटजी, यापुढे तीर्थ देवाच्या खोलीतच ठेवा. ज्याना हवं असेल ते तिथं जाऊन घेतील. तुम्ही ते घेऊन इथं तिथं नाचू नका.'' भट तीर्थ घेवन मोन्यांनी परत गेलो.

हातून भटाची चूक ना आनी म्हज्या देराचीय चूक ना. प्रत्येक जाण आपापल्या स्वभावधर्माप्रमाणे वागताले. फकत भटान मनशांक पारखुपाक चूक केल्ली. भटाचीय स्थिती 'पिंजऱ्यामध्ये वाघ सापडे, बायकामुले मारिती खडे' अशी जाल्ली. भटाकय हे 'काळ्या पाण्या'चे स दीस केन्ना काय सोंपतात आनी आपूण ह्या देंवचारांच्या तडाख्यातल्यान सुट्टा अशें जाल्लें. 'जीव आसल्यार भीक मागून खायन पूण परत पेडणे म्हालांत पांय दवरचो ना आनी देसायांसारख्या नास्तिकांच्या घरांत तर नाच ना' अशें तो म्हणटलो.

तरी भटमामान आमच्या घरांतल्या दादल्या-बायलांच्यो 'सगळ्यो ॲक्टिव्हिटीज' पळोवंक ना. जाल्यार ताचो आवरोच उडपाचो.

मागीर तो म्हजो रांदपी आनी मांयचो भट हांचेभितर युध्द पेटूंक लागलें. भट म्हज्या रांदप्याक म्हणटा, ''तू म्हाका आफडू नाका.'' जाल्यार रांदपी म्हाका म्हणटा, ''मॅडम, तो मला किचनमध्ये एण्ट्री देत नाही. मी

चपात्या कधी करू?'' ह्या झगड्याक हांव वाजेल्लें. घोवानूय आता म्हाका सांगलां. तू एक वर्सभर पयलीं रांदपी बूक कर. एनएसएस कॅम्पाक कशें सगळें जेवणाचें सामान घेवन वता तशें सगळें सामान हाड. तुज्या घरांत तुज्या रांदप्याकडल्यान रांदून घे. जमल्यार मांय-मांवाकूय तूच वाड.''

अशे तरेन आनी एक चवथ सोंपली.

30/9/07
'चवथ' सुनापरान्त 09

***





# 8.
# अल्लाउद्दिनाचो राक्षस

त्या दिसा सांजवेळार कॉलेज हॉस्टेलाच्या दर्यावटेनच्या बाल्कनींत हांव बशिल्लें. दिसाभराचीं कामां सोंपिल्लीं. हांव कदेलार बसून सू करून विसव घेवंक लागलें. दर्यावेल्या शीतळ, ताज्या वाऱ्याचीं प्रसन्न ल्हारां. कूड थंड, मन थंड. गाश्पार दीयश क्लबाच्या वाठारांतल्या सुरीच्या झाडांची मंद सळसळ. वाऱ्यावांगडा चलिल्ल्यो तांच्यो खबरी. सुरीच्या झाडांचीं गुपितां हांव कान दिवन आयकतालें. इतल्यान दाव्या वटेनच्या रस्त्यावेल्यान म्हाका हरीसो येतना दिश्टी पडलो. बेगीबेगीन येतासो. तेंच मोडवें कलसांव, तोच सदळसो पोन्नो शर्ट, मोडवोसार, आंगापांगान घटमूट. ताकतिकीन चलतालो. हांव उमेदीन हरीक पळोवंक लागलें. पूण तो कोण तरी मनीस ताकतिकेन चलत तसोच फुडें गेलो. हरी न्हय तो.. हरी नासलोच तो.

हांव आनी एक. सामकेंच येंडें. हरी कसो तिनसना हॉस्टेलाच्या

रस्त्यावेल्यान चलत येतलो आसलो? हरी केन्ना घरा गेलो. गेल्या वर्सा हॉस्टेल बंद जालें. हॉस्टेलाचो देड तपाचो ऋणानुबंध सोपोवन हरी गेलो. दोळ्यांत दुखां हाडून हरी गेलो. फाटले वर्सभर ताची मन:स्थिती सारकी नाशिल्ली. सतरबितर जाल्लें मन, आकूळपिकूळ जाल्लें काळिज आनी पयस दिगंतरांत शेणिल्ली नदर. हरशीं म्हाका हटकलेबगर तो फुडें वचं नासलो. पूण आतां तो म्हाका पळयल्यार पसून थांबना. आडावन प्रस्न विचारल्यार तुटक जाप दिवन फुडें चलूंक लागता. म्हाका खबर आसा. तो मुळांतल्यान हालला म्हणून. ताणें येवजूंकच नासलें हॉस्टेल आनी बंद जायीत म्हण. ह्या वयांत हांगाच्यान बिटकी कवळून ताका वचचें पडत म्हण. त्या दु:खान तो इतलो कासाविस जाल्लो की ताची सगळी कूडच ताची व्यथा म्हाका उलोवन दाखयताली.

वाऱ्याचें एक ल्हार आयलें आनी ताणें दर्याची कितलीशीच उचांबळ म्हज्या मनांत हाडून रकयली. मिरामारचे रेवेंत सदळसाणीन बशिल्लेवरी हांव विचार करूंक लागलें. तीनसांजच्या वेळार यादींच्यो कितल्योशोच पाताकुल्ल्यो म्हज्या मनाच्या मळबांत सैरभैर उडण करूंक लागल्यो. वाटकुळे वाटकुळे भोंवर मारूंक लागल्यो...

आठ वर्सां पयलीं हांव हॉस्टेलांत रावूंक आयिल्लें. प्रिन्सिपलूच रेक्टर आशिल्ले. तांणी म्हाका म्हजे कुडीचो नंबर सांगिल्लो. हांव लेडीज हॉस्टेलाच्या पयल्या माळयेवयल्या म्हज्या रूमांत पावलें. हॉस्टेल आजून सुरू जावंक नासलें. चलयो आजून पावंक नासल्यो. हांव पयल्या माळयेर एकटेंच आसलें. म्हज्या सामानाची मांडावळ त्या कुडींत करूंक लागलें. हॉस्टेलाचो कामदारवर्ग कोण आसा तेंय म्हाका खबर नासलें. इतल्यान दारांत कोणाची तरी सावळी पडली म्हण वयर पळयलें. जाल्यार एक आडसाट्या पिरायेचो, मोठोसो दादलो मनीस दारांत उबो आसा. मोडवें कलसांव आनी सदळसो शर्ट. पायांत जोतें ना. हांसकुरें तोंड करून म्हाका म्हणूंक लागलो, "तुमी टीचर, सुमेधा कामत, हंयसर रवांक इल्यात? बरां जालां." आनी

परतय हासूंक लागलो. पयल्याच भेटींत आनी पयल्याच उलोवपांत तो मनीस म्हाका खूप आवडलो. चड करून तो ह्या लेडीज हॉस्टेलाच्या नोकरवर्गापैकी एकादो आसूंये. नाजाल्यार तो हांगा कोणूच नासतना, एकलोच दादलो मनीस नेटान वयर येवन, म्हज्या कुडीभायर रावन आनी तेंय एका टीचरींकडे कसो उलयतलो आसलो? प्रसन्न हास्य ताचे मुखामळार पसरिल्लें. तो हरी पयल्याच दिसा सामको वळखीचो जावन गेलो.

हरी हॉस्टेलांतल्या चलयांच्या मेसांत काम करतालो. सकाळीं एका हातांत च्याची केटल आनी दुसऱ्या हातांत पावांचो तोप घेवन तो येतालो. मागीर चलयांनी च्या पितकीर तांची कोपां धुवप, शेल्फार उपडीं घालप, मेसांत सान्न मारप, मेजां पुसप, उरिल्ले पाव कावळ्यांक, माजरांक, सुण्यांक घालप.

किटू म्हणून ताची एक मानसकन्या आसली. हें माजर दिसूयभर ताच्या बरोबर वावुरतालें. दनपरां आनी रातचें ताचे बरोबर मेसांतल्या माळ्यार न्हिदतालें. माळ्यारूच पिलां काडटाले. हरी मागीर किटू सयत पिलांक आज्याच्या धन्यतायेन खेळयत रावतालो.

शाली म्हणून दुसरी आनी एक मानसकन्या आसली. हें कोलूक तांबडेंच. मोठें आल्त कोलूक. हरीन 'शाली' म्हण उलो मारतकीर आशिल्ले थंयच्यान धांवून येवन हरीच्या आंगार उपडें पडटाले. व्हडल्यान भोंओंओंओं करून भुकून हरीची अपुर्बाय करतालें. किटूकडे म्हजी रोखडीच इश्टागत जाल्ली. एक दीस हरीन म्हजी शालीकडेनूय वळख करून दिली. ''शाली, ही बग आमची नवी टीचर. हॉस्टेलांत रवांक इल्या.'' शालीन भोंओंओओ करून म्हजेकडेन पळोवन आवाज काडलो. तें म्हज्या हड्ड्यार दोके दवरून उबें रावलें आनी ताणें म्हजें तोंड चाटूंक सुरवात केली. हरीन म्हाका माजरां, सुणीं, बोकड्यो, गोरवां आवडटात म्हण शालीकडेनूय वळख करून दिल्ली; पूण शाली असलें अवचिनपण करीत म्हण ताका कल्पना नासली. हॉस्टेलांतल्यो सोफिस्टीकेटेड चलयो म्हज्या आनी हरीच्या 'संवादा'कडेन आनी शालीच्या 'परिचया'कडेन अजापून पळेताल्यो. हरीक शालीन लज

केल्ली. हरी मात्सो खांकुडून, मात्सो कासावीस जावन म्हणूंक लागलो, “शाली म्हणान सामक्यांच मस्तां. असां करीत म्हणान मी धरांक नासलां.”

हरशीं म्हाका शालीक उबारून हांडीर मारपाचें आसलें पूण हॉस्टेलांतल्यो सभ्य चलयो टीचरीच्या आडांगीपणाक हांसतीत म्हण हांव ओगीच राविल्लें. ल्हवू ल्हवू शालीकडेन म्हजी इश्टागत वाडली आनी कोणाचीच भीडमुर्वत बाळगिनासतना हांव शालीक उबारून घेवंक लागलें. आनी शाली भों ओ ओ ओ करीत आनंद व्यक्त करूंक लागलें. ह्या शालीचो फुडें दु:खद अंत जालो आनी हरीच्या काळजाक खोल सुरी तोपली.

हरीन दनपरां आनी रातचेंय जेवण हाडप. ताचोय विलो ब्रेकफास्टाबरोबरूच लावप. हांव दनपरां देडाक मेसांत पावतालें. तेन्ना कोणूच चलयो जेवपाच्यो नासताल्यो. हांव एकलेंच मेसांत आसतालें. हरीन ताट, उदकाचो पेलो हाडप. हरशीं मेसांतले वाडपी वेगळे आसताले. पूण दनपरां देडाक कोणूच नासताले. म्हण्टकीर हरी यजमान आनी हांव अतिथी. शिताचो तोप घेवन ताणें म्हजेमुखार उबें रावप. म्हाका बकासूर समजून शिताचो तोप म्हज्या ताटांत रकयत रावप. “आरे, राव राव.” म्हणसर सगळें ताट शितान भरून वतालें. मेजार शीत, मेजापोंदा शीत, म्हज्या घोंटयेंत शीत. शीतूच शीत. म्हणटा म्हणसर तोप घेवन हरी नाच जातालो. हांव तें शीतान उपाट भरिल्लें ताट घेवन परत भितर कुडींत वतालें आनी सगळें ताट आशिल्लें तशें तोपांत रकोवन म्हाका जाय तितलेंच शीत घेतालें. मागीर हरी हुमणाचो तोप घेवन येतालो. हुमणाचो म्हळ्यार कितें? फकत बांयभर पातळ रोस. भितर कांयच ना. पूण हुमणांत नुस्तें नासतकीर आपूणच नुस्तें खावन सोंपयल्यावरी हरीक लज जाताली. गुन्यांवकारी तोंड करून हरी पुटपुटटालो, “मासळी नाय भुतूर. निस्तो रोस.” हांव म्हणटालें, “आसूनी रे.” दनपारच्या कडकीच्या वेळार आयत्यो दोन उंडयो म्हाकाच गिळूंक मेळटात. त्योच व्हडल्यो. मागीर तोणाकाचो तोप. म्हजे ताट उपाट भरून व्हांवसर हरी तोणाक वाडत रावतालो. शीत, हुमण, तोणाक. सगळें मिस्तुराद. हॉस्टेलांत आठ वर्सां हांवें

इतलें तोणाक खालें कीं म्हाका कोणे ‘तोणाक’ हें उतर काडल्यार पसून ओकूंक येतालें. मागीर एका वाटयेंत लिपोवन दवरिल्लें नुस्त्याचे तळिल्ले दोन कुडके अळंग हाडून तो म्हज्या पानाकडें दवरतालो. ‘‘मियां अकरा वाजताच वेगळे काडून ठेयलेले. नाय तर हीं सत्यानाशीं पोरां मासळेचो एक कुडको ठेवंची नायत. निसत्यो बोडक्यो दवरतल्यो ताटांत.’’ सगळें वाडून हरी म्हाका हांव कशें जेवतां तें पळयत बसतालो. तें जेवण पळोवनूच म्हजें पोट भरतालें. ‘‘आनखी काय व्हंया?’’ ‘‘म्हाका काय नाका. तूं वच पळोवया.’’ ‘‘मियां जेवंक जातंय.’’ म्हण म्हजी परवानगी घेवन तो म्हाका फाट करून भितरल्या कुडींत जेवंक बसतालो.

दनपरां दोनाची किण्ण वेळ. भितर हरी आनी भायर हांव, थंडसाणींत वरांचीं वरां जेवत बसतालीं. म्हजे मूठभर गोटे आनी येदोळ जितलें शिल्लक उरिल्लें तितलेंच हरीक. पूण तांतूतय किटू, शाली आनी हेर मोनजातीचोय वाटो आसतालो.

सप्तकातले चार दीस अशें धंयार मुटको मारून जेवप आनी दोन दीस हॉस्टेलांतल्या चलयांचें गेस्ट वाडटाले, केन्ना त्यो सुबेज गिळटाल्यो, केन्ना जेवणच कमी जाताले... देडाक हांव वतालें, तेन्ना शिताच्या तोपांत गोट्यांची खरपुडी. हरी पळ काडटालो. ती थंड खरपुडी हांवें खरपून ताटांत घेवपाची. हुमणाचे तोप रितो. तोणाक नाच ना. केन्ना फकत नुस्त्या कुडके. हरी मागीर बॉयज मेसांतल्या कामदारांकडल्यान म्हज्या पोटाक घालपाक किदें किदें मागून हाडटालो. केन्ना मेळटालें, केन्ना ना. हांवें तेय दीस काडले.

हांव जेवन वयर येवन सुशेग न्हिदतालें. चारांक म्हजे दारार हरी घण्ण करून धुमको घालतालो. एक व्हडलो पेलो भरून च्या घेवन. तुमी दिल्लीक सरदारजी लस्सी पितात तो ग्लास केन्ना पळयला? तसलोच ग्लास भरून च्या. म्हाका च्याच आवडना, तांतूत आनी ग्लास भरून च्या? सायबा भोगोस. हांवें पन्नास पावटी हरीक सांगिल्लें, म्हाका ग्लास भरून च्या नाका. तरी तो म्हाका ग्लास उपाट भरून च्या पिवयतालोच. हेर चलयो तो ग्लास पिवन आनी इल्लो च्या पिताल्यो. दोन ग्लास च्या, त्यो खंयच्या पोटांत

दवरताल्यो कोणाक खबर!

रातचें हांव केन्नाच मेसांत जेवंक वचं नासलें. ताका लागून हरी नाउमेद जातालो. केन्नाय विशेष बेत आसल्यार हांवें जेवंक वचप. हरी म्हाका सातांक रिपोर्ट दितालो, ''टीचर आज जेवंक येयात. आयज 'चिकण आसा'. हांव केन्नाच कोंब्या दो़के चोखून नोकळो. हांवें हरीक तशें सांगचें, हरीन म्हणचें ''शिवराकांक पेशल भाजी आनी शीखंड आसा'' सकाळी अकरांक हरी म्हाका आयज बांगडे, तर केन्ना विसवण तर केन्ना निस्त्याक कांयच ना, 'सवराक' म्हण आरडून सांगतालो.

हरीक पळयतकीर म्हाका याद येताली ती सड्या, फातरफोड्या मळार उब्या आशिल्ल्या एकल्या एकसुऱ्या आंब्यारूखाची. हो मोठो रूख तळतळत्या वतांत तळपता, उटंगाराच्या पावसांत झडपता आनी कडकड्या शिंयान कुडकुडटा... तसो हो हरी. दोड्यामार्गावेल्या खंयच्या तरी कुग्रामांत ताचें घर. आंकवार हरी. लग्न जायनासतनाच बाबडो तसोच उरिल्लो. एक विधवा भयण आनी तिची भुरगीं. चवथीक आनी माया म्हयन्यांत घरा वतना हरी मायेन भरून थपथपून म्हाका तांच्यो खबरी सांगी. हांवें हातार उडयल्लें आसूं आसूं म्हणीत बोल्सांत उडयी. आपले आख्खो पगार हरी घरा तांकांच धाडटालो.

पूण तानेन व्हळपल्ल्या, पावसान झडपल्ल्या आनी शिंयान कुडकुडिल्ल्या आंब्यारूखाक तंवरां येवंची तसो हो एकलो एकसुरो हरी वर्सभरूय प्रसन्न मनान वावुरतालो. हांसकुऱ्या तोंडान सगळीं कामां करतालो. तंवरा फाटोफाट आंब्यारूखाक तोरां धरचीं आनी पिकिल्ल्या गोड, म्होंवाळ आंब्यांनी पोरांतोरां धादोशी जावंचीं तशीं हरीच्या अस्तित्वान, मायेन, उपकारांनी सगळीं जाणां संतुष्ट आसतालीं. मागीर तें हॉस्टेलांतलें किटू जावं नाजाल्यार सुमेधा टीचर जावं. कोणाक कितें जाय म्हणटकीर ताणें तें पांचूच मिनिटांत हाजीर केलेंच म्हण समजुपाचें. ताका पळोवन म्हाका अल्लाउद्दिनाच्या जादूच्या दिव्यांतल्या राक्षसाची याद जाताली. दिवो

घांसलो काय राक्षस हजर. सांगता तें काम करपी तो राक्षस.

बाल्कनींत वचून हांवें ''हरी'' म्हण साद घालची. जाग ना. दुसऱ्या उल्याक हरी ''इलंय, इलंय'' म्हणत फायरब्रिगेडाच्या शिपायांनी ज्या ताकतिकेन युनिफॉर्म घालचो त्या ताकतिकेन कपडे घालीत शेंवटत येवचें. केन्ना बाबडो सान्न मारी तर केन्ना आयदना घांशी, तर केन्ना माळ्यार सुशेग न्हिदून घुरूघुरू करी. केन्नाच दुसरो उलो ताणें फुकट वचूंक दिलो ना. घब घब घब धेंपां घालीत देंवचार कसो तो म्हज्या दारांत उबो रावी. हांवें म्हणचे, ''हरी म्हाका दुदापोती जाय मरे''. ''आत्तां आणतंय'' म्हण पैशे मुठींत घट्ट धरून हरी धांव धांव. मिरामार एका पसऱ्यार पोती नासल्यार तो सांतिनेज मेरेन चार-पांच दुकानां माडूडोवन म्हाका जाय तसली दुदापोती हातांत लांबयत विजयी मुद्रेन दुसऱ्याच खिणाक हजर.

एक पावट रातचे आठांक म्हाका कडकडून भूक लागली. मेसांतले जेवण सोंपिल्लें. हांव पदेराच्या उंड्याची वाट पळेताले. पावसाचे दीस. थंड वातावरण. पावसान चिकचिकीत जाल्लो रस्तो. मदीं मदीं भिरीभिरी पावस. भुकेन म्हजो जीव चिटमिटूंक लागलो. हांवें हरीक दोन रूपया दिवन उंडे हाडूंक लायले. अर्द वर जालें, हरी आयलो ना. देवा, पावसांत भुताबशेन गेल्लो, हो खंय पावलो? हांव ताका व्हडलो पाव तरी हाडूंक सांगतलें आसलें. वराभरयान दोन उंडे हातान धरून तो पावलो. त्या उटंगाराच्या पावसान ताका खंयच उणे मेळले नात म्हणून तो करंजाळे पावाभट्टेकडेन वचून दोन उंडे घेवन आयलो. काकूट ताची. भिजून चिप्पट ओलो आनी वयर पाव हातांत घेवन हांस हांस हांसता. देवानूच ह्या आठ वर्सांत ताका म्हजेखातीर धाडिल्लो अशें म्हाका दिसलें.

पैशांचो हिशोब चोख. मागीर हांवें हातार कितेंय झडयतकीर ''आसूनी आसूनी'', म्हणत तें घेवन तो वतालो. 'ठँक्यू' म्हणपाचीय एक व्हडली उमेद. चलयोय ताका कितें कितें हाडूंक लायताल्यो. ते सगळे पैशे एकठांय करून तो माळ्यावेल्या ताच्या पांचव्या रंगाच्या गडगंज ट्रंकेंत दवरी. त्या ट्रंकेक एक पकदस्त कुलुप आसलें आनी ताची चावी हरीच्या गळ्याक.

कोणाक कापाजिदाद आशिल्ली चावी काडपाची? मर्दी मर्दी ते पैशे खर्च करून तो सिनेमा पळोवन येई. सिनेमाचो वेळ तीन ते स. ह्या वेळांत तो मेकळो आसतालो. हांव स उपरांत मिरामारच्यान कला अकादमीकडेन पासयेक वतालें, तेन्ना वाटेर खंय तरी नवो ताल्ल बुशकोट, नवीच (लांब) पॅण्ट आनी जोतें (हें फकत पणजेंत वतना घालपाचें) आनी एच.एम.टी चें घडयाळ. (आपलें घडयाळ एच. एम. टी. चें आसा म्हण तो म्हाका सदांच सांगी. घडयाळ घालून घस घस करून चलत येतना (बसीक रूपया कोण व्हगडायतलो?) दीसं.

हरी म्हज्या दारांत उबो रावून 'एच. एम. टी. क चावी आनी वरां लावन दी' म्हण आयलो काय म्हाका कळटालें, आयज पात्रांव सिनेमाक वतां. हांवूय चावी दिवपाचें काम अग्निबाण सोडिल्ल्याचे उमेदीन आनी तन्मयतेने करी. हरी म्हजेकडे धन्य जावन पळयत रावी. (टीचरपसून म्हज्या घडयाळीक चावी दिता, हो तोंडाचेर भाव.....)

मिरामारच्या वाटेर हरीक हांव दिश्टी पडटालें. हांव बाजारांत वता म्हणजे हांव दाव्यान आनी तो मिरामार वता म्हणटकीर तो म्हज्या उजव्यान. रस्त्यार तो म्हाका 'टीचर फिरूंक चल्ल्या?' म्हण मोठ्या उमेदीन विचारी. आनी हांस हांस हांसून (हांव फिरूंक वता ही कितें हांसपाची गजाल? पूण ना. हरी हांसतालोच. मागीर तें कितेंय जावं....) तो घरा वचं.

एक दीस हांवें ताका 'तूं सिनेमाक वतलो, तेन्ना म्हाका सान्न हाड', म्हण फर्मायिल्लें. हो पुता, दिस्त म्हाका कला अकादमीच्या दरवठ्याकडेन मेळ्ळो. हांव म्हज्या दोन-तीन आर्टिस्ट इश्टांकडेन उलयतालें. म्हाका पळोवन हो रस्तो क्रॉस करून, हातांत सान्नीचो झेंडो घेवन म्हजे म्हऱ्यांत अवतीर्ण जालो. सान्न फुडें करून म्हजे इश्टांच्या कवंडाळ्यांत रिगूंक लागलो. लोकांक हें कसलें प्रकरण तें कळ्ळें ना. हरीन म्हाका त्याच आणीबाणीच्या वेळार सांगून सोडलें, ''टीचर मियां सारण हाडली. वीस रूपया सांगताली. पूण मियां भांडून सतरा रूपयांक हाडली, हे बगा तीन

रूपये''. हांवें प्रेमळपणान सांगलें, ''हें पळय हरी, सान्नीचो हिशोब मागीर करूया. तूं वच.'' ''पूण सारण खंयसर ठेवू? तुमी दाराक कुलाप केल्यानी.'' ''आरे पापया, दारांत दवर.'' हॉस्टेलांतल्या चलयांक टीचरीची सान्न खावपाची उमेद ना. (टीचरीची सान्न खाल्यार फाटींत मुगडो पडटलो हें तांकां खबर आसा.) हरीच्या कोंतान हांवें थंयच्या थंय सान्नीचो झेंडो ताच्या हातांतल्यान स्वीकारचो, ती कितली बरी आसा हाची थंयच कला अकादमीच्या दरवट्याकडेन चर्चा करची, ताका 'थँक्यू' म्हणपाचें (दुसऱ्यांनी ताका 'थँक्यू' म्हणिल्लें भयंकर आवडटा) आनी ते येदोळचे तीन रूपया ताका झडोवचे.

हरीक टी. व्ही. पळोवंक भयंकर आवडटालें. चड करून छायागीतां, चित्रगीतां बी. चलयो प्रिन्सिपलाच्या हॉलांत बसून टीव्ही पळयताल्यो तेन्ना होय चलयांच्या मांडयेक मांडी लावन टी.व्ही. पळयतालो. एक दीस मनिषा कोयरालाची खबर सांगपाक ताणें म्हज्या मुखावेल्या एका चलयेक हाताक धरून कुशीक काडलें. छायागीत सोंपसर चलयांक जेवणबीण कांय ना. छायागीत सोंपलें म्हणटकीर हरी धांव धांव. किचनांत वचून तोप खांकेक मारून धांव धांव.

ताका वाचनाचीय आवड. अर्थात् मराठी पेपर. मराठी पेपर तो फाटींफुडें सगळें वाचून काडी. ताका कितलें कळटालें तें ताकाच खबर. पूण म्हजो लेख येतकीर (म्हजे पाच हजार ओळखीचे लोक आसात, पूण ते लेख वाचिल्ल्याचें मुद्दाम सांगिनात. वायट कितेंय आयल्यार आडावन विचारतात) हांवें सोमारा हॉस्टेलांत पावल दवरले बरोबर सांगतालो. ''बरो आसा'' म्हण वयर टिप्पणीय करतालो. निदान हरी तरी म्हजो लेख वाचता म्हण हांव धन्य जातालें. हरी पेपरांतल्यो बातम्यो म्हाका सांगून दनपरां जेवतना म्हजेकडें तांचेर चर्चा करी.

हरी सांजवेळार मिरामार पासयेक वतालो. फूड फेस्टिव्हलाक, फेस्तांनी, जात्रांनी, फेरयांनी दिश्टी पडं. नवे कपडे घालून थाटांत रावी. खाजे, चणे खायत रावी. हॉस्टेलांत वचून हेर कामदारांक, तांच्या पोरांक

वाटत रावी. म्हाका वाटेंत हटकी. लोक चड, उणें, हवा थंड-गरम हाचेर विचारविमर्श करी.

एक दीस एक एक्स्ट्रा लेक्चर घेवंक जाय आसलें. कॉलेजांत म्हाका खंयच फ्री रूम मेळलो ना. भुरगीं एफ् व्हाय. बी. अे. ची. ऑन्सिलरी कोंकणी घेतिल्लीं. चार-पांच भुरगीं, तांकां घेवन हांव मेसांत गेलें आनी शिकोवंक लागलें. हरीक दिशिल्लें, हांव कॉलेजांत शिकयता म्हणचे कसलो तरी भयानक विषय शिकयता आनी तो ताका कळनाशिल्लो आनी म्हणूनच तो म्हाका पळोवन धन्य जातालो. तो उमेदीन आसा. मांडी घालून मेसांत जमनीर बसलो आनी म्हजें लेक्चर आयकूंक लागलो. हांव कोंकणी शिकयतालें, कोंकणी उलयतालें, हरीक सगळें समजतालें. हरीक मारली भिरभिरी. ''शिरां घाल हांच्या व्हरून...'' अशेंशें कितें तरी बडबडत मदींच उठलो आनी म्हणूंक लागलो, ''कोंकणींतल्यान काय बोलतात, मराठींतल्यान बोला'' आनी चलूंक लागलो. त्या दिसाच्यान मराठी-हरीच्या कोंतान म्हजो वालोर खूपसो उणो जालो.

हरी भुरग्यांचीय म्हजेच बशेन कामां करी. पाव, दुदाच्यो पोतयो, बिस्किटी, भेळ बी घेवन तो बद्द तांच्या रूमांत नाचून, दुसऱ्या वटेनच्या बाल्कनींत पळोवन पसून येई. निष्पाप, निरागस मनीस. ताच्या मुखार 'तरूण चलयो' नासल्यो तीं ताच्या मनान भुरगीं आसलीं. हरशीं ह्योच चलयो नाक जमनीक लागिल्लो म्हातारो हॉस्टेलाच्या भायर रस्त्यार पळयल्यारपसून बोबो मारपाचे लाग करताली आनी हरी कुडींत येवन नाचून गेल्यारपासून ताका कांयच म्हणं नासलीं. म्हजी कूड जाल्यार ताका आपलींच कशी दिसताली. फांतोड, दनपरां, सांजे, रातचे मेळटा तेन्ना म्हज्या दारार घुम्म करून धुमको घाली आनी हांव दार उकतें करतां थंय आसा, दार उगडून कुडीच्या मदीं उबो रावन म्हाका किटू आनी शालीच्यो खबरी सांगून तकली उसळायत रावी.

एक दीस सकाळीं आठांक लेक्चर आसलें म्हण हांव च्या

पिनासतना कॉलेजांत गेलें. पावणे णवांक हांव स्टाफरूमांत आयलें. जनेलांतल्यान म्हाका हॉस्टेलाकडे वचपाची वाट दिसताली. जाल्यार हरी एका व्हडल्या ग्लासांत कितें तरी घेवन, ताचेर कागद धापून ताकतिकेन कॉलेजाचीं सोपणां चडटा. आयज हरीची कसली तरी कॉमिक आसा म्हण हांवें चिंतलें. जाल्यार कितें? हरी स्टाफरूमाचें दार धुकलून च्याचो पेलो हातांत घेवन म्हजेमुखार धन्य जावन उबो. तेंच मोडवें कलसांव. तोच सदळ शर्ट. पांयांत जोतें ना आनी हांसकुरें तोंड. ''हरी हें कितें?'' ''तुमी च्या पिवंक नाय म्हण हयसर घेवन इलंय.'' म्हजे दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावूंक लागलीं.

कोणे तरी म्हळें, ''आगो, हो मडगांवच्यान च्या घेवन आयला काय कितें?'' नशीब म्हजें! लेक्चर काबार जावन हांव स्टाफरूमांत आयिल्लें म्हणून; नाजाल्यार हो क्लासरूमांत भितर सरून हांव शिकयता थंय येवन म्हाका च्या पिववपाचो.

हरी हांव कितें सांगता तें करतालो. केन्ना केन्ना नळ वतालो. तेन्ना म्हाका हरी कॉलेजीच्या बोटेनिकल गार्डनांतल्यान माथ्यार कळशी, कंबरेर कळशी अशा थाटांत 'घट डोईवर, घट कंबरेवर' करत राधेबशेन (पूण मोडवें कलसांव घालून) उदक घेवन येतालो. हॉस्टेलांतल्यो चलयो ताका ह्या अवतारांत पळोवन हांस हांस हांसताल्यो. हरी अर्दे उदक रस्त्यार तर अर्दे आपल्या आंगार रकयतालो. कळशो म्हजे बादल्यांनी घालून घरांत प्रलय येयसर उदक भरत रावी. ''आरे नाका'', म्हळ्यारपसून आनी दोन कळशो ओती. म्हाका दिसलें, म्हजो नळ वर्सभर गेल्यार हरीक चड आनंद जावपाचो. टीचरीकडे वर्सभर उदक भरूंक मेळलें म्हणून.

एक दीस हरीनूच उपस्थित केल्ली 'बुडटी' निवळ कर म्हण हांवे ताच्या हातांत सान्न दिली, जाल्यार हाणें सान्न घरभर दांडपट्टो कसो मारून म्हजें खाटेवयलें कुलचांव, पुस्तकां, दांडयेवयले कपडे, उदकांत फुगोवन दवरले. वयर विचारता, ''आनी इल्लें उदक हाडू?'' म्हाका हांसचें कांय रडचें तेंच कळना जालें.

केन्ना केन्ना बसस्ट्रायक जाताले. मडगांवां वचपाक बसी बंद जातात्यो. पूण हांवें हुस्को केलो ना. हांवें मडगांवां वचपाक बस ना म्हणिल्ली जाल्यार परमेश्वराचो दुसरो अवतार आशिल्लो हरी, पानिपताच्या पराभवा उपरांत सदाशिवराव भाऊच्या बायलेक - पार्वतीबायक फाटीर मारून हाडिल्ल्या जानू भिंताड्याबशेन म्हाकाय मडगंवा पावयतलो आसलो.

हरीक एक पावट हांवें बन(पाव) हाडूंक लायले. रूपयाक एक पाव. हरीक हांवें दोन रूपया दिले. हरीन सांगलें, ''दोन रूपयांत बन येना.'' हांवें सांगलें, ''तितल्याचेच हाड.'' (हो आनी व्हडले पाव हाडीत. आनी ते म्हाका चार दीस चांचायत बसचे पडटले.) हरी गेलो आनी एक ल्हानशें बॉक्स घेवन आयलो. (आर्राऽऽ आतां बन्स बॉक्सांनी बी घालून विकतात काय कितें?) ''बगलला मां, मियां सांगलला दोन रूपयाक बन मेळचे नात म्हण. मी माजे तेरा रूपये घालून बन हाडले.'' (म्हणचे हाणें पंदरा रूपयांचे बनपाव हाडल्यात. म्हणचे आयज दनपारचें जेवण कॅन्सल करचें पडलें.) हांवें बॉक्स पळयल्यार 'बल्ब'. हांवें कपलाक हात लायलो. (हांव आनी वराचीं वरां उच्चार आनी ध्वनिशास्त्र असल्या निरर्थक विषयांचेर बडबडटा. व्यावहारिक जीवनांत आसा कितें ताचो फायदो? आता हरीक फारीक कर तेरा रूपया. आनी विडीकाडीक दोन रूपया). म्हजे तकलेंतलो बल्ब आजून कित्याक पेटना हाची चिंता करीत हरी उबो.

एक दीस म्हजो बापूय हॉस्टेलाचीं सोपणां चडटालो. ताका पळोवन हरी तांच्या तोंडारूच हांस हांस हांसलो. बापायक सांगूंक लागलो, ''तुमी टीचरांचे वडील ना? तुमी तिचेच सारके दिसतात.'' बापूय थंड. पूण हांवें हरीच्यो इतल्यो खबरी घरा सांगिल्ल्यो की हो हरीच आसतलो म्हण बापायन ताडलें.

चवथीची सुटी सोपोवन हरी परत आयलो. म्हजेखातीर साग्वाद घेवन ''हरी कितें? नेवऱ्यो?'' हरी हां हां करून पयलीं हांसलो. ''तुमकां मी नेवऱ्यो कशो आणीन? तुमच्यासाठी मी फळां आणल्यानी?'' (हाका आनी

म्हाका फळां हाडपाचें काम करपाक कोणें सांगिल्लें?) म्हाका दिसलें दोडामार्गावेल्यान कसलेंय फळ हाडलें जायत. पुडी उकतीं केल्यार बरी उत्कृष्ट दर्जाचीं दुजभर सफरचंदां.

"आरे हें किदें?" पणजेंत पयलींच बाजाराक उजो पेटला. "तूं कितले पयशे खर्च केल्या सांग?" "टीचर चवथीचां काय तरी दिवंक व्हयां म्हणून मी दिलां, तुमी म्हाका सद्दां दितात. एक पावट तरी म्हाका तुमकां दिवंक दियात." सफरचंदां हातांत घेवन भिजिल्ल्या मनान हांव थंयच कितलो वेळ तरी उबें रावलें.

ताचेसारक्या गरीब, निष्पाप जीवाकडल्यान म्हाका कांयच नाका आसलें. पूण ताकापसून प्रेमाची, कसल्याय देवाण-घेवाणीची कृतज्ञता व्यक्त करपाची केदी उमेद!

त्या दिसांनी शालीन प्रिन्सिपॉलाच्या गॅरेजीन पिलां काडिल्लीं. हरी ती दाखोवंक म्हाका हाताक धरून घेवन गेल्लो. शालीच्या देहाक चारी वाटांनी पांच-स पोरां लुचतालीं. शालू आवांताद पातळिल्लें. म्हाका पळोवन शालीन भों ओ ओ भों केलें. हांव शालीक 'हॅलो' म्हणून परत आयलें. पंदरा वीस दीस जाले.

पोरां मात्शी व्हड जालीं. शिटूक जालीं. हेवटेन तेवटेन भोवूंक लागलीं. एक दीस हरी हुंडको फोडून म्हजेकडे धांवत आयलो. "टीचर माज्या शालीक कोणी तरी वीख घालून मारून उडयलां. तां बगा थंयसर मरून पडलां." आनी हरी मोडांत सांपडिल्ल्या रूखावरी मुळासयत हालूंक लागलो. कासावीस जावन रडूंक लागलो. हांवें हरीक खूप समजायलें. हरी म्हणटा, "हरशीं म्हाका कांय नासलां. बाबडी, पोरां आवयक सोदतलीं?" हरी मागीर आनीकूच व्याकूळ जावन, पिलांक सांसपीत बसूंक लागलो.

किटू, शालीची पोरां, सिनेमा, छायागीत, मिरामारची दर्यावेळ, मरसर वावर... हरीचो वेळ वतालो.

केन्ना केन्ना म्हाका दिसतालें, असले नोकर आयच्या काळांत जीव

दिल्यारपसून मेळचे नात. ताकां आमगेर व्हेल्यार कसो? पूण हरीचो पगार दिवप म्हाका सहज शक्य आसलें. पूण हरीचें जेवण.... अर्द पड तांदूळ कुकरांत उकडून सकाळ-सांजवेळ जेवपी मध्यमवर्गीय मनशां आमीं. आमकां कसो परवडटलो तो? मागीर हांवें स्वप्नरंजन करचें, हांव खूब श्रीमंत जाल्यार पयलीं हरीक खांकेक मारून व्हरतलें बी...

दीस गेले. आनी अचकीत गेल्या वर्सा हॉस्टेल फुडल्या वर्सा बंद म्हण अधिकृत घोषणा जाली. हरी स्तब्ध. ताच्या दोळ्यांमुखार काळोख आयलो. हात पांय धोडावन पोट भरपी प्रामाणिक मनीस तो. ह्या भुयेर ताका खंयच मरण नासलें. पूण ताचें मन हॉस्टेलांत रमिल्लें. भुरग्यांनी, कॉलेजाच्या खबरांनी, कार्यावळींनी, मिरामारचे वेळेन रमिल्लें. मिरामारचे वेळेर जे कामदार लोक जमताले, तातूंत हरीचे इश्टूय आसले. तांकां तो आपूण कॉलेजींत काम करता म्हण नेट दाखयी. एक दीस एका भिकणकाराक 'आमची टीचर' म्हण म्हजी वळखूय ताणें करून दिल्ली.

फाटलें देड तप जें रंगीबेरंगी दीस ताणें अणभविल्ले ते दीस आतां ताच्या हातांतल्यान सुटूंक लागिल्ले. ताची खंत ताच्या मनांत. तो सतरबितर जालो.

आनी गेल्या वर्सा दुसरी टर्म सोंपली. हांवें हरीक 'तूं खंय वतलो? कितें करतलो?' कांयच विचारलें ना. पांखां तुटिल्ल्या सवण्याबशेन जाल्ल्या ताच्या घायाळ मन:स्थितीची हांव पयसुल्ल्यान दखल घेतालें.

आनी एक दीस हरी गेलो. हिशेब केलो. साटली पोटली बांदली. पोन्ने नवे कपडे एकठांय केले. पायांत जोतें घातलें. ती माळ्यावेली पांचव्या रंगाची, घटमुट कुलप लायिल्ली, गडगंज ट्रंक खांदार मारली आनी तो दोड्यामार्गाच्या एस.टी.त बसलो. हरी गेलो. पयस गेलो.

वतना ताणें म्हजो निरोपपसून घेतलो ना. ताणें तो किद्याक घेवंक ना हें म्हाका खबर आसा. म्हाकाच ताका निरोप दिवंक जावचें नासलें. हरीचो

पत्तोय म्हजेकडेन ना. एक वेळ कॉलेजांत आसूंक शकता.

केन्ना केन्ना हरीची याद येता. हरीचे हांसरे मुखामळ आनी प्रेमान लिकलिकपी दोळे म्हजे नदरेमुखार उबे रावतात. आनी हांव व्याकूळ जाता...

परत एकदां यादींच्यो पाताकुल्ल्यो म्हजे मनांत भोंवर मारूंक लागतात...

सप्टेंबर 96
सुनापरान्त
(भाषा परिषद, कोचीचो सरस्वती साहित्य पुरस्कार)

***





# 9.
# सुणेगोत्र

हांव रावतां त्या बिल्डिंगेफाटल्यान सरभवतणी झाडां आसात. तीन-चार स्टोअर रूम आसात. पणजेंतलो टोंक-मिरामार वाठार आसून पसून ह्या वाठारांत रातचें किण्ण जाता. भंय दिसता.

एक दीस रातीकडेन एका थाराविक जाग्यावेल्यान एका कुत्र्याच्या भोंकपाचो आवाज आयकूंक येवंक लागलो. हरशीं आमच्या ह्या वाठारांत, रस्त्यार भटक्या कुत्र्यांचें एक सैन्य भोंवत आसता. आमचे बिल्डिंगेच्या चारीवटेन दुरीग आसा. कमांडोच्या आवेशान दुरीग घमाघम हुपून धा-पंदरा कुत्रे फाटल्या पोरसांत भितर सरतात. सुकिल्ल्या पाल्यावेल्यान, घसाघसा करून धांवतात. खराखरा करून कागदां खरपितात. मनांत आयल्यार एक ल्हानशी भूंक - संगीताची कार्यावळ करून आयिल्ले तशे दुर्ग हुपून नाच जातात.

म्हज्या मनाक एक ल्हानसो आनंद मेळता आनी फुडें हांव खोशयेन न्हिदूंक वता.

आमच्या शेजारच्या बिल्डिंगेत एक बँक आसा. मध्यानरातेर बँकेचो अलार्म वाजूंक लागलो. धोको. हांव बँकेच्या सायरनाक वळखता. एकदा आमच्या पोरसांत पणसांच्या खोलयांक कोणे तरी हय-न्हयसो उजो घाल्लो. ताची मात्शी धुंवरी जाली. बँकेच्या सेन्सराच्या नाकाक रोखडेंच कळलें की उजो लागला म्हण. मागीर जो एक सायरन वाजूंक लागलो... संबंधित लोकांचो बोवाळ. कोणे बसींतल्यान बी उडयिल्लें सिगार खोलयांचेर पडिल्लें काय देवाक खबर! तसो हो सायरन आतां मद्यानरातीर वाजूंक लागला. हांव भायर आयलें. रस्त्यार शांतताय. रातचीं तीन वरां जाल्यांत. हो वेळ चोरांच्या विशेष आवडीचो. ह्या वेळार दोळे उगड म्हळ्यार पसून उगडनात. कोणाची पोटली व्हरून खंयूय उडयली जाल्यार पसून कोण्णाक कळपाची ना.

हांव गॅलरेंत उबें आसा. सायरन वाजत आसा. इतले मजगती म्हज्या घोवान पोलिसांक फोन केलो. इतल्यान कुत्र्यांचे ते पेट्रोलिंग करपी सैन्य आयलें आनी तांणी बँकेच्या बंद दारामुखार उबें रावून व्हडल्या व्हडल्यान भोंकूंक सुरवात केली. तांचो तो भयसूचक आवाज आयकून हेवटेन आदर्शांतले, तांचो आवाज आयकून ताळिगांवांतले, तांचो आवाज आयकून केरांतले आनी हेवटेन मिरामारचे, तांचो आवाज आयकून काम्पालावेले आनी मागीर फुडें फुडें... अशो तोफगुळयांच्यो फैरी सुटत रावल्यो. अशे तरेन टोंक-मिरामार ते पणजी बसस्टॅण्ड आनी हेवटेन दोनापावला जेटीमेरेन कुत्र्यांनी पंदरा मिण्टान सगळ्या जगार पेरगांव घालें. ही कुत्र्यांची संपर्क आनी सुरक्षा-वेवस्था. मनशांनी तांचेपसून खूप किदें घेवपाचें.... निमाणकडेन पोलीस आयले. मॅनेजर आयलो आनी सेन्सरावेल्यान हुंदीर गेलो असो सोद लागलो. आनी आमी, कुत्रे, पोलीस, मॅनेजर, आनी अर्द्या न्हिदेंतल्यान उठून आयिल्ले हौशे, नवशे, गवशे हांनी दोंगर पोखरून हुंदीर भायर काडलो. मागीर

आपले घरा सगळे परत गेले.

तर हे आमचे अशे तरेचे इष्ट कुत्रे....

तर खबर सांगतालें स्टोअररूमांकडल्यान भोंकपी त्या कुत्र्याची. कोण काय हो कुत्रो? सद्दां एकाच जागेवेल्यान मध्यानरातीर भोंकता. त्या आवाजान हांव अचकीत जागें जातालें. आनी आवाज खंयच्यान येता हाचो सोद घेतालें. सुमार वरभर तरी म्हाका न्हीद येनासली. तरी म्हज्या जीवाक मात बरें दिसतालें.

कित्याक तर? म्हाका दिसलें तो भोंकपी कुत्रो म्हळ्यार एक तर वाऱ्यावेलो कुत्रो आसूंक जाय. रातचो आमच्या भितोडेक न्हिदूंक येता आसतलो. मध्यानरातीर वरभर भोंकून आमच्या पोरसाक राखण दिता आसतलो. तो कुत्रो कोण तें हांवें काळखांत दोळे फोडून पळोवपाचो यत्न केलो. कारण दिसा-उजवाडा म्हाका ताचेकडेन इश्टागत करची आसली.

आमच्या नावेले दोंगरे-वाड्यार असल्याच कुत्र्यांची एक फौज आसा. ते सगळे म्हजे इश्ट. तातुंतल्या फकत एका तांबड्या कोलकाकडेन म्हजी ऑफिशियल फ्रेण्डशीप आसली. तें कोलूक त्या ग्रूपाची महाराणी वा आजी-पणजी किदें म्हण्टा ती. रातीं हांव केन्नाय कुळारा उसरां बी पावलें जाल्यार एकामेकांच्या आंगार गाड न्हिदिल्ले ते कुत्रे एकूच दोळो उगडून म्हजेकडेन पळयतात. मागीर ती म्हजी इश्टीण हेरांक म्हणटा, "न्हिदा रे पोरांनो, ओग्गी. आमचीच ती." आनी तें आयकून हेर कुत्रे तो येदोळ उगडिल्लो एकूच दोळो परत धांपून घेतात. परत न्हिदेच्या राज्यांत वतात. आनी कोणांक तरी दुस्मानाक फाफसून खाल्ल्याची सपनां पळयत रावतात. पूण एक खरें. गाड न्हिदतात. पूण नाक आनी कान उकते दवरून!

तें जाण्टे कोलूक म्हाका बद्द घराच्या दारामेरेन पावयता आनी म्हाका गुडबाय करून परत आपल्या जम्यान वता. सुटये दिसांनी ह्या कुत्र्यांकडेन हांव भरपूर खेळटां. ताका लागून हालींसरा तो आख्खो जमोच

म्हजो इश्टवर्ग जाला.

केन्नाय मद्यानरातीर हांव आईगेर पावलें जाल्यार आनंदान आख्खे नावेले इंगर्जेमेरेन आयकूंक येतलो असो बोवाळ घालतात. लोक न्हिदेंतल्यान उठून म्हाका गाळी बी घालीत म्हण हांव बेगीबेगीन घरांत पळटां. असली इश्टागत म्हाका टोंक-मिरामार वाठारांत करूंक मेळूंक ना. कित्याक तर? एक तर हांगाचे वाऱ्यावेले कुत्रेपसून हांगाच्या लोकांबशेन शिष्ट. कामापुरते उलयतले आनी लागतले चलूंक फुडें. ''तूं म्हजें कोण न्हय, हांव तुजो कोण न्हय'' तशे हे कुत्रे. हांकां सद्दां खांवंक घाल, तांची वाट पळयत बस. खातात आनी शेपडीपसून हालयनासतना फाट करून वतात. तेन्ना इष्टागतीक आनी स्कोपूच ना. म्हऱ्यान गेल्यार घांस बी काडीत म्हण भंय. तशे म्हाका घरांतल्याच कुत्र्यांनी घांस काडिल्ले आसातूय बी.

हांव सोद घेत आसां. म्हयनो गेलो. आमचो कुत्रो भोंकीत आसा, मध्यानरातीर हांव हांतरूणार उठून बसतां. वरभर न्हीद येना. घोवाच्यो तापोवण्यो खाता. तरीकूय 'कुत्रो आमचो' हो आनंद म्हजेकडेन आसा.

पावस सुरू जालो आनी कुत्र्याचो आवाज अचकीत बंद जालो. खंय गेलो काय बाबडो? सुक्या जाग्यार? तो बसता थंयचो जागो भिजला आसतलो. जून, जुलै सोंपलो. कुत्र्याचो आवाज ना. म्हाका वायट दिसलें. एकादशीकडेन लागिल्लो पावस बद्द अकरा दीस सेगीत पडलो. आनी मागीर एक दीस सुकें सडसडीत जालें. मद्यानरातीर कोण तरी म्हज्या लागीच्यान व्हडाव्हडान भोंकता असो म्हाका आवाज आयकूंक आयलो. पावस पडून निवळ जाल्ल्या वातावरणांत तो आवाज चडच मोठ्यान आयकूंक येतालो. आमचो कुत्रो परत आयलो दिसता.

शेणिल्लें गोरू गोठ्यांत येतकीर धनयाक दिसता, तशें सुख म्हज्या जिवाक जालें.

दुसरे दिसा पावस सामकोच खळलो आनी कुत्र्यान बारा वरांचेरूच संगीत-सरीता सुरू केली. हांव न्हिदेंतल्यान जागें जालें. फाटले जनेलाकडेन उबें रावलें. आनी कुत्र्याचो सोद घेता. कुत्रो दिश्टी पडना. पूण कुत्रो व्हडान भोंकता तें आयकूंक येता. आज्नेरी बी न्हय मूं? हांव मागीलदारांत टॉर्च घालीत आसा. पूण कुत्रो ना. म्हजे मुखार चिकवाचे बारीक खांदयांनी गच्च भरिल्लें एक झाड आसा. ताका लागून हेर वाठार म्हाका सारको दिसना. पूण कुत्रो पोरसांत ना. पूण तरीकय पोऱसांत आसाच.

इतल्या मजगतीं म्हाका स्टोअररूमाच्या पाख्यार कसली तरी धवी आकृती हालल्याबशेन दिसली. शेर्त भूतच. मद्यानरातीर सद्दां वरभर हामेर फोडपी! हांव परत ती आकृती दिसता काय किदें तें पळयत रावलें. परत ती आकृती हालली. पळय जाल्यार एक कुत्रो. बारीक पळय जाल्यार शेजारच्या बिल्डिंगेतल्या जुजेचो कुत्रो. सद्दां सांजचो पासयेक वतना आमच्या कम्पाऊण्ड वॉलाचेर चुळचुळीत मुतून वता. सद्दां थंयच वास घेता आनी परत पावळी सोडटा. आमची वणत म्हणचे आता जुजेच्या कुत्र्याची आनी हेर रस्ताद कुत्र्यांची एक इस्पेशियाल मुतारीच जाल्या. अवचिन्न पोर. सांजवेळार आमचेर मुतता आनी आतां रातचो हांगा येवन बोबो मारता.

आता तो 'अपुर्बायेचो' कुत्रो नासलो जाल्यार तो शेजाऱ्यांचो 'पाडपडिल्लो' कुत्रो आसलो. आता ताची तिडक म्हज्या मस्तकांत भिनल्या.

दिसभर काम करून हांव रातचें अकरांक हांतरूणाक फाट तेंकयता. हावाशिवा करून न्हिदेच्या राज्यांत वता थंय आसा, जाल्यार ही अवदिसा बरोबर देडाक आळोवपाक सुरू करता. ताची भूंक सुरू जातकीर हांव भायर येतां. ताका गाळी मारता. जनेलांतल्यान फातर मारता. पिडा अश्शी म्हजेकडेन मान वाकडी करून पळेता, पूण म्हजी पर्वा करना. पाख्यावेल्यान भोंकिल्ल्यान आवाजाचो चड त्रास जाता. मेल्ल्याचो आवाजपसून फोगेट्यो मारिल्ल्याबशेन. आपलेच बिल्डिंगेच्या गॅलरींत बसून जुजे घोरेता थंय वचून

हो लादीन किद्याक घालिना? हाताक मेळिल्लो जाल्यार, जुजे न्हय कुत्रो, पोराक मुड्डूनच उडयतलें आसलें.

श्रावणातलो पयलो सोमार आयलो. वेऱ्याच्या भयणीन नागेशीं व्हेल्लें. रातचें घरा कितल्यांक आयलें खबर ना. घरांत पावल दवरता थंय आसा. मिडनाईट म्युझिक सुरू जालें. म्हणटकीर सारकीं देड बीं जालीं आसूंये. घडयाळींत पळयलें जाल्यार सारकें देड वर जालां. कुत्र्याचें घडयाळ मात टायमार चलता आं.

आयज मात ह्या कुत्र्याक कशेंच भोगसुचेंना. हातरूणार पडलें. कुत्रो भोंकीत आसा. म्हाका न्हीद येना. घडयाळीचेर बरोब्बर सव्वादोन वरां जाल्यांत. आयज हांव हाका बुद्द शिकयतलेंच. घरांत एक लांब सवळ्या बडी आसा. त्या चड लांब बडयेचो म्हाका तसो उपेग ना. पूण आखरेकाक दवरल्या. केन्नाय कोणाचो पेट बी काडूंक मेळत म्हण. टॉर्च हातांत घेतलो. जाल्यार तो पेटना. ती ताची सदांची खोड. कामाच्या वेळार सेलूय सोंपत आयिल्ले आसतात. आमच्या घराफाटल्यान नाग बी आसात. पूण करतलें किदें? 'हागऱ्याफुडें वागरें खंयचें?' सगळ्यो लायटी पेटयल्यो. कोनशातली बडी पयलीं हातांत येना जाली. ती धांवत्या फॅनाक, पेट्टट्या ट्यूबलायटीक लागूंक लागली. आडवी-उदारी करून कशी तरी मुखेल दारांतल्यान भायर काडली. राणी लक्ष्मीबाईच्या आवेशान लांबचे लांब कोंड्याबडी घेवन भायर सरलें. भायर स्ट्रीटलायटीचो चकचकीत उजवाड. एकटो कोण तरी रस्त्यावेल्यान लिपत लिपत वतालो. कोणूय रातपाळीचो बी मनीस आसूंये. म्हाका पळयनाफुडें धांव धांव. कित्याक भियेलो काय तो म्हाका? तो म्हाका भूत किंवा पिशी बायल समजलो ना मूं? काय म्हजे हातांतल्या दोन किलोमीटर लांबायेच्या बडयेक पळोवन तो भिलो काय? काय तो खऱ्यानीच चोर आसलो?

शस्त्र हातांत आसल्यार मनशाक केदें बळ येता तें हांवे आतांच

पळयिल्लें. इतल्यान बडयेचें फाटले तोंक म्हजे घोवाच्या तकलेक लागलें. तो निमताकूच राविल्लो. ''हांव येना तुजेबरोबर, तूंच वच कुत्र्याबरोबर लडाय करपाक'', म्हळें आनी मच्छरदाणी पांगरून ओग्गी न्हिदलो. रातचे दोनांक ती बडी घेवन हांव मागीलदारांत गेलें. जाल्यार पाख्यार एक काळ्या रंगाचो कुत्रो आसा. म्हज्या हातांतली बडी म्हाका ताका मारचीच पडूना. जो शेंपडी कुल्यान घालून पळलो, तो 'जीव आसल्यार भीक मागून खायन, पूण ह्या रणचंडिकेच्या हातातल्या बडयेचो मार नाका, म्हणत...'

पूण फाटीं पळयल्लो तो जुजेचो धवो कुत्रो आनी हो आयचो कुत्रो काळो कसो? काय टोंक वाठारांतल्या कुत्र्यांचो हो वॉच टॉवर बी आसा काय कितें? इंग्लंडांतल्या हाईड पार्काबशेन कोणूय जहाल-मवाळ हांगा येवन कार्यावळी बी करून वतात काय कितें? म्हणून बारांक सुरू जाल्ली ही कार्यावळ रातची अडेज वर मेरेन चलता. आनी ह्या कार्यावळीचो सूत्रधार एकूच न्हय तर जायते मानकरी आसात.

आनी तो काळो कुत्रो जाल्यार म्हाका आमचे कॉलेजींतल्या भटक्या कुत्र्याबशेन दिसलो. तोय बी मिरामारच्यान ह्या मुक्त व्यासपीठाचेर हाजरी दिवंक आयिल्लो काय कितें? (तुमी हांसू नाकात. भयणीन म्हाका सांगलां. बेतींतले कुत्रे सगळीं फेरीबोटींत बसून मांडवीकडेन येतात. थंय रस्तो क्रॉस करून बद्द मार्केटांत वतात. दिसभर नुस्त्या मार्केटांत टायमपास करतात आनी सांज जातकीर परत आसले तशे फेरीबोटींत बसून बेतींत परत वतात. तशेंच हांवें कामुर्ले फेरयेन बसून कुत्रे हेवटेन तेवटेन वतात तेंय बी पळयल्लें आसा.) टोंक आनी मिरामार हे दोन, भिन्न भौगोलिक वाठार कुत्र्यांखातीर एकूच मतदारसंघ बी आसूंक शकतात.

हें कसलें 'सुणेगोत्र' हें म्हाका कोणांक तरी विचारचेंच पडटलें!

सांस्कृ. संदर्भ:

1) **टोंक** - मिरामार लागसारचो वाठार. पयलींच्या काळांतले पणजी शाराचें निमाणे पोंत.

2) **सुणेगोत्र** - सुण्यांचें गोत्र/तांचे एकामेकांकडेन आशिल्ले नातेसंबंध. खुपशे सुणे एकठांय रावतात. प्रेमान रावतात. त्या त्यांच्या एकामेकांभितरल्या घनिष्ठ संबंधांक 'सुणेगोत्र' म्हणतात.

***





## 10.
# अनिकेतः सुखिनः सन्तु ।

तीन फातरांची चूल मांडली काय सगळो व्याप घेवन बसचो पडटा अशें म्हणटात. तशेंच म्हजेंय जालें. किचन प्लॅटफॉर्म रिनोवेट करतना ग्रॅनायटवाल्यांनी सकयल भरपूर हळशिक करून दवरली म्हण किचनातली फरशी बदलपाची थारली. आरोग्याक बरो आनी थंड म्हणून मार्बल घालपाचें थरलें. हरशीं हांव गोंयांत रावून मार्बल घालपाचे विरूध्द. कारण गांधीजीन सांगलां, ज्या वाठारांत तुमी रावतात त्याच वाठारांतली साधनसंपत्ती एकठांय करून घर बांदूंक जाय. खरें म्हळ्यार म्हाका मातयेचें घर बांदून शेणान सारयिल्ल्या जमनीर रावप आवडटलें आसलें, पूण तें मिरामार शक्य ना.

तर जालें किदें? किचनाक घालूंक मार्बल हाडलो खरो, पूण तो मार्बलवाल्यांनी सुबेज हाडून घालो. कित्याक घालो कोणाक खबर! एका पांचवेचार फातराचीं बारा-तेरा कापां केलीं आनी म्हजे बिल्डिंगेमुखार हाडून

उडयलीं. फिटींग करपी मनशाक विचारलें जाल्यार तो म्हणटा, हीं कापां तुका अर्द्यावयर फ्लॅटाक पुरो. हांवें कपलार हात मारलो. कापां परत व्हर म्हण तरी कशीं सांगूं? वर्सभर तीं कापां वतांतच करपलीं. मागीर अंदूच्या माया म्हयन्यांत तीं घालूया म्हण थारलें. दोन कुडींक घालूया म्हण थारायलें. दोन कुडींतलें सामान उरिल्ल्या दोन कुडींत घालतना म्हजें कमर मोडलें. घोव ऑफिसांत पळून गेलो. (आनी मदीं मदीं फोन करून खंयचें सामान खंय पावलां म्हण म्हजी खबर घेता आनी मागीर अर्थांत्च म्हजी तकली उसळटा.)

काम सुरू जालें आनी म्हजी नवग्रहदशा सुरू जाली. किचन आनी बेडरूमांतलें सामान हॉलांत येवन पडिल्लें. उदकाचें एक व्हडलें पिंप कामाखातीर पोरसांत भरून दवरिल्लें. म्हाका फाटल्यान दोन गुदावांच्यो कुडीय आसात. थंय थोडें सामान वचपाक लागलें. सामान भायर काडल्या बरोबर कशी बातमी, खंय पावली कोण जाणा? भंगार व्हरपी, रद्दीवाले घरा भोवतणी मूस कशे भोवूंक लागले. पयले दिसा म्हाका डायरेक्ट कोण विचारना. हांव फ्लॅटाचें दार उकतें घालून, सगळ्या जगार सामान मांडून गुहेच्या दारार चेटकीण बसची तशें बसलां. एकलो भुरगो सकयल वता, वयर वता. शटल सर्वीस. म्हाका टेन्शन आयलें. हो किदेंय उखलून व्हरत म्हण. भायर हांवें 'ललित' मासिकाचे अंक सुकत घाल्ले. एका रद्दीवाल्यान ते सोमतें साकांत भरूंक सुरवात केली. ''बाय, पाच रूपयान कील घेता,'' खंय. त्या 'ललितां'नी कितले दुर्मिळ लेख आसात. हांव रेकोर्डाखातीर ललित सांबाळून दवरता. त्या त्या काळांतल्यो साहित्यिक घडामोडी ताचेवेल्यान कळटात. एकट्यान भरिल्ल्या व्हडल्या प्लॅस्टीक पिपाक सोमतो हात घालो. ''बाय, हें व्हरूं?'' हाची मारली शेंडी. हांका कितें हांवें, हांव वानप्रस्थाश्रमांत वतां म्हण जाहीर केलां काय कितें?

म्हजेकडेन एक व्हडलो, बेताचो, काश्मिरी पेटारो आसा. आडगत भांगराची पोटली हांव तातूंत उडयतां. तें भांगर घरांत आलमारींत बी दवरना. कट्ट्यांच्या खोटल्यांत, नाल्लांच्या साकांत, ह्या पेटाऱ्यांत बी उडयतां.

पेटारो मिसलेनियस सामानान भरला. तातूंत मदीं मदीं जल्ल्यांचो बर्थरेट बी वाडटा. ह्या स्थलांतराच्या निमतान हांवें ह्या पेटाऱ्याचेंय धांपणें उकतें केलें आनी तोय बी मागीलदारांत कडकडीत वताक व्हरून उडयलो. भांगराची पोटली काडूंक विसरलें. सहज म्हण फाटल्यान नजर मार जाल्यार दोन 'मामयो' पेटारो विसायतात. म्हाका खंय याद आसा भांगराची? तातूंत म्हजीं स्टीलाचीं आयदनां आसात, म्हण हांव रणरागिणी कशें जनेलांतल्यान तापलें. हातांत आयिल्ल्यो पोटल्यो थंयच् उडोवन त्यो मामयो पळल्यो. लागीं वचून पळय जाल्यार भांगराची पोटली वयरूच आसा. हांवें परत एकदां म्हजेच कपलार हात मारलो.

आता आनी म्हजी माणसुकी ना. सगळें सामान जाग्यार घालें. दार बंद केलें. खिळी लायली. फॅन फास्ट केलो आनी सामानामदीं भाताची मुडी कशें बसलें. इतल्यान दाराचेर कोणे बेल मारली. हांवें दार उगडलें जाल्यार एक कोण तरी 'मिया' भायर आसा. एक पांय म्हज्या घरांत भितर घाला. हॉलांत आशिल्ल्या म्हज्या सामानाच्या द्रोणागिरीकडे ल्हेंवटो कसो पळयता आनी म्हाका विचारता, "बाय, पापेल आसा?" पापेल म्हळ्यार किदें तें म्हाका कळना. थोड्या वेळान म्हजे तकलेंत उजवाड पडलो. हांवें सामान भायर काडलां, ही घटना ह्या स्क्रॅपवाल्यांकडेन बीबीसीन पावयल्या दिसता. पापेल ना आनी सापेल ना म्हण हांवें ताच्या तोंडारूच दार घडाम् करून मारलें. (मियाची दाडी दाराच्या खाचीन शिरकली काय कितें, तेंय पळोवंक ना.)

पांच मिणटां जातात थंय आसा. परत कोणें तरी बेल मारली. एकदा न्हय, दोनदा न्हय, तर तीन वेळा. आनी फुडें बेल वाजत आसा. हांव सामानाभितर मुंगरलां. म्हाका म्हण सट्ट करून उठूं येता? तरी उठलें. आतां हाची तकलीच फोडटां म्हण दार उगडलें जाल्यार, ऑफिसांतलो हेडक्लार्क आसलो. ताका पळोवन म्हाका कच्क जालें. म्हजो फोन डेड आसा. म्हण हो म्हजी पोटली उखलून व्हरूंक आयला आसूंये.

खरी खबर अशी आशिल्ली. हांवें जानेवारी सातांत काश्मिरांत वचपाच्यो तिकेटी बुक केल्ल्यो. व्हेकेशन सुरू जावचे पयलीं निवडणूक आयोगाचे पत्रक - सरकारी अनुदानप्राप्त शाळांतल्या शिक्षकांक खंय एप्रील - मे म्हयन्यांत गोंय सोडून खंयच वचूंक मेळचे ना म्हण. म्हजे वीस वर्सांच्या नोकरेतली ही पयली खेप. कोण कोण म्हाका सल्लो दिताले. अशें करूं येता आनी तशें करूं येता म्हण. पूण म्हज्या सुखासीन जीवाक चोरयां वचून काश्मिर एन्जॉय करप कशेंच शक्य नासलें. तातूंत हांव 'जय हिंद' चळवळीखातीर तन-मन-धन ओंपिल्ल्या जनाप्पांची नात. हांव किदें करतलें कपल? मुकाट्यांनी तिकेटी कॅन्सल केल्यो आनी म्हजे आजयेबशेन 'इथेचि पंढरपूर' (म्हणजे ती मुंबयंत रावताली, गोंयांत न्हय) म्हणत ओग्गी बसलें.

पूण कॉलेजान दर्यांत वचपी नुस्तें पागप्यांक हवामानखातें एक शिटकावणी दिता तशी एक शिटकावणी सुटयेक वचपी टिचरांक दिल्ली. तुमकां ट्रेनिंगाचे आपोवणे येत जाल्यार फोन करून धरून हाडटले आय मीन कळयतले. आरे देवा! म्हणचे लीपचोरयां खंय वचपाची माणसुकी ना. खंयूय गेलें जाल्यार म्हाका लेख बरोवंक जाय. मागीर तो कसो बरयतलें?

म्हजो फोन दोन दीस डेड आसा. चड करून हेडक्लार्क म्हाका धरून व्हरपाक आयलासो दिसता...

ताका खंय म्हजो घोव वाटेर मेळलो. कॉलेजाक वचूंक मेळना म्हण बायल खंय होमसिक जाल्या, अशें ताणें हेडक्लार्काक सांगलें. तो बाबडो सज्जन मनीस. आपणाक पळयल्यार सुमेधाक 'घरा' न्हय 'कुळारा' आशिल्लेबशेन दिसंत म्हण दर्शन दिवंक घरा आयलो खंय. एकेक म्हण कर्मभोग.

तो आपलें 'मुखारविंद' दाखोवन गेलो आनी हांवें सू आनी घडाम् करून दार धांपलें. हांवें रागान बेलूच बंद करून उडयली. हेवटेन एका कुडीन एका मार्बलवाल्याचें कों कों कों आनी दुसरे कुडींत दुसऱ्याचें सुर्र सुर्र सुर्र

चालूच आसा. एकटो कटींग करता जाल्यार दुसरो मोल्डींग करता खंय. म्हणजे म्हजे मेंदवाचें हेवटेन कटींग आनी दुसरे वटेन मोल्डींग. इतल्यान कोणें तरी दार घडाघडा वाजोवंक सुरवात केली. मोडून घालता दिसता दार पाडपडिल्लो. दनपरां आनी कोणाचेर हांवळ आयली? दार उगडलें जाल्यार भायर एकटो वायरीचें व्हडलें गुठल घेवन आसा. म्हाका बी बांदून व्हरूंक आयल्यात काय कितें? जाल्यार दुसऱ्याच्या हातान टेलिफोनाचें इन्स्ट्रूमेंट. कटींग आनी मोल्डिंगात भेरेल्ल्या म्हजे तकलेंत आता उजवाडलें. ''काय ताई? बेल वैगेरे बंद करून आत काय करताय?'' गोंय आनी महाराष्ट्र सर्कलांतले हे टेलिफोनवाले चडशे मराठी उलोवपी. म्हजे कॉलेजाच्या हेवटेन तेवटेन ते भोवत आसतात म्हण म्हजे फ्रेण्डूयबी. ''ताई तुमचा फोन चालत नाही म्हणून, तुमच्या मिस्टरांचे फोनच फोन आणि धमकावण्या येतायत. तुम्ही इथे आम्हाला लाडू देता आणि तुमचे मिस्टर आम्हाला शिव्या देतात. हा काय मामला?'' 'हो' म्हणून एक. मिरामारच्या सगळ्या लोकांकडेन झगडटा. कोणाक खबर. घरजांवय म्हण रावचें पडटा हें ताचें दुःख आसूंये.

''ताई, 'टोंक' वर केबलमध्ये काही फॉल्ट नाही. तुमच्या घरातच काही फॉल्ट आहे.'' अशें म्हणून म्हज्या आंगावेल्यान बाजी प्रभू कसो भितर सरलो. हांव सर्कशींतलो हत्ती जीव सांबाळून स्टूलार बसचो तशें एका तामरेतीचेर बशिल्लें. हो वायरवालो आनी इन्स्ट्रूमेंटवालो दोगूय म्हाका धुकलून हॉलांत भितर. जाल्यार वाटेर सामानाचो चंद्रनाथ पर्वत. ''ताई, हे काय घर सोडता की काय?'' ''न्हय रे बाबा, तूं मातसो फोन पळय.'' दोगूय दोनूय हात वयर करून म्हणजे इन्स्ट्रूमेंटाचे वायरीक धरून चानयो कशो हुमकळत हुमकळत वचपाक लागले. वायर हॉलांतल्यान गॅलरींत गेल्ली. जाल्यार वाटेंत सामानाचो द्रोणागिरी आडवो. खाटी, ताचेर गादयो, उशो, लोडां, तके, पुस्तकां, तांचेर आयदनां, स्टुलां, कपड्यांच्यो पोटल्यो, फ्लॉवरपॉट, क्रोकरीचे सेट, अशें ह्या धर्तरेचेर आशिल्लें सगळें कितें! वायरीच्या पोताक धरून ते दोगूय माकड कशे उबे. ज्युनियरान सिनियराक

विचारलें, ''हातूंतल्यान वाट कशी काडूं?'' सिनियरान म्हळें, ''हो पुढे, मी पहातो काय ते!'' आनी पाडपडिल्लो सरळ हनुमान उडी मारून म्हज्या सामानावेल्यान तुरूतुरू गेलो. ''आगे म्हज्या सायबिणी, म्हज्या बोन चायनाच्या सेटांचे कितें?'' म्हणटा म्हणटसर तो हुंदीर कसो हुमकळत सरयेक धरून हॉलांतल्यान गॅलरींत पावलो. ज्या जाग्यार सरी गॅलरींतल्यान भायर वताली, थंय ताणें फॉल्ट सोदून काडलो. ''ताई, हा बघा तुमचा फॉल्ट. उंदराने वायर कुरतडलीय!'' आनी मागीर थंयच सामानाच्या सिध्दनाथ पर्वताचेर डुगूडुगू करून दोगूय ज्युनि. ॲण्ड सिनि. उबे रावले आनी ताणी थंय कपी मारली. हांगा टोंकार हुंदीर जाल्यार पार्शां वानर. हांव मोनजातीचेर मोग करता म्हण म्हाकाच ख्यास्त.

ते दोगूय 'गोवा आनी महाराष्ट्र सर्कल' भायर सरून गेले आनी हांवें कपल घट दामून धरलें. भितर गेलें. एक गुळी घेतली आनी अमृतांजन कपलाक सारयलें. आतां मात दार उकतेंच दवरलें. दाराकुशीक तोणको दवरलो. कोण येता ताचो परामर्श घेवया.

नाटकाचो दुसरो आंक सुरू जाल्लो. एकटो लीपचोरयां वयर येवंक लागलो. हांवें ज्युस्त वळखलें. हाकाय कळलां. हांवें सामानाचो हिमालय पर्वत हॉलांत रचला म्हण. कितें म्हण विचारूं नाका? फ्रीझ, टी.व्ही, गोदरेजाच्यो आलमारी, सोफा सेटस्, किदें जाय तें सांगात? म्हजो एक पाय तळ्यांत जाल्यार दुसरो मळ्यांत. हांव गोडाची धेंप कशी मद्दी बसलां.

इतल्यान कोणाची तरी सावळी हालली. पळय जाल्यार मेथी लायिल्ल्या खाडाचो एकलो उबो आसा. तोंडांत शब्द, ''बाय, स्क्रॅप आसा?''

हांवें थंडसाणीन सांगलें, ''म्हाकाच व्हर. हरशींय जाल्यार हांव कोणांक जाय? कॉलेजींतूय कोंकणीची टीचर सगळ्यांत कमी म्हत्व आशिल्ली. घरांत हांव घोवाक जाय जाल्यार नकळ. हरशींय तो म्हजे सांगातान सदांच वाजेल्लो आसता. म्हजे हांवूंच स्क्रॅपाक गेल्यार घडये ताका

बरेंय दिसत.''

आतां उरल्या ती म्हजी आवय. तीय आता जाण्टी जाल्या. आनी जाण्टेपणाक लागून तिची तकली विरार जायत चल्ल्या. (तिका जाय तेन्ना ती विरार जायना. आमची कसलीय अडचण सांगत जाल्यार तिची तकली विरार जाता खंय.)

आता उरल्यो त्यो भयणी. तांकां तरी आपले संवसारामुखार कोण जाय? भावाची तर खबरूच नाका. आजकालचे भाव म्हळ्यार, ''भाऊ नाहीत बहिणीचे, बाळंतपण करतील मेव्हणीचे.''

हांवें म्हजी द्रौपदीची थाळी म्हणजे फ्रीझ उगडलो आनी म्हजे वेरेच्या भयणीन धाडिल्लें जेवण भायर काडलें. ना जाल्यार हांवूय केन्ना केन्ना अमेरिकन गृहिणी (थंयचो शब्द हाऊसमॅनेजर) बशेन उसरपतीच्या वेळार धा-बारा पदार्थ रांदून फ्रिजांत दवरता. (शीत सोडून) आनी सुशेगादीन दोन-तीन दीस खायत बसतां. सगळें कशें जमतलें? म्हाका नोकरीय जाय, इको क्लब जाय, एनएसएस जाय, म्हाका वीकेण्डाक मडगांव/पार्शां वचूंक जाय, म्हाका मिरामार, मोरजे, कोलव्यां दर्या वेळो माड्डोवंक जाय, म्हाका 'भोंवती भागीरथ' जावंक जाय, म्हाका रायटींगूय करूंक जाय...

टांगेवाल्याचो घोडो गाडयेक बांदिल्लेकडेनूच न्हीद काडटा तशी हांवें थंयच एक लकणी काडली. मार्बलवाल्यांनी रांदचे कुडींतल्या 'ताजमहालां'त ताणून दिलां.

म्हाका काकूट आयली सगळ्यांची आनी तिडक आयली म्हजी....

मार्बलाच्या खाणींक लागून राजस्तानांतलीं रानां-अरण्यां उद्ध्वस्त जाल्यांत. पर्यावरणाचो इबाड जाला. झरे आटल्यात आनी आमी घरांक मार्बल घालीत आसात... खंय गोंय, खंय राजस्थान.. गांधी म्हणटा... एका बैलागाडयेन जाता, तितलेंच सामान घेयात आनी तुमचें घर बांदात. थोरोसारक्या विचारवंतान आपल्या कष्टांनी आपूण आपली खोप उबारली

आनी ‘वॉल्डन’ तळ्याच्या काठार सैमनिरीक्षण करीत तो वर्सभर रावलो. लॉरी बेकरान गांधीचो संदेश आचरणांत हाडलो. गरीबांखातीर घरां बांदची म्हण सासणाचो भारतांतूच उरलो.

पयर एका धार्मिक कार्यावळीक गेल्लें. पर्तगाळ मठाच्या स्वाम्याची कार्यावळ. कोणे तरी स्वाम्याक म्हळें, “कोण तरी अमको घराच्या तिसऱ्या माळयेवेल्यान निसरलो, पांय मोडलो. मनीस आतां कुल्पाद.” स्वाम्यान म्हळें. “कसलीं घरां तीन माळयांचीं? आनी किद्याक बांदतात कोणाक खबर! मनीस केदो, ताचें आयुष्य केदें आनी इतल्यो माळयो भोगूंक तरी पावूंक जाय तो? आतां ऑफिस बी आसत जाल्यार गजाल वेगळी.”

पर्तगाळ मठाची स्वामी परंपरा म्हाका आनी म्हज्या कुटुंबाक वंदनीय आसा. आदरणीय स्वाम्यांची उतरां हांव पयस रावन आयकतालें. तांचे भांगराच्या पोवनासारकें एक एक उतर म्हज्या मनांत देंवत रावलें.

जोडासांकोच्या ठाकूर घराण्याच्या प्रचंड वाड्यांत राहून निमाणेकडेन रवींद्रनाथांक ध्यास लागिल्लो तो मातयेच्या घराचो आनी सारयिल्ल्या आंगणाचो. तांच्यो अतिशय सुंदर तीन ल्हान कुटयो पळोवपाचें भाग्य हांव शांतिनिकेतनांत गेल्लें, तेन्ना म्हाका मेळळें.

राजा शुध्दोदनाचो राजवाडो सोडून मध्यान रातीर राजपुत्र सिध्दार्थ असोच भायर सरिल्लो. राजमहालातलें ऐषोआरामी पूण बंदिस्त जीवन ताका नाका जाल्लें आनी मुक्ततायेच्यो धाय दिका ताका काळजाच्या तळासावन साद घालताल्यो. तो त्या उल्याक भुललो आनी शाश्वत वैभव सोदपाक चार वण्टींच्या भायर सरलो...

स्टुलार बसून हांव झेमता. म्हज्या दोळ्यांच्या पातयांचेर सपनां देवूंक लागल्यात. म्हज्या नाटकाचो तिसरो आनी निमाणो आंक सुरू जाला. एकटो दारांत उबो रावला. फाटीक प्लास्टीकाचें व्हडलें पीप आसा. म्हाका

विचारता,

“बाय, कचरो आसा?”

आतां म्हजे तकलेचें पुराय कटींग जालां आनी मोल्डींगूय बी.

आतां हें फुडें, हांव ह्या घरांत न्हय खंयच्याच घरांत, खंयच कांयच करचे ना. इतलेंच न्हय मार्बल घालून हळशिक जाल्ल्या घराच्या वण्टींक मरसर रंगपसून काडचें ना. हीच म्हजी प्रतिज्ञा....

5/5/07

***





## 11.
# पिसोळ्यांचें जग

एकेका वर्सा एकेका वर्गांतल्या विद्यार्थ्यांचें आनी तुमचें बरें जमून येता. तांच्या सांगातान तुमचींय वर्सां उमेदीन सरतात. जियेवपाचीय उमेद वाडटा. नाजाल्यार आसाच बरोबरच्या हेरांची रड. भुरगीं रडटात, घोव तापयता, चल्याक इंजिनियरिंगाक ॲडमिशन मेळना, चलयेक दोतोरूच न्हवरो जाय, माळयेर दुसरो फ्रीझ जाय... हें आनी तें. ते परस ह्या पंदरा-सोळा वर्सांच्या भुरग्यांबरोबर दिसूयभर वावुरप, तांचेबरोबर हांसप, तांका शिकवप, तांका तापोवप, तांची अपुर्बाय करप, ही कितली सुंदर गजाल. जिणेंत अशे सुंदर खीण खूब थोडे भोगूंक मेळटात.

खरें म्हळ्यार ल्हानपणांत म्हाका टीचरूच जावपाची उमेद आसली, पूण चुकून पत्रकारितेंत पावलें आनी थंय सात वर्सां काडलीं. थंयचें रंगीबेरंगी जीवन पळयलें. लोक आपल्याक उप-संपादक म्हण कोण तरी व्हड लेखतात अशें दिसूंक लागलें. आनी थंयच दसून रावचेंशें दिसूंक लागलें. उपरांत एका अपघातान तीन म्हयन्यांखातीर एका कॉलेजांत शिकोवंक गेलें. थंयचें वातावरण म्हाका खूबच आवडलें. भुरग्यांचें प्रेम जायजायशें दिसूंक लागलें.

फुडें म्हाका टीचरीची कायमं नोकरी मेळपाची शक्यताय निर्माण जाली आनी हांवें उपसंपादकाची नोकरी सोडली. ज्या दिसा लोकांक कळलें हांव आतां प्रेसांत काम करना म्हण (म्हणचे आतां तांचें कसलेंच काम म्हजेकडल्यान जांवचें ना म्हण) फाटलीं सात वर्सां ऑफिसांत येवन वा रस्त्यार, कार्यावळींनी वरांचीं वरां गोड गोड उलयत, चमचागिरी करपी हे लोक म्हाका पळोवन फाट फिरोवन वचूंक लागले. नवे नोकरेन चार-पांच म्हयने जातकीर संपादकान एक दीस म्हाका म्हळें, ''आगो तुका मात्शी फुरसद आसा जाल्यार, येवन वच थोडो वेळ प्रेसांत.'' म्हाकाय उमेद जाली. प्रेसांतलें काम सात वर्सां करून एकदम टीचरीच्या बोअरींग पेशांत गेल्ल्यान म्हाकाय शिणिल्ल्यावरी जाल्लें. म्हण हांव सुटयेंत मदीं मदीं येवन उपसंपादकाचें कदेल तापोवंक लागलें. परतून बातम्यो, भाषांतरां, संपादन हातूंत शेणून वचूंक लागलें आनी एक मजा जाली. जे लोक पयलीं चमचागिरी करताले, मागीर फुडले स म्हयने फाट फिरोवन वताले, ते परत प्रेसांत वयलेवयर मेळूंक लागले. म्हजी पोटली आजून हांगाच आसा, हें पळोवन तांकां अजाप जालें. तांणी पृच्छा केली. ''परत आयलें?'' हांवें म्हळें, ''ना. संपादकान सांगलां, मदीं मदीं येवन बस म्हण.'' त्या लोकांनी साळसुदपणान धोरण बदललें आनी परत आशिल्ले तशे ते लोक गोड गोड उलोवंक लागले. पत्रकारितेच्या जगांतलीं तुमकां मेळपी ही गोड वागणूक तुमकां फकत सत्तेचें कदेल आसत जाल्यारूच मेळटा, या उघड आनी विदारक सत्त्याची जाणीव म्हाका त्या दिसा जाली आनी हांवें टीचरीच्या पेशांत वचपाचो जो निर्णय

घेतिल्लो तो सामको योग्य आशिल्लो हाची खात्री त्या वेळार पटली.

हांवें आठ वर्सां कॉलेजींत शिकयलें. आतां 'जळी, मळी, काष्ठी, पाषाणी' म्हजे विद्यार्थी दिश्टी पडटात. आजी आनी माजी, खंयूय वच. खंयच्याय खांची गोंयंड्यांनी वच, गोंयांत भोव, गोंयाभायर वच, 'टीचर' म्हण उलो आयकूंक येता. मायेन भिजिल्लो, नम्र आवाज. "टीचर तूं कशी आसा?" (तांची खबर पयलीं हांवें घेवपाची, तें थंयच उरलें) अमकें... तमकें... म्हाका दिसता विद्यार्थी टीचरीक आयुष्यभर विसरूंक शकनात, हांव तरी म्हज्या टीचरांक खंय विसरलां? प्रेम दिवंचें, प्रेम घेवंचें!

हांव चडशें कोंकणीच शिकयतां. म्हण्टकीर भुरगीं नव्वद टक्के किरिस्तांव. तींय चडशीं मध्यम आनी निम्न आर्थिक स्तरांतलीं. (श्रीमंत किरिस्तांवांचीं भुरगीं फ्रेंच वा पुर्तुगेज घेतात.) हीं भुरगीं अतिशय सादीं आनी प्रेमळ आसतात. क्लासांतलीं श्रीमंत हिंदू बामणांची भुरगीं मात टीचरीक कितें कळटा? हे विचारसरणेचीं. 'शिकून वयर सरूंक जाय' या जिद्दीन पेटिल्लीं. हीं किरिस्तांव भुरगीं खुबूच बरीं. गळ्यांत, कानांत मिरसांगो घालून येतात, केंस लांब लांब वाडयतात, लिओनार्दो द व्हिन्सी भशेन. केन्ना केन्ना कातर घेवन तांच्यो केश्ट्यो कातरच्यो अशें म्हाका दिसता. (म्हाका हांगा हे मानेर बोटभर केंस नाकाशे दिसतात आनी हांका ते वाडयनशें दिसतात. पसंद अपनी अपनी...) किरिस्तांव भुरग्यांक इगर्जींनी वचून वरांचीं वरां पाद्रींचीं सेरमावां आयकुचीं सवंय आसता. इगर्जेंत हाल-धोलनास्तना ओग्गी बसचेली सवंय आसता आनी मुख्य म्हणचे पाद्रीक मान दिवचेली सवंय आसता. हीच सवंय तांकां शाळा/कॉलेजांतूय उपकारा पडटा. हांव कितें बडबडटां, तें कळूंना जाल्यार न कळूं, तीं ओग्गी बसून आयकतात. मात पसून त्रास दिनांत. केन्नाय तांचे मांय-पाय येतात आनी 'टीचर तुजें आयकना जाल्यार तेका बरो धाडाय' म्हण सांगतात. (पयर एका हिंदु स्टुडंटाची आवय आयिल्ली. तिणें सूर काडून म्हाका विचारलें, तूं 'कामत' म्हणचे खंयचे? मडकयचें काय कुंडयचें काय... तुगेल्या बापायचें नांव कितें... म्हणचे

देऊळमळार जे काकोडे आसा, तांची भयण दिल्या ती तुमच्या घरांत? हांवें कपलार हात मारलो. म्हणचे टीचरीची धिंड घराघरांनी कशी काडटात हेंय म्हाका कळलें.

किरिस्तांव भुरगीं टीचर रस्त्यार मेळल्यार एखाद्या पाद्री/माद्रीकडेन ज्या आदरान उलोवचें तशीं उलयतात.

नाजाल्यार आमी... देवळांनी उत्सवांक वचचें, कीर्तनाक वचपाचें नाटक करचें, एकमेकांक धुकलचें, बारीक चिमटे काडचे, सारकें पळोवंक मेळना जाल्यार मुखार उबे आशिल्ल्यांचेर फातर मारप (पर्तगाळी रामनमीक रथाच्या वेळार हांवें हें सगळें अणभवलां.) देवळांनी खांबे सोदत फाटीं फाटीं सरून बसचें आनी जगावेल्यो खबरी बारीक आवाजान करीत बसचें. मिरामारचे वेळेर बांकाचेर बसूंक जे हिंदू बामण आनी बामणांच्यो बायलो येतात थंय लेगीत हींच धवळां चलतात. हांचीं भुरगीं आनी टीचरीक क्लासांत कसो मान दितालीं?

एक किरिस्तांव भुरगो म्हाका चुकून पूण सद्दां 'सिस्टर' म्हण उलो मारी. म्हाका अजाप दिसं. हांवें ताका विचारल्यार तो म्हाका म्हणं, आमच्या गांवांतले सिस्टरीभशेन तूं दिसता खंय. (हें जर म्हजे आवयन आयकल्लें जाल्यार ती नावेलीच्यान लाटणे घेवन ताचे फाटीक लागपाची आनी ताची 'सिस्टर' भायर काडपाची!) ताणें म्हाका 'सिस्टर' म्हळें आनी हांव विचार करूंक लागलें. सिस्टर म्हळ्यार संन्यासधर्माचो स्वीकार केल्ली एक पवित्र, व्रतस्थ बायल दोळ्यांमुखार उबी रावता. 'संन्यासधर्म'. मनशान संस्कृतीचो स्वीकार करतकीर, युगानुयुगा ह्या सुंदर कल्पनेचो व्यक्तीच्या मनाक मोह पडला. ऐहिक जगाचीं सगळीं बंदनां तोडून उडोवन, फकत परमात्म्याच्या आनी परमार्थाच्या विचारान लीन जावप.

फाटीं हांव एक पावट पोन्न्या गोंयांत गेल्लें. थंय वयर दोंगरावटेन माद्रींचो एक कॉन्वेंट आसा. त्या कॉन्वेंटाच्या दारांतल्या पाळणीतल्यान हांव

दोंगरावेल्या कपेलाकडेन चलत वतालें. इतल्यान कॉन्वेंटाच्या भव्य, उकत्या दारांतल्यान अचकित म्हजी नदर भितर गेली. जाल्यार थंय एका हॉलांत सात्विक मुखामळाच्यो कितल्योशो साध्वी सिस्टरी, आल्तारामुखार दीपरत्नां पेटोवन प्रभुचिंतनांत मग्न जाल्ल्यो. शीतळ संन्यासधर्म आंगभर पांघरून प्रभुच्या तेजोवलयांत विलीन जाल्यात. पावलांचो आवाज करिनास्तना थंय वचचें आनी तांचे म्हऱ्यांत थंड बसचें अशें म्हाका खिणभर दिसलें.

पूण कितें? हांव अवचिन्न पोर. तें म्हज्या मनांतलें क्षणिक वैराग्य. दोनूच मिणटांभीतर म्हाका घमघमीत वासाचे बटाटवडे खायनशे दिसतले आनी 'आ जा सनम, मधूर चांदनी मे' गायत नाचनशें दिसतलें. तेन्ना ही संन्यासधर्माची कांट्याची वाट आमच्यासारक्या जन्मजन्मीच्या पातक्यांखातीर न्हय (आनी न्हयच) म्हणत हांव ताकतिकेन फुडें गेलें आनी कपेलाच्या दारांत उबे रावन सकयल आयस पयस पातळिल्ली पांचवीचार शेतां, आनी चोडणा-दिवाडेचे पांचूबशेन पांचवे जुंवे, मांडवीन घाल्ले नीलमण्यांचो हार घालून कशे दिसतात तें पळोवंक लागलें. मदींच मांडवीच्या हारशांत बक्यांची मोतयांची माळ आपलेंय रूप नियाळपाक म्हाका धुकलून भोंवर मारूंक लागली आनी हांव म्हजेभितर शेणून गेलें.

म्हजी कोंकणीची भुरगीं हांव खंयूय दिश्टी पडल्यार म्हाका पळोवन लागीं येतात. पूण हांव एक वर्सा कंपल्सरी मराठी शिकयतालें. पूण त्या क्लासांतलीं भुरगीं म्हजेकडेन केन्नाच क्लासांत उलयलीं नात आनी भायरूय उलयलीं नात. वर्सभर ताणी डिफिकल्टीय विचारल्यो नात. कित्याक? क्लासाभितर आनी भायर मेळटकीर हांव तांचेकडेन मराठींतल्यान उलयतालें आनी तांका म्हजेकडेन मराठी कातरूंक भंय दिसतालो. रस्त्यार मराठीचीं हीं स्टुडंटां (अर्थात हिंदु) मेळलीं म्हणटकीर हांव मोठे उमेदीन तांचे म्हऱ्यांत वतालें जाल्यार, हीं भुरगीं रस्त्यार वाग दिसतकीर कडसरचें तशीं फाटीं फाटीं सरतालीं. ह्या भुरग्यांक वर्सभर हांवें जीव तोडून इरावतीबाई आनी अनंत

काणेकर शिकयलो. चवणुक्यांक मातपासून उपकार नात. (हांवें म्हयन्याच्या म्हयन्याक पगार घेतलो म्हण कितें जालें?) बेमान खंयचे कडलीं?

'आतां मराठीच्या या कर्माला काय म्हणावे?' हांव आनी बावडें कॉलेजांत म्हाका मराठींतल्यान उलोवंक मेळना म्हण, हीं भुरगीं दिश्टी पडलीं रे पडलीं, मराठींतल्यान उलोवन तोंडाची खाज भागयतालें. पूण हांव दिश्टी पडटकीर पोरांच अदृश्य. (मराठीची ही उमेद अशे तरेन म्हाक म्हारग पडूंक लागली आनी हांव फुडें 'श्रावणमासी हर्ष मानसी हिरवळ दाटे चोहीकडे' म्हणत भोवच्या बदला 'त्या दिसा वडाकडेन गड तीनसना' करीत भोवूंक लागलें.)

त्या दिसा हांव क्लासांत शिकयतालें. सदचेवरी आरड्यो मारीत, उपरांत खरशेत खरशेत, निमाणे सोंशेत सोंशेत.... इतल्यान अचकीत म्हजी नदर एका भुरग्याचेर गेली, हो भुरगो निमाणच्या बांकार बशिल्लो, तो मान सकयल घालून, पेन हातांत घेवन कागदाचेर कितें तरी काडटालो. मदींच वयर पळयतालो. परत पेनान कितें तरी... हांव जें कितें बडबडटालें तें त्या दिसा, त्या वेळार तरी बरोवन घेवचें अशें नासलें. (बरोवन घेयात, अशें आमीच भुरग्यांक सांगचें पडटा) हेर भुरगीं सुसेगादीन म्हज्या तोंडाकडेन पळयत म्हजें उलोवप आयकतालीं. (कांय जाणांचे लक्ष दुसरेकडेन आसलें, पूण दोळे मात म्हजेकडेन दवरपाची जतनाय तीं घेतालीं) इतल्यान तो येदोळचो भुरगो रबर घेवन तें कितें तरी कागदावेलें खोडूंक लागलोसो... हांव प्लॅटफॉर्मावेल्यान ल्हवूच देंवलें. पावलां वाजयनासतना ताचे म्हऱ्यांत पावलें. ताचेसरीं पावपाक म्हाका एक खीण पसून लागलो ना आनी ताच्या हातांतल्यान फर्र करून तो कागद हांवें ओडून काडलो. तो भुरगो थर्त भियेलो. थरथरत उबो रावलो. मान सकयल घालून काकुळटीन 'टीचर, सॉरी' म्हणूंक लागलो.

कितें आसलें त्या कागदाचेर? कितें करतालो तो पेन्सील आनी खोडरबर घेवन? तो भुरगो हांव क्लासांत शिकयतना म्हजें चित्र काडटालो.

(व्यंगचित्र न्हय आं, हरशीं म्हजें चित्रूच व्यंगचित्र कशें येता ती गजाल वेगळी!) हांव तें पळोवन थंड जालें. म्हाका राग आयलो ना. (कसो येतलो?) पूण रागाचें नाटक करूंकच जाय आसलें. हांवें तें चित्र जप्त केलें. त्या युवा चित्रकाराक भरपूर तापयलो आनी हात पांय आपटीत परत प्लॅटफॉर्मार आयलें आनी झांकूंक लागलें.

खंय चुकता आमचें? चित्रकार जावपाची इत्सा आशिल्ल्या भुरग्याक बळजबरीन व्याकरण, भाषाशास्त्र हांच्यो कसरती करपाक शिकोवपाच्यो? काय ताका तशे पध्दतीच्या शाळांनी घालून ताचे प्रतिभेचो आनी निमाणेकडेन ताच्या व्यक्तिमत्वाचो विकास साधपाचो? गरीब आनी अज्ञानी



पालकांक काय गोष्टी शक्य जायनात. कबूल. पूण शिक्षणतज्ज्ञांनी हातूंत लक्ष घालचें न्हय? आमच्या अभ्यासक्रमाचो रचनाबंधूच बदलून उडोवंक जाय. भाषाशास्त्र–व्याकरण हांचेबरोबर आर्टसाच्या ह्या भुरग्यांक खंय तरी तांच्या कलागुणांचो विकास करपाचीय संदूय हांगा मेळूंक जाय.

म्हाका याद जाता. यत्ता पांचवीपासून गणित नांवाच्या एका भयानक राक्षसान एस. एस. सी. मेरेन म्हज्या शैक्षणिक आयुष्याचो सत्यानाश करून उडयलो. म्हाका पांचवेंनूय गणित येनासलें आनी आतांय तें येना. यत्ता पांचवी ते फुडें शंभरापैकी सात, आठ असले मार्कस पडटाले. ते तितले तरी कशे मेळटाले कोणाक खबर! (काय टीचर कोंत करपाक चुकताले?) फकत कॉलेजाक पावतकीर आतां तरी तें पाडपडिल्लें गणित सुटलें म्हण हांव हुस्कार घेतलो.

आमकां जाय ते विषय अभ्यासक्रमांत आमकां केन्ना घेवंक मेळटले? केन्ना हीं आमची अपुर्बायेचीं भुरगीं आपल्याक जाय तें, जाय तेन्ना करूंक शकतलीं? मेकळे हवेंत, सैमाच्या आलाशिऱ्यान, सवण्यांची गायनां आयकत खंयच्या तरी काळांत कोण तरी एक युगपुरूष शांतिनिकेतन काडून गेलो. खूब थोडीं भुरगीं थंय पावूंक शकतलीं. पूण देशभर जळींमळीं शिंपडिल्ल्या ह्या ज्ञानपिपासू कचांचें कितें? काय ताणी फकत कठोर शिक्षक आनी कठीण अभ्यासक्रमाच्या राक्षस गुरूंकडल्यान फकत गिळून घेवपाचें? ह्या सगळ्या कचांक मुक्तताय मेळूंकच जाय. विद्येची सिध्दी मेळोवन ताणी स्वर्गाचे दिकेन, आत्म्याचे उन्नयनाचे दिकेन पावलां मारूंक जाय.

म्हज्या पुस्तकांत त्या भुरग्यान काडिल्लें तें चित्र म्हाका केन्ना केन्ना हाताकडें मेळटा आनी त्या दिसाचे घडणुकेचो एक सुखदिणो मोरपिशी स्पर्श म्हज्या मनाक जाता. पूण त्या सुखाकूय वेदनेची एक देग आसा. खंय आसा काय तो भुरगो आतां? कलेच्या क्षेत्रांत कितें करूंक पावलो काय? काय कोणाचे पेडयेर मान मोडंसर लेजरबुकांत हिशेब बरयता? आनी म्हज्या

मनाच्या तापिल्ल्या तेलान, चर्र करून चुरचुरीत थेंब पडटा आनी थंय तटतटीत फोड उदेतात...

अकरावेचे एक लेक्चर हांव ॲनेक्स बिल्डिंगेंत घेतां. मेन बिल्डिंगेकडच्यान दोन-तीन मिनटां चलून वचचें पडटा. आर्टसाचीं हीं भुरगीं दनपरां पाऊण वरांचेर मेन बिल्डिंगेमुखावेल्या रस्त्यापलतडीं काजूच्या झाडापोंदा म्हजी वाट पळयत उबीं आसतात. म्हजीं सकाळचीं सायन्साच्या क्लासाचीं लेक्चरां सोपोवन हांव पाऊणांक रस्त्यार पावलें. झाडापोंदा भुरगीं टिवल्यो-बावल्यो करीत उबीं. (टीचर येना जाल्यार पुरो असो भाव तांच्या चेहेऱ्याचेर. हरशीं म्हाका वर्साक बारा दीस कॅज्युअल. ताचे वयर लीव्ह कशी मेळटली? हांव बरी घेयन. पूण भुरग्यांक उमेद, टीचर रजा घेत आनी लेक्चर चुकत...)

पयर हांव रस्तो क्रॉस करून पलतडीं गेलें. एकलो भुरगो म्हजेकडेन धांवत आयलो आनी ताणें म्हाका चार-पांच अमुरपिक्यो चिंचो दिल्यो. ‘‘टीचर, तुका चिंचो हाडल्यात घे.’’ हांवें त्यो स्वीकारल्यो. कितें तरी म्हणूंक जाय म्हण हांवें म्हळें, ‘‘आरे, ह्यो खंयच्यो?’’

‘‘टीचर, त्यो पेद्रिनाच्या भाटांतल्यो.’’

‘‘हें पेद्रीन कोण?’’

‘‘टीचर, टी. व्हाय. बी. एक तो बस्त्यांव आसा न्हय, ताची माय.’’ (हांव खंय वळखतां त्या बस्त्यांवाक?)

‘‘आरे, ताका तुमी पेद्रिनाचेंशे भाट म्हणटात? बस्त्यांवाच्या वा ताच्या पायच्या नांवान, भाटाक किद्याक वळखनात?’’

‘‘टीचर, बस्त्यांवाचो पाय, पेद्रिनाच्या मांयचो घरजांवय.’’ (आतां म्हजे तकलेंत इल्लो इल्लो उजवाड पडूंक लागलो.)

परमेश्वरा... कितल्यो ह्यो राटावळी... आनी पेद्रिनाच्या मांयचो, बस्त्यांवाचो पाय हो घरजांवय... म्हणून ह्यो चिंचो ‘पेद्रिना’च्या भाटांतल्यो. ही नवी माहिती मेळोवन (आनी गोंयच्या किरिस्तांव समाजांतलो घरजांवय

पध्दत आनी चलो/चल्याक इस्टेटीची समान वाटणी या विषयाचेर विचार करत) हांव क्लासरूमांत आयलें. चिंचो मेजार दवरल्यो आनी शिकोवंक सुरवात केली.

हांव शिकोवंक सुरवात करता थंय आसा, मदींच सगळीं भुरगीं हांसूंक लागलीं. खिः खिः खिः! एकलो हांसता म्हण दुसरो हांसता. क्लासांत शिकयतां शिकयतां, कारण नासतना मदींच अशीं भुरगीं खिक् करून हांसलीं म्हणटकीर टीचरीक आनी आनी तोंड आसा? हरशीं हांव असल्या गांजुड्यांक मातपसून भियेवपी ·न्हय. पूण कारण नासतना हांसतात, म्हणटकीर हांव कांचवेलें आनी ल्हवूच म्हज्या ड्रेसाकडेन लिपचोरयां पळोवन घेतलें. (कसलीच माणसुकी ना म्हजेफुडें? एक दीस हांव कॉलेजांत अद्र्या वाटेर एक चप्पल एके तरेचें तर दुसरें दुसरे तरेचें घालून गेल्लें.)

तीं खिः खिः खिः करतात आनी हांव नव्हर्स जातां. मागीर तिडकून तांबडेंच जातां. ल्हानांनी व्हडांक हांसप हाचेसारकिली दुःख जावचेली गजाल आनी ह्या जगांत दुसरी ना. पूण हीं स्टुडंटां हें दुःखभोग आमकां दिसपट्टे खावयतात आनी आमीय हीच 'गुरूदक्षिणा' म्हणून खुशाल जातात. (हरशीं म्हाकाय कारण आसूं नासूं हांसूंक येता. चड कित्याक? शोक-सभेंत दोन मिनटां स्तब्ध राव म्हणटात तेन्ना पसून येता आनी आनी म्हाका लज आसा? कारण नासतना हांसू नाकात म्हण भुरग्यांक तापयतना?)

परत परत म्हजें लक्ष मेजार दवरिल्ल्या चिंचांकडेन वतालें आनी एक तांबडेंच चिंचेबोट तोंडांत घालून आवाज काडीत खांवचें असो म्हाका जबरदस्त मोह जावंक लागलो. पूण हांव टीचर. टिचरीचो पेशा म्हणचे 'सतीचे वायण'. टीचरीचो पेशा म्हणचे सांदिपनी, द्रोणाचार्याची परंपरा आनी हांवें कशें क्लासांत शिकयता आस्तना चिंचेबोट खावपाचें? (क्लासांत कोणेय च्युइंग गम चोखल्याचो म्हाका मातपसून भास जालो जाल्यार, हांव त्या भुरग्याक रस्त्यार वचून 'थुकून यो' म्हण सांगता. पूण हांवूच तांचे पिरायेर तेंच करतालें. (शाळेंत आसताना टीचरीची नदर चुकोवन भरपूर बोरां खातालें आनी बाकापोंदा बोरांच्या गुटयांची हीऽऽऽ रास करतालें. दुसऱ्या दिसा प्यून

बाकापोंदच्यो गुटयो झाडटना पोरांक भरपूर गाळी मारतालो.) निमणेकडेन त्यो 'म्हाका खा, म्हाका खा' म्हणपी चिंचो म्हज्यान पळोवंक नजो जाल्यो आनी हांवें त्यो म्हजे पर्सींत मोखून मारल्यो आनी झीप ओढली. प्रलोभनां मुखार आसत म्हण आमी पेड्डेर जातात. प्रलोभनांक बळी पडचें न्हय, म्हण आमकां दोळ्यांमुखावेले मोह कुशीक काडचे पडटात. केदी ही अगतिकता आनी अधोगती.

हांवें चिंचो पर्सींत मोखतकीर पोरां खि: खि: खि: करून परत एक पावट हांसलीं आनी म्हज्या मनांतले भाव तांकां कळ्ळे जायत, ह्या विचारान म्हाका लज जाली आनी हांव बेगीबेगीन व्हडलो ताळो काडून शिकोवंक लागलें.

इतले म्हणटा म्हणसर एके चलयेक घुंवळ आयली. ढण् करून तें सकयल पडलें. भुरगीं आनी हांव थंय धांवलीं. घुंवळ आयल्यार कितें करतात हाची हांवें थिअरी आयकल्ली, पण प्रॅक्टिकल करून पळोवंक नासलें. हांवें पयलीं चल्यांक कुशीक काडलें. ते बरे उमेदीन (काकूट बाबड्यांची) ओणव घेवन ताच्या तोंडाकडेन पळयताले. शाळेंतल्यान निकतींच भायर सरिल्लीं कवळीं, निर्मळ, निष्पाप मनाचीं हीं भुरगीं.

हांवें ते चलयेक सरळ न्हिदयलें. हेर चलयांक वारो घालपाक सांगलें. ताणीं धा-बारा बुकां घेवन वारो घालूंक सुरवात केली. (त्या बुकांतल्यान पत्रां, नोटी,  नोट्स, नटांचे/नटयांचे फोटो. ते चलयेच्या तोंडार पडूंक लागले. ताका वारो घालतां घालतां भुरगीं पुस्तकांतल्यान पडिल्ली आपली इस्टेट एकठांय करूंक लागलीं. हांव उकिडवें ताच्या म्हऱ्यांत बशिल्लें. घुंवळकान्नीक आनी म्हाकाय वारो पडटालो. भुरगें सावध जायना. म्हाकाय कितें करचें तेंच कळना जालें. हांव उकिडवें बसलां म्हण एकलो स्टुडंट मदींच 'खिक्' करून हांसलो. (निर्मळ, निष्पाप मनाचीं भुरगीं. वा! वा!) म्हाका ताचे फाटीर धुमको घालिनसो दिसलो.

इतल्यान ते चलयेचे दोनूय हात सकयल-वयर जावंक लागले. बारीक, दुबळें चली. दनपरां दोन उंडयो बेगीबेगीन तोंडांत उडोवन खंयच्यान

खंयच्यान बसींत हुमकळून, हाफ टिकेट म्हण कंडक्टरांकडल्यान तापोवणी खायत बाबडीं शिकूंक येतात. दनपारचें कडकडीत वत लागता. हें भुरगें बाबडें दनपरां जेविल्लें तरी काय?

पयर एके चलयेक तें सद्दां क्लासांत उसरां येता म्हण हांवें तापयिल्लें. ताणें म्हाका काकुटेन सांगलें : टीचर, मांय उसरां येता. तो मेरेन म्हाका घरांत रावचें पडटा.

"मांय, खंय वता तर?"

"टीचर, मांय नुस्तें इकूंक वयता."

हांवें आनी तोंड वयर काडलें ना. क्लास सोंपतकीर ताका मेळोवन घेवन सांगलें. "बाय गो, तुका जें कितें चुकता, तें हांव क्लास सुटतकीर शिकयतां आं." काकूट ह्या गरीब भुरग्यांची, नाजाल्यार पणजेंतल्या कांय जाणांच्या दारांत केजींतल्या एका गांजुड्ड्या भुरग्याखातीर गाडी, ड्रायव्हर, चेडूं आनी ताची फुल मेकअप केल्ली आवय सकाळीं आठ ते बारा वरांमेरेन शाळेच्या आवारांत तिष्ठतात. अशीं एक गाडी न्हय तर शेकड्यांनी गाडयो आसतात. अनाठायी खर्च करपाक हो पयसो खंयच्यान येता? हो पयसो, सरकाराचो काय स्वताचो? कितलो हो पयशांचो, मनुष्यशक्तीचो अपव्यय...

सरकारान सरसकट सगळ्यांक शिक्षण फुकट केलां. तें खऱ्यांनीच करचें न्हय. येदोळचे ते नुस्तेकान्नीच्या चेडवाक मात तें फ्री आसूंक जाय. हेरांकडल्यान चड पयशे घेवन हेर गरीब भुरग्यांखातीर तें वापरूंक येतात.

ते चलयेचे ते थरथरपी दोनूय किडकिडीत हात हांवें धरले. तशे ते अवस्थेंत आपल्या दोनूय हातांनी ताणे म्हाका घट्ट धरलें. तें चली घुंवळींत आसा पूण ताच्या त्या दुबळ्या हातांनी तें म्हाका वेंग मारपाचो यत्न करता. ते हात खंय तरी माया, प्रेम सोदतात अशें म्हाका दिसलें. म्हाका ताच्या त्या काकुटवाण्या स्पर्शाची भूक वेगळीच दिसली. शेणिल्लें पाडूक गायक सोदता तशें? हांवें हेर भुरग्यांक विचारलें.

‘‘आगो, कशी आयली आसतली ताका घुंवळ?’’

‘‘टीचर, ताका सकाळी सगळो वावर करचो पडटा. तें रांदून बी येता.’’

‘‘रांदून. म्हणचे आवय खंय वता तर?’’

‘‘टीचर, ताका आवय ना. ताची आवय ल्हानपणांतूच मेली.’’ तें भुरगें सकयल धर्तरेचेर न्हिदलां. आनी ‘‘टीचर, ताची आवय ल्हानपणांतूच मेली.’’ हीं उतरां आयकनाफुडें म्हज्या काळजाक खोल घाय जालो. येदोळचे तानेन व्याकूळ जाल्ल्या त्या स्पर्शाचें रहस्य म्हाका त्याच वेळार कळलें. आनी म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां झरूंक लागलीं.

अशीं हीं कितलींशींच भुरगीं. हांका जाय तें थोडेपसून मेळना आनी परत एकदां गाडयेंत दिसभर तिष्ठपी त्या ड्रायव्हर, गाडी, चेडूं आनी बेकारथवय आवयांची म्हाका याद जाली. हांवें देवाक म्हळें ‘कामये दुःखतप्तानां प्राणिनामार्ति नाशनम्!’ दुःखान त्रासून गेल्ल्या ह्या दीन दुबळ्यांच्यो व्यथा पयस कर... हांव आनी कितें करतलें? म्हज्या दुबळ्या, मोटव्या हातांनी हो येदो व्हडलो वावर जातलो काय?

हांवें इतले म्हणसर दोन भुरग्यांक उदक हाडपाक, दोन भुरग्यांक हेर टीचरींक आनी दोन भुरग्यांक प्रिन्सीपलाक आपोवन हाडपाक धाडलें. दोन भुरगीं ‘दोतोराक आपोवन हाडूं काय?’ म्हणटालीं. (आतां दोतोर हाडपाचो निर्णय हांवूच कसो घेवं? म्हजे वरिष्ठ कॉलेजांत आसात न्हय?) इतल्यान शेजारच्या, शाळेंतलीं केजींतल्या पिरायेची दोन भुरगीं वतालीं, तांची उदकाची बाटलीच ह्या भुरग्यांनी काडून घेतली आनी खरशेत खरशेत धांवून येवन म्हाका दिली. तो मेरेन त्या धाकट्या भुरग्यान जमनीर देह घालून घेवन हात-पांय आपटूपाक सुरवात केल्ली. उदकाची देड पयशाची बाटली काडून घेतल्यार केजीच्या भुरग्यांचो हो आकांत आनी हांच्यो आवयो मात हांचो ओगीच हुस्को काडटात. हीं भुरगीं टीचरीकपसून विकून चणे घेवन खातलीं.

मागीर टीचरी आयल्यो. सगळो बोवाळ. घुंवळकान्न उठून बसली.

हांवें ताचेर उदक मारमार मारून ताचो बाबड्याचो पंजाबी ड्रेस भिजोवन उडयिल्लो. हांवें मिरसांगो शिंपतात तशें ताच्या तोंडार उदक मारिल्लें. हाचेखातीर प्रत्येक टीचरीक सरकारान फर्स्टएडाचें ट्रेनींग कंपल्सरी दिवंक जाय, अशें म्हाका दिसता.

दुसरे चलयेक बरोबर घेवन ते चलयेक आमी घरा धाडलें. इतल्या बोवाळांत लेक्चर बाबडें गेलें. लेक्चर घेनास्तना सोंपलें म्हण हेर भुरग्यांक केदी उमेद जाली. खरें म्हळ्यार लेक्चराक येवंक ताका आवडटा. सुरू जातकीर तें तांका आवडना. तांका वाज येता. केन्ना काय तें बोअरिंग लेक्चर सोंपता अशें जाता तांका. खंय चुकता? तांचे काय आमचें? विचार करपासारखो प्रस्न. आमी तांका आनंद मेळोवन दिवपाखातीर शिकयनात. आमी तांची फकत परीक्षेखातीर तयारी करून घेतात. म्हणून तांकां आमच्या शिकोवपाचो वाज येता.

रशियांतल्यान बरयिल्ल्या एका पत्रांत रवींद्रनाथ टागोर म्हणटात – "रशियांत म्हाका समजलें, शिक्षण हें खुबूच म्हत्वाचें आसा. कित्याक? शाळेची शीम ही सदच्या जिवितापासून वेगळी ना. फकत परीक्षेची तयारी करून घेवपाखातीर ते भुरग्यांक शिकयनात. एक सर्वांगीण व्यक्ती जावपाखातीर ताका शिकयतात..." आनी आमी कितें करतात? आरंभासावन त्रुटित आनी रूक्ष पध्दतीन तांका आमी माहिती दितात आनी तांकां जें शिकयलां तांची पुनरावृत्ती करून तीं परीक्षेंत मार्कस् मेळयतात.

दीस वतात...परीक्षा येतात. भुरगीं नापास जातात, रडटात. पास जातात, हांसतात. दीस वतात.... ल्हान ल्हान भुरगीं जाण्टीं जावन वतात. परत नव्या वर्सा नवीं भुरगीं येतात. नवें तारुण्य घेवन येतात... नवो जोम, नवो उत्साह, नवी सळसळ, नवी उमेद. तींच उमेदीची ल्हारां आंगभर पांघरून आमी टीचरीय जीवनाचो आनंद घेतात. खरें न्हय?

विद्यार्थ्यांचें हें जग म्हणजे रंगीबेरंगी पिसोळ्यांचें जग. ह्या पानावेल्यान, त्या पानार धांवपी पिसोळीं. तांचे फाटल्यान धांवून तांकां

धरपाचो हांव यत्न करतां. केन्ना पिसोळीं हातांत मेळटात, केन्ना हातांतलीं सुटून वतात. केन्ना केन्ना हाताक तांच्या पांखांचे रंगूच लागतात. हाताक लागिल्ले ते रंग पळयत हांव म्हजी जीण उमेदीन सारतां...

– 'चित्रंगी' – दिवाळी 94

***





# 12.
# निवळकांडयेचीं बोंडां

'बबली आनी किशू दनपरां तुजेकडेन येतलीं', म्हण बेबीचो फोन आयलो. ताका कम्प्युटराच्या क्लासाक वचपाचें आसलें. ताची वावराडी खंय आज येवंक नासली आनी घोव चंडिगढ़ गेल्लो. बबली पांच वर्सांचें जाल्यार किशू दोन वर्सांचो. बबलीक ताई-मावशी खूब आवडटा. पूण आजून मेरेन तें म्हजेकडेन एकटें केन्नाच रावंक नासलें. किशूचो तर प्रस्नूच येना. किशूक आवय सामकी जाय म्हळ्यार जायच! चडानचड तो बापाय बरोबर रावूंक शकतालो. आनी आदींमदीं कोणाचकडेन ना. कोणेंय ताका लागी ओडपाचो यत्न केल्यार तो ताका कडकडीत घांस मारून, सणसणीत खोंटो बी मारून नाका शेवट करता आनी निमणेकडेन आपूण होऽऽऽ करून व्हडलो होळम काडून रडटा. हे किशूचे शिशूपराक्रम. अशी हीं दोन

अपुर्बायेचीं रत्नां, बेबी दनपरां म्हजेकडेन तीन ते चार हे वेळेंत धाडपाचें आसलें. काल आनी आयज 'पर्यावरण जागरुकता' ह्या विषयावयलीं भाषणां दिवन म्हाका पुरो जाल्लें. आनी आतांच हांव दोनापावलांतल्या श्रमजीवी बिगरगोंयकारां भितर जागृताय बी करून आयिल्लें आनी ते भायर म्हाका सांजचे पांच वरांचेर नटून बी कॉलेजीच्या गॅदरींगाक वचपाचें आसलें.

भुरगीं येतलीं ही युध्दवार्ता हांवें आमच्या हांका फोन करून बेगोबेग कळयली. हाणें म्हाका रोखडीच जाप धाडली. 'चावयो, कागदां सांबाळून दवर'. हांवें हेवटेन तेवटेन पडिल्ले मोडचे पयशे एकठांय केले. किद्याक तर किशू आताच्यानच पयशे बी खावंक शिकत म्हण. नेलकटर गवेतान उडयलो आनी ताचेबरोबर स्टेपलरूय. पयर तर तो स्टेपलर घेवन आपलीं नाखटां काडूंक बशिल्लो. पयर ताणें म्हज्या ड्रेसींग टेबलाम्हन्यांत वचून तोंडाक पावडर सारयिल्ली. ओठांक लिपस्टीक लायली आनी केसांक बॅण्ड घालो. हातांत कांकणां चडयलीं आनी निमणशेवटाक कपलाक तिकली पसून दसयली. आतां ताणें म्हजी दांडयेवयली साडी तितली आंगार ओडपाची दवरिल्ली!

दुस्मानाची घुरी येतकीर जाता तशी म्हजी पळापळ सुरू जाल्ली. म्हणटा म्हणसर दुस्मान दारांत पावलो. ड्रायव्हरान किशूबाबूक हांडीर मारिल्लो. पिशवी एका हातान जाल्यार दुसऱ्या हाताक बबली हुमकळटालें. हीं दोन भुतां आनी खेतां ताणें म्हज्या दारांत हाडून सोडिल्लीं. किशूबाबू आनी कितें अवचिनपणां करता काय म्हण म्हजें काळीज धडधडपाक लागलें. एकाद्या वागाच्या पेट्यान शादूरतायेन पांजऱ्यात भितर सरचें तसो शिटूकसाणेन तो ल्हव ल्हव पावलां उडयत घरांत भितर सरपाक लागलो. इतल्यान ह्या दोन माकडांक म्हज्या दारांत उडोवन 'जीव आसत जाल्यार...' म्हणत ड्रायव्हरान पळ काडलो. आतां 'जिंकू किंवा मरू' ह्या नेटान म्हाका ह्या दोन बालशत्रूंकडेन झुंज दिवपाची आसली. राजसूय यज्ञाचो घोडो आडावपी त्या दोन बालकांनी प्रभू रामचंद्राक पसून अशेंच हैराण करून

सोडलां आसतलें. किशूबाबून 'आई, घ्ये' म्हणत म्हजे हातान आपल्यालें चार करणांचे मार्मीट विश्वासान सुपूर्द केलें. (बेबीच्या भुरग्यांची खादाडी मात कापाजदादीची. लोकांच्या भुरग्यांचो एक ल्हानसो टिफीनबॉक्स आसता. जाल्यार हांचो चार करंडांचो मार्मीट.) म्हज्या हातान मार्मीट आनी सांगाताक 'आई' हो प्रेमळ उलो म्हणटकर हांवें आयज अर्दी लडाय जिकिल्ली. म्हज्या कुळारच्या घरांत बबली हें पयलें भुरगें. बबली कंठ फुटतकीर म्हाका 'शी! शी!' करी. म्हाका अजाप जातालें. वायटूय दिसतालें. कालांतरान बबलीचो अक्षरसंग्रह वाडलो आनी तें म्हाका 'माशी' म्हणून उलो मारूंक लागलें. आनी निमाणेकडेन एकदाचें ताचे तोडांतल्यान 'मावशी' हें लाखमोलाचें उतर भायर सरलें आनी हांव धन्य जालें. आनी आतां जाल्यार बबलीबाय उर्फ राजलक्ष्मी भाटकार ह्या गडगंज नावाची धनीण आशिल्ली म्हजी अपुर्बायेची भाची म्हाका 'ताईमावशी' ह्या लांबचेलांब नांवान उलो मारता. किशू आपले आवयक 'मम्मा' म्हणटा तर म्हाका 'आई'. हीं दोन अपुरबायेचीं रत्नां घरांत येतकीर हांवें फ्लॅटाचें फुडलें दार सगळ्यांत पयलीं धांपलें. आतां हांवें सगळी लडाय जिकिल्ली. बेबीन म्हाका सांगिल्लें, 'तूं कसलोच हुसको करूं नाका. बाबू रोखडोच न्हिंदतलो. तो न्हिंदून उठचे पयलीं ड्रायव्हर ताका घेवन वतलो.' म्हण. असल्या आश्वासनांचो आनी थिअरींचो प्रत्यक्ष युध्दभूमीचेर कांयच फायदो जायना, हें इतिहासान जायते वेळ दाखोवन दिलां. भुरग्यांक घेवन हांव बेडरुमांत गेलें. बाबूचे बुटू काडले आनी बाबू कॉटीर आडवो जालो. बबली आपूण आनी व्हडली आजीमांय कशी ताका थापटून न्हिंदोवंक लागली. बरोबर रनिंग कॉमेंण्ट्री. ''बाबूची मम्मा कम्प्युटराक गेल्या. बाबूचो पप्पा (ॲक्टींग करूंक) भुर्रा गेला. आनी आमी आज मावशेगेर न्हिंदूंक (बरो बाबा वेळ सोदून काडला हाणी न्हिंदपाक!) आयल्यांत. मावशी आतां आमकां --- आईस्क्रीम हाडून दितली. (बबली आतां नाका थंय व्हांवत, पूण ताका जाय तेच दिशेन व्हांवत चल्लां.) न्हीद रे बाबुल्या'', बबलीच्या थापटुपाची संद घेवन, हांवेंय

बाबुल्याक थापटूंक सुरू केलें. इतल्यान वागाच्या पेट्यान गुरगुरून फटायंच करून दावखूल मारचें तशें ताणे परत एक म्हजेर सणसणीत थापट मारलें. हांव एक थापट खावन मोन्यांनी फाटीं सरलें.

तिगांय जाणां कॉटीर आडवीं जालीं. हांव दोळे मळबाकडेन लावन फुडें कितें घडटा हाची वाट पळोवंक लागलीं. थंय एक व्हडलो लोड आसलो. दोगांय भुरग्यांक ताचेर तकली दवरून एकाच वेळार न्हिदपाची सुरसुरी आयली. मागीर दोगांय जाणा लोडाचेर घसांयच करून उदारीं पडलीं आनी खोटो म्हजे तोंडार. हांव फाट करून न्हिदलें. पूण फाटीक दोळे लावन. इतल्यान धडाम धुडूम, घो असो व्हडल्यान आवाज जालो आनी ताचे फाटोफाट भोंऽऽऽ करून रडपाचो. मोठो आवाज. पळय जाल्यार कॉट आनी वणत हांचे खांचीन हांवें व्हडले करंड वळीन दवरिल्ले. तातूंत तकली वणटीक, पांय कॉटीर, दावो हात एका करंडार जाल्यार उजवो दुसऱ्या करंडार आनी देहाचो दोणो करून चारूय वाटांनी बंदिस्त अवस्थेंत बबली आडवें जालां आनी हो चोर ताका, बांयंत ओणव घेवन पळयतात तसो वयल्यान पळयता. आतां किशूबाबू उरलो कुशीकच! गिरणींतल्यान पीठ पडचें तसो बबलीचो रडपाचो न थांबपी सूर. पयलीं बबलीक खांचींतल्यान ओडून भायर काडलें आनी कॉटीर उडयलें. बबलीचो खड्डो वणटीक बरोच आपटिल्लो.

जीं कितें दोन उतरां ताच्या त्या उटंगाराच्या रडपांतल्यान म्हज्या कानार पडली, तातुंतल्यान म्हाका इतलेंच इन्फोर्मेशन मेळलें, ''बाबुल्यान खंय ताच्या तकलेपोंदचो लोड ओडून काडलो म्हण, अशें घडलें खंय...'' ''मम्माक हाड'' अशी म्हाका ताणें निमाणकडेन ओर्द सोडली. बाबू कुशीकच उरलो आनी आतां ही भयणुलीच आकांत करूंक लागली. हाताभायर वचपी घोड्याक थातारचें तशें हांव बबलीक हातापायां पडून न्हिवयलें. एका हातान व्हडली कॅडबरी जाल्या दुसऱ्या हातान आईस्क्रीमाचो कप (आनीक दोन हात आशिल्ले जाल्यार आनी कितें कितें...) दितलें ह्या

तोंडी आश्वासनाचेर चुळूक एकदाचें थंड जालें. मदींच फोनाची रींग वाजली. फोनार दोगूय जाणां तुट्टून पडटली म्हण इंग्लिशींत आनी कोड लँग्वेजींत, 'भुरगीं सुशेगाद आसात' म्हण सांगलें. पूण बबली मालकिर्याद.

"ताईमावशी, कुणाचा ग फोन?" (बबलीची उमळशीक)
"होता एका मैत्रिणीचा!" (म्हजी थंडसाण)
"मला वाटलं मम्माचा होता." (वर्माचेर घाव)
"बरं, बरं झोप!" (म्हजी तापोवणी)

आतां बाबूची नाशिल्ली न्हीद पुराय जाल्ली. आतां बाबू उचांबळ जावन कॉटीर धुमशेणां घालूंक लागिल्लो. ही चादर उडय, ती उशी मोखून मार अशो आज्नेऱ्यो ताणें सुरू केल्यो. कॉटीर उशांचेर उशो दाळून तो वण्टीवेल्या शोकेसींत हात घालून अलिबाबाचें चोळ मेळोवपाचो प्रयत्न करूंक लागलो. इतल्यान घडाम् करून उशांचो दाळ बाबूसयत सकयल कोसळलो आनी बाबू धर्तरेचेर (म्हणचे कॉटीर म्हणचे मोव कुलचांवाचेर) आडवो जालो. ताका दिसलें दाळ उडोवपाचें म्हजेच कारस्थान म्हण. ताणें जो एक म्हजो रोस काडला... मराठ्यांनी औरंगजेबाच्या सैन्याचेर ज्या तिडकीन झुटून पडचें तशे रीतीन तो म्हजेकडेन लडाय खेळूंक लागलो. ताणें म्हजे केंस ओडले. ताणें म्हाका बुड्डिलें. ताणें म्हाका भुरके काडले. तो म्हजे तोंडार 'थू' म्हणून थुकलो. निमाणेकडेन दोन खोटो बक्षीस म्हणून दिल्यो. ही सगळीं दुष्कृत्त्यां सोंपतकीर जमनीर न्हिदून ताणें म्हज्या पांयांक मेळत थंय घांस मारूंक सुरवात केली. 'ल्हान भुरगीं म्हळ्यार फुलां' अशें कांय कवी म्हणटात. म्हाका तरी दिसता 'हीं फुलां काय कांटे?' आनी हांका जर फुलांच म्हणपाचीं आसत जाल्यार चडान चड 'निवलकांडयेचीं बोंडां' म्हणू येता. लोकांच्या नशिबांत फुलां आनी आमच्या नशिबांत कांटे. ज्या तोंडान 'आई' म्हण उलो मारता त्याच तोंडान कचकचीत घांस मारता. हांव उठून उबें रावलें.

इतल्यान बाबूक 'शू'ची याद जाली. येदोळच्या युध्दकांडांत तें एक

म्हत्वाचे प्रकरण सादर करपांत तो विसरून गेलो. आतां तो अध्याय सोंपतकीर ह्या एका व्हडल्या प्रोजेक्टाची ताका याद जाली. म्हाका म्हणूंक लागलो, "आई, च्यू, च्यू" ताका गादयेवेल्यान ताकतिकेन सकयल ओडलो आनी जमनीर बसून ताची पॅण्ट काडपाची खटपट करूंक लागलें. पॅण्टीक म्हण सायबिणी कितले बुतांव, कितलीं हुकां, क्लिपां आनी वयर एक झीप. तो मेरेन बाबू म्हज्या होंटयेंत 'शू' करीत अशें म्हाका दिसूंक लागलें. व्हडा प्रयत्नान पॅण्ट ओडून काडली. जाल्यार भितर आनी एक चेड्डी. पूण ती थोड्याच खटपटीन सकयल आयली. नशिब म्हजें! तिसरी चेड्डी बेबीन ताका घालूंक नासली म्हण. टॉयलेटांत तो पडत म्हण बाबूक बेगीबेगीन बाथरुमांत व्हेलो. थोड्या वेळान कपलार हात मारून आमची आजीमांय भायर आयली. म्हण्टाः

"कर्म माझं!"

"कसलं ग कर्म तुझं?"

"ताईमावशी, त्यानं तुझ्या बाथरुमामध्ये 'चु चू' नाही, 'शी शी' केली आहे."

आता ही 'चुचू' आनी 'शी शी' ची एसएमएसाची भाषा म्हाका शिकची पडली. (आनी निस्तरची पडली) सगल्यांत पयली बाबूची शारीरिक सफाई. बबली आनी हांवें दोगांयनी मेळून (किद्याक तर, तो आतां नळ सोडून न्हावपाचे तयारेक लागिल्लो. ताका धुयलो. पुसलो. बाथरुमांतल्यान बचकुलाक धरून ओडून भायर काडलो. येदोळच्या अनुक्रमान चेड्डी, पॅण्ट घाली. परतून बबलीन म्हळें "कर्म माझं!"

"आत्ता ग बाई, कसलं तुझं कर्म?"

"ताईमावशी, तू म्हणजे अगदी ह्यॅच (म्हणचें कितें काय?) आहेस. तूं पॅण्ट उलटी घातली आहेस बाबूला."

म्हणचे बॉल्सां फुडल्यान. परत पॅण्ट काड आनी परत ती घाल. बाबूक दिसलें, हें सगळें हांव ताका पिडपाखातीर करतां म्हण. तो वाजेलो आनी ताणें म्हजेकडेन फ्रीस्टायल कुस्ती खेळपाक सुरवात केली. हांवें कशी तरी त्या

देवचाराक पॅण्ट चडयली आनी ताच्या हातांतल्यान सुटका करून घेतली. तरी वता आसतना त्या ओर्दीनारान म्हज्या केंसाचो शेंडो ओडलोच!

परिस्थिती हाताभायर वचूंक लागल्या. बबलीक पसून आतां म्हजी काकूट येवंक लागल्या. पाच वर्सांचें तें प्रौढ भुरगें म्हाकां समजावणेच्या सुरान सांगूंक लागलें,

"ताईमावशी तूं चहा कर. मी सांभाळते बाळाला."

हांवूय तापिल्लें. सांगलें,

"चहा वगैरे काही मिळायचा नाही. तुमच्या घरी जाऊन ढोसा."

बबलीक वायट दिसलें. ह्या दोन आगयावेताळांक आनी नागयावेताळांक च्या पियोवपाचे कल्पनेनूच म्हजेर आकांत आयिल्लो. पूण म्हाकाय च्या पिवपाची आसली आनी भुरग्यांचीय काकूट आयिल्ली. हांवें च्या रांदनीर दवरली आनी एक दोळो भुरग्यांचेर दवरलो. बाबू म्हजे फाटोफाट किचनांत आयलो. एक स्पेअर गाळणी आनी गावी आसली. ती काडून मोन्यानी म्हजे हातान दिली. ऑपरेशनाच्या वेळर नर्सेस दोतोरांक शस्त्रां आनी उपकरणां मोन्यानी दितात तशी. ती दोन उपकरणं म्हजे हातान दिवन बाबू थंयच्यान नाच्च जालो.

"बबली किशूला बघ". (म्हजी आरड)

"आहे ग तो मावशी. तूं लवकर चहा कर बघू." (ह्या पातोळेचे आश्वासन).

इतल्यान बाबूचो किचनात प्रवेश जालो. हातान एक धांकटो पाटलो. हो पाटलो हांवें पर्तगाळच्यान रामनवमेच्या फेरयेतल्यान हाडला. असल्यो इको फ्रेण्डली वस्तू वापरपाक म्हाका खूब आवडटात. फावले वेळेत ताका तोखेवपाकूय म्हाका आवडटा. तर हो पाटलो किचनांतल्या सर्व्हिस प्लेटफॉर्मार कांदे बटाट भरून दवरिल्ल्या अवस्थेंत आशिल्लो. बाबून कांदे-बटाट खंय खंय उडयल्ले कोणाक खबर! पूण रित्या पाटल्यान पूजेक लायिल्ल्यो म्हज्यो सगळ्यो देवाच्यो म्हूर्ती आनी पूजेचीं उपकरणां भरून

हाडल्यात. बेलूरचो पाषाणी गणपती, द्वारकेच्या पितुळच्या लंगड्या बाळकृष्णाच्या कुशींत बसला. गोकर्णाची धुपारती, नाशिकच्च्या गंधाच्या ताटलेंत बसल्या. आनी एका हातांत कन्याकुमारीचो शंख जाल्यार कोचीसाकून हाडिल्ली पितुळची घंटा घणाघणा करून वाजताली. सगळ्या देवांच्या म्हूर्तींक कांद्याच्या पाटल्यान बसोवन भष्टयल्लें आनी तांका निर्गुण निराकार करून उडयल्लें. बाबू भितर आयलो. ताका तीं खेळणीच कशी दिसलीं दिसता. कशें तरी करून ह्या दैत्याच्या चोपक्यांतल्यान देवगणाक मुक्त केले आनी कुडीच्या दाराक खिळी घाली.

बाबूखातीर दूद गरम केलें. ताणें ते मोन्यानी पिवन उडयलें. येदोळच्यान केल्ल्या हडवंगीपणान ताका खूब पुरो जालां आसतलें. वर-दोन वरां खोटो, चिमटे, बुड्डे खावन, शि-शू कर्मां निस्तरून, दूद-च्या पियेवन हांवेंय भुरग्यांचो खूबसो दिवेर्तमेंतूय केल्लो. म्हाका मरणाचें पुरो जाल्लें. पूण म्हाका सांजवेळार कॉलेजीच्या गॅदरिंगाक वचूंकच जाय आसलें; नाजाल्यार एक सी. एल्. पडटली आसली.

## प्रसंग दुसरो

एक फावट बेबीक अशेंच खंय तरी वचपाक जाय आसलें. म्हजे कॉलेजांत त्या दिसा कल्चरल वीक आसलो. म्हणटकीर बेबीन बाबूक म्हजेकडेन सोपयलो. आनी तें गेलें. कल्चरल डे म्हळ्यार कॉलेजांत बोवाळ. सगळीं जाणां बरीं बरीं न्हेसून आयल्यांत. हांसतात-किट्किट्टात. चकाटां मारतात - खबरी मारतात. पदां म्हणटात. कोण नाच करता जाल्यार कोण कॅम्पसांत धुमशेणां घालतात. कोण बटाटवडे खाता. बाबू हो बोवाळ पळोवन खुशालभरीत जातलो अशें म्हाका दिशिल्लें. पूण मोटरींतल्यान देंवतनाच काळेंच तोंड करून देंवलो, म्हणटकीर दीस बरो वचचो ना अशें हांवें चिंतलें. पूण करतलें कितें? म्हजो कुड्ड्याचो संवसार बेबी चलयता म्हणटकीर ताचें हें 'हागुड्डें म्हाका खांकेक मारचेच पडलें.' मागीर एक पावट खांकेक

मारतकीर x लागलो म्हण कोणाकडेन कागाळ करतलें? म्हजेबरोबर एक धाकटुलो पळोवन म्हज्यो विद्यार्थिनी धांवन आयल्यो आनी ताका कोणे "गोविंद घ्या, गोपाळ घ्या" केलो. पूण तेन्नाय ताका उमेद जाली ना. एके चलयेन ताका विचारलें :

"शाणुल्या, आईस्क्रीम खातलो?"

ताणें रागांत जाप दिली.

"ना".

खंयचीं भुरगीं आईस्क्रीम सोडटात! त्या चलयेन ताका विचारलें :

"किद्याक रे, नाका आईस्क्रीम?"

"म्हाका थंडी जाल्या."

बाबूची सडेतोड जाप. जाल्ल्या थंडेक सपोर्ट दिवंक ताणें मात्शें खांकून पसून दाखयलें. चलयांक आनी म्हाका अजाप. थोड्य वेळान, 'घली जाऊ या' म्हणूंक लागलो. कार्यावळ सोंपतकीर आमी घरा आयलीं. कॉलेजांत असले 'डे' बी आसतकीर आमचोच 'बारावो डे' जाता. आनी आतां ह्यो यमाच्यो जांचण्यो'. हांवें आमकां दोगांकूय जेवण वाडून घेतले. बाबून जेवणाचेर बहिष्कार घालो. मागीर हांव एकलेंच जेवलें. बाबू टी.व्ही.ची बटनां घुंवडायत आनी मोडीत बसलो. मागीर ताका हांवें विचारलें :

"शाणुल्या, गुणुल्या चिकू खाणार?"

"नकोय"

परत तीच नेटान जाप.

"कशाला?"

"माझा शुक्रवार आहे."

हांवें कपलार हात मारून घेतलो. बेबी शुक्रार करता. शुक्रारा खंयूय भायर सरलें आनी नाकाशिल्लें किर्तें मुखार आयलें, काय 'ताका आज शुक्रार' म्हण सांगचें पडटा. तेंच हाणेंय आतां पाठ करून दवरलां दिसता.

म्हाका एक हांसो आयलो..

बेबीचो शुक्रार बरोच फामाद जाला म्हण.

×××

मागीर आमी दोगांय खाटीचेर आड पडलीं. बाबून खाटीर उबो रावन जनेल उगडलें. थंय शेजारच्या फ्लॅटान भायर गॅलरी बांदपाचें काम चलिल्लें. ते गवंडे जनेलांतल्यान भितर पळयतात म्हण हांवें जनेल धांपिल्लें. आनी ताका दोन पड्डे लायिल्ले. बाबून तें सगळें लटांबर कुशीक काडलें. आनी भायल्या गवंड्यांकडेन खबरी मारूंक लागलो.

ते गवंडे आपलेभितर उलयताले. तेंय म्हाका न्हिदिल्लेकडेन आयकूंक येतालें. "पिछले तीन म्हयने से मॅडम के घर में बच्चा न्हय. ये छोऱ्या बीच में किदर से लाया?" बाबून तें आयकलें दिसता. म्हाका म्हणटा "ताईमावशी, लोक तुका कायकाय म्हणटात?"

गवंडे बाबडे भियेले आनी फ्लॅटांत पळले.

बाबू जनेलाच्या ग्रीलाचेर वयर मेरेन चडून 'द ग्रेट इंडियन सर्कस' करतालो. तें पळयत हांव बसलें. खूब वेळ ग्रीलाक धरून उबें राविल्ल्यान ताका पुरो जाल्लें. जीव वाजेल्लो. आवयची याद येवंक लागली. एकदम दोळ्यांत उदक हाडून ताणें म्हाका म्हळें :

"मम्मी पन येत नाई. शिलीश पन येत नाई. सोडला की काय मला त्यांनी इतं?"

ताचे उलोवणें आयकून म्हाकाय रडूंक येवंक लागलें. तरीकूय ताची मात्शीं फकाणां करया म्हण हांवें म्हळें :

"शाणू, इकडं ये. तुला काय सांगते बघ मी."

बाबू देंवलो. म्हऱ्यांत आयलो. खाटीर बसलो. हांव सांगूंक लागलें :

"बाबू बघ. नीट ऐक. ताईमावशीला मुलं नाहीत. तिला म्हातारपणात कोण सांभाळणार? तुझ्या मम्मीला तरी बबली आहे. तेव्हा तुझ्या मम्मीनं मला बघण्यासाठी तुला आजपसून इथंच ठेवायचं ठरवलंय. राहशील ना रे बाळा. तू ताईमावशीला सांभाळण्यासाठी?"

बाबून दोळे पुसले आनी म्हाका सांगलें, "तू काहीच काळजी करू उको (नकोस) मी आजपसून इतंच राहीन. पण एक कर. घरी माजी कपड्यांची बादली आहे. ती मात्र घेऊन ये."

म्हज्या पोटांत हांसून हांसून गुळो येतालो. पूण तो हांवें चिड्डून धरलो. बाबूची आवय बाबूचे सदचे सुकिल्ले कपडे एका बालदेंत घडी करून दवरता. बाबूचो संसार बादलेंतल्या सुकिल्ल्या कपड्यांपुरतोच मर्यादीत आसलो. ताची मम्मी हेर कपडे खंय दवरता, तें ताका खंय खबर आसलें?

×××

च्या पिवन जातकीर आमी घराफाटल्यान पोरसांत गेलीं. पायप लावन, झाडांक उदक घालपाचें काम बाबूक खूब आवडटा. हांवें ताका तेंच आवडीचें काम दिलें. पूण बाबू एकदम मस्तो. झाडांक उदक घालतना तो आपले तकलेचेर उदक सोडूंक लागलो आनी म्हजेरूय उदक मारूंक लागलो. म्हाका आता जीवूच नाकासो दिसूंक लागलो. तातून म्हजे आंगाक खरजपाक सुरवात जाली. पळयतां पळयतां तांबडे पितांब कशे आंगभर आयले आनी म्हाका व्हडल्यान रडचेंशें दिसूंक लागलें. कसलो तरी जीव म्हाका चाबिल्लो, काय बाबू म्हाका भिजयतालो, म्हण म्हाका राग येतालो म्हण देवाक खबर!

इतल्यान देव पावलो. बेबी आनी शिरीष ड्रायव्हर आयलो. आनी तांचे दैत्याक हांवें तांच्या सुवादीन केलो. बाबूच्यो चाडयो सांगतालें जाल्यार हांसून म्हणटा, ‘‘आगो तो म्हजो बालक्रीष्ण. तो खोडयो काडचो ना जाल्यार कितें हांव काडटलें?’’ हाचे बरें आसा. चल्याची कितेंय कागाळ सांगल्यार बाळक्रीष्ण म्हणटा आनी विसरायेर घालता.

बाळक्रीष्ण जांव नाजाल्यार आनीक कोण जांव, म्हाका मात गोकुळातली राक्षिण समजलो ना म्हणटकीर जालें!

<u>सांस्कृतिक संदर्भ :</u>

1. **निवलकांडी (कॅक्टस)** – साष्टींत ‘निवलकांडी’ म्हणटात. पेडण्यात बी ती वर्ण विपर्ययान ‘लिवणकांडी’ जाता. कांय प्रकारच्या निवलकांडयांक कांय थारावविक काळान फुलां येतात. ह्या फुलांक बोंडां म्हणटात. कॅप्सूल फॉर्मान कशीं.

तशेंच अशा तरेच्या ‘विशिष्ट’ तरेच्या फुलांक वा तांका जोडून

आयिल्ल्या फळांक कोंकणींत 'बोंडां' म्हणटात. उदा. मक्याचे बोंड, केगदीचें बोंड, केळीचे बोंड, सावरीचे बोंड.

2. **यमाच्यो जांचण्यो** - यम त्रास दिवपाखातीर वापरता तीं तोपपासारखीं शस्त्रां, सुयो. म्हज्या आजयेची (आवयची आवय, जी सावयवेरेच्या शेटये कुटुंबातल्यान आयिल्ली) ची आवय (जी रायबंदरच्या कामतीं गेल्ली चली) आपल्या नातरां (म्हणचे म्हजे आवयक आनी तिच्या भावंडांक उद्देशून) च्या आडांगीपणाक वाजेवन हो वाक्प्रचार वापरताली.

मांद्रेच्यान हो वाक्प्रचार आई घेवन आयली आनी ताचो प्रयोग आमचेर करूंक लागली. आतां हांव म्हज्या मानिल्ल्या भुरग्यांखातीर हो वाक्प्रचार वापरतां. चड करून संस्कृती आनी भाषेचे धन मातृसत्ताक (आवय हो घटक प्रमुख आशिल्ली) कुटूंब पध्दतीवेल्यान आमचेकडेन चलत येता.

आई जेन्ना आमकां उद्देशून हो वाक्प्रचार वापरताली, तेन्ना हांवें तिका अर्थ आनी मूळ विचारलें, तेन्ना म्हाका इतलो सोद लावंक मेळलो.

हां. आनी एक दायज म्हाका ह्याच परंपरेंतल्यान मेळलां ते म्हणजे ह्या पणजेन आपल्या कुळारच्यान पितुळचे पेढेघाटी (दुदपेड्याक कशे कोन आसतात, तशे कोन आशिल्ले) करंड हाडिल्ले. (खरें म्हळ्यार दोन हाडिल्ले. एक व्हडलो आनी धाकलो. व्हडलो पाड्डेच्या मावशेगेर पावला.) ह्या करंड्याचेर कामत अशें नांव कोरांतिल्लें. हो करंड खंय धुवेन आपल्या कुळारच्यान हाडचो आनी मागीर सदांच व्हडले धुवेक दिवंचो. (ना जाल्यार आवडते धुवेक) रायबंदरच्या कामतीगेल्लो हो करंड - सावयवेरेचे शेटये-मांद्रेचे पार्सेकार करीत पाड्डेच्या कामतींगेर पावलो. मागीर परत पार्सेच्या प्रभू पार्सेकार देसायांकडेन. हांव तो आतां म्हज्या मानसकन्येक सुपूर्त करपाचें थारायलां. (इतिहास संशोधकांखातीर ही टीप हांवें बरयल्या. करंडाचो इतिहास सांगपाखातीर न्हय.)

3. **चोळ** - सांठो, धन, खजिनो. (पेडण्यांत हो शब्द वापरांत आसा) वायडोंगर (पार्से) परिसरांत फाटली देडशीं वर्सां न्हंय/खाडीं (बॅकवॉटर)त अर्दी

बुडिल्ली आमची लाखो चौरस मिटरांची शेतजमीन आसा. ह्या जमनींत खुब्यां (शिंपया)नी वसाहती (कॉलनीज) निर्माण केल्यात. शिंपयांच्या ह्या अतिप्रचंड सांठ्याक थळावे लोक 'शिंपयांचे चोळ' (उच्चार: चॉळ) म्हण वळखतात.




***





# 13.
# बिमलां पुराण

आमगेल्या शेजान्नीलें बिमलांचें झाड बरें वयर पसून सकयल मेरेन रसरसून लागलां. सगळीं काडलीं जाल्यार धा-बारा खोंटले जातली. (इतलीं खालीं जाल्यार मडगांवच्या दोतोरांक आनी फार्मासकारांक पोट भरचेलो हुस्को ना.) म्हाका तें बिमलांचें झाड पळोवंकूच खूप आवडटा. काळेंच दाट काण, पोपटी पानां, तांबशीं-धवशीं, नाजूक-नितळ कातीचीं फुलां. इल्लीं मध्यम-व्हड. एकमेकांच्या आंगार दुकरापेट्यांभशेन लोडेल्लीं बिमलां. हांव येतना -वतना शेजान्नीले बिमलिणीचेर नदर मारतालें. तिका तें पळोवन म्हाका बिमलां खावंची रूच येताशें दिसतालें. तिणें काटकसरीन धा बिमलां धाडून दिलीं. (हांव बिमलिणीचेर नदर मारतां म्हूण. तीं मोट्टीं धा बिमलां

पळोवन म्हजे दांत आंबट जाले. (आतां म्हण म्हजें वय उरलां बिमलां चांचावपाचें, गेले ते दीस.) तरी हांवें अर्दे बिमल खालें आनी रोखडीच एक कोल्डारीन घेतली.

पयले दीस आवयन सुंगटां घालून बिमलां रोस केलो. हांवें रोसांतलीं सुंगटां खालीं आनी म्हऱ्यान कोण नासो पळोवन बिमलां फोडी म्हशी-खावडींत उडयल्यो. उरिल्लीं बिमलां हेवटेन तेवटेन दोन दीस लोळलीं आनी निमाणेकडेन उशटवाऱ्यान गेलीं.

एक सप्तक जांवचेंच आसा. सोमारा तीच बिमलांकारीण शेजान्न चाळणींत घालून वीसेक बिमलां घेवन आयल्या. (आतां आकडो दुपेट जाला. बिमलां पिकून गळूंक लागल्याशीं दिसतात.) ‘‘तुमगेल्या बायक आवडटात न्हय बिमलां, म्हण घेवन आयल्यां. म्हाका दोन करबेला पानां दी आं!’’ (ही वसुली बिमलां कोतार) आईन रागान फणफणत पूण वयल्यावयर हांसत बिमलां घेतलीं आनी म्हळें, ‘‘बरें जालें बाये, बिमलां हाडलीं तीं. भुरगीं म्हण दाळी रोस नाटीक खायनात. मुळ्या फोडी घाल. (वयर म्हणटात, ‘दाळीच्या रोसांत मुळ्याच्या फोडी, म्हाताऱ्या न्हवऱ्याची कसली हो गोडी’?) मसाल्याचो कर, मस्को सांगो घाल, ना तो ना, कसोच खायनात. मागीर करतां. एक तर तिखटें, वडयां आम, कारात्या कुंवळ, ना जाल्यार हरव्या मिरसांगाचो रोस. आयज बिमलांची हुडूडमेथीच करतां. अवचिन्नां पोरां, आज तरी खातात जाल्यार पळोवया.’’ आईची बिमलांची तोखणाय आयकून शेजान्न बरी खुशाल जाली आनी घरा गेली. तोंडार दानशूर कर्णाचो भाव. (मालकिर्याद खंयची. खपनाशिल्लीं बिमलां आमचे तकलेर हाडून फोडटा. आनी कितें बरें हाडून दिना?)

आईन सोमारा हुडूडमेथी केली आनी आमी ती खाली. भुरके बी मारून. मागीर दांतूच आंबट जाले म्हण सांजे कोणे खाली ना. उरली म्हण जी फ्रिजांत गेली, तिची मागीर कोणे वासपूसच केली ना. मंगळार म्हळ्यार

नुस्त्याच्या ‘हाराकिरी’चो दीस. कालच्या उपासाचें आज पारणें. सुरबूस, दाट, आपरोसाच्या हुमणाफुडें जाय कोणाक ती शेळी हुड्डमेथी? निमाणाशेवटाक ती अळंग म्हशी तोपांत गेली. थोडीं बिमलां उरिल्लीं तीं आईन वावराडेक दिलीं. तिका राग येवचो न्हय म्हण एक वळेंय दिलें. ताटा बरोबर कांठ वता म्हणटात तो असो. वावराडेन वळें बरेभशेन गुठलायलें (आमकां नुकसान) आनी नाक किल्लसून बिमलां गुठलायलीं.



तिसरो सोमार उजवाडलो. शेजान्नीक आज ताक जाय आसलें पूण आमचे भेटेक रिकाम्या हातान कशी येतली? म्हणून व्हडलो खोंटलो भरून (काल मानाय हाडिल्लो तो ह्याच कामांक दिसता) बिमलां हाडलीं. तीं बिमलां पळोवन म्हाका डबल न्युमोनिया जाल्लेभशेन दिसलें. (चड करून बिमलांचो भार सोंपला आसूंये.) आईन तिच्या हातांतलो खोंटलो घेवन जमनीर ठा करून आदळलो. शेजान्नीन रोखडेंच, ‘‘आज सोमार न्हय, इल्लें ताक आसल्यार दी’’, म्हण सुतोवाच केलें. ताक घेवन शेजान्न बेगोबेग पळली. (जीव आसल्यार हांकां फुडले वर्सा एक बिमल दाखोवची ना, अशी भीष्म प्रतिज्ञा करीत) आईन शेजान्नीक गाळी मारीत, अर्दी बिमलां माडामुळांत रकयलीं, ताजेर भर घाली. धा-बारा बिमलांचें लोणचें केलें. परतून एक फावट रोस केलो आनी आमच्या हड्ड्यार घालो. धा-बारा बिमलां उरिल्लीं तीं काडलीं आनी परतूय वावराडेक दिलीं.

आईन वावराडेक दुसरे पावटी बिमलां दितकीर वावराडी उठली, राणी लक्ष्मीबाईभशेन कमरार हात दवल्ले आनी म्हणूंक लागली, "व्हनीबाय, तुका निमाणे सांगता, म्हाका परत केन्नाच बिमलां दीवं नाका आं. त्या आंबट धोंक बिमलांनी आसा कितें? आज चार दीस जाले आमचे दांत दुखतात. आनी दोतोराक पैशे फारीक करून आमच्या बोल्साक बुराक पडला. तुका सांगून दवरता आं..."

***





Sumedha's style of narration is lucid and the spontaneous seamless flow makes the reader feel he is listening to her intent and individually.

She intersperses the rendition of her experiences with a fine wit and humour and at times comes out with a forceful impacting poetic imagery as well.

Sumedha is a Sanskrit scholar which lends weight to her language. She has the capability of transporting the reader into an artistic world wherein one can see the vivid characters come alive. — MUKESH THAL